*जांणी म्हाका बापायभशेन मोग दिला*
*आनी बऱ्या - वायट प्रसंगांर*
*म्हज्या फाटल्यान उबे रावल्यात,*
*त्या कमलाकर म्हाळशी सरांक*
*मायेमोगान.*

अजय सावळ



आनी हांव वाट चुकलों !
(कथासंग्रह)

अजय नामदेव सावळ

प्रकाशन क्र.: ४१
सौ. अमिता अजय सावळ
मोरजी, पेडणें, गोंय

पयली उजवाडावणी : २००४

उजवाडावपीः
मिलींद कमलाकर म्हाळशी
ॐ श्री दत्त पद्मजा प्रकाशन
श्रीस्थळ, काणकोण, गोंय

छापपी :
नवादित्य पॅकेजिंग्स्
माशेल, फोंडें, गोंय

अक्षर जुळणी :
दीपा कंम्प्युटर ग्राफिक्स,
माटववाडो - बिट्टोण, गोंय

मुखचित्र :
आनंद कवठणकार

मोल : ७५/- रुपया

Aanee Haun Vaat Chuklom!
( Collectin of Short Stories )

Ajay Namdev Saval

Publication No. 41
(C) Mrs. Amita Ajay Saval
Morji, Pernem - Goa.

First Publication : 2004



Publisher :
Milind Kamlakar Mhalshi
Om Shri Datta Padmja Pkakashan
Shristhal , Canacona Goa.

Printers :Navaditya Packaging,
Marcela - Ponda - Goa.

Typesetting :
Deepa Computer Graphics
Matav-wada, Britona, Goa

Cover Page :
Anand Kavathankar

Price Rs. 75 /-




हें पुस्तक गोवा कोंकणी अकादेमीच्या '' पयलो चवर '' अनुदान येवजणे खाला छापलां.

# आतां अजयान वाट चुकूंक फावना

'आनी हांव वाट चुकलों' हो आमगेल्या अजयाचो पयलोवयलो कथां झेलो. अजयाच्या कथांक 'कथिका' म्हणप अदीक मुदयेर थीक कशें. कारण, अजयाच्यो कथा तश्यो कथानकाच्यो बोन्साय जाल्ल्यो कथा. अजयाच्या कथांक हांव बोन्साय म्हण्टां, पूण त्यो गिड्डयो अशा अर्थान न्हय, कारण तागेल्या धांवत्या कथानकाक म्हत्व आसा, आशयाक म्हत्व आसा. अजयाक कथेक जल्माक घालपाक कथानक सोपेपणान सापडटा, पूण कथानक फुलोवपाक अजय कमी पडटा. तागेल्या सगल्या कथिकांचेर एकादरो फाकीवंत कथाकार लांबलचक कथा बरयतलो आसलो. कथेंत वातावरण, सैम, भाशाशैली, उपमा जावं हेर भाशेचे अळंकार हाडटलो आसलो. मात्त अजयाक कथानक जशें दिसलें तशें ताणें तें सांगलें. हाका लागून अजय कथानक सांगता आनी तें बेगीबेगीन सोपयता कशें दिसता. मात्त एक गजाल खरी, अजयामदीं जबरदस्त लेखकाचीं बियां आसात.

अजयाचो आनी म्हजो संबंद गोवा कोंकणी अकादेमींत. हांव उपाध्यक्ष आसतसान सुमार स-सात वर्सां अजयाच्या वेगवेगळ्या वायट बऱ्या पैलूंचो, स्वभावाचो संवयांचो हांवें अणभव घेतला. अर्थांत एखाद्रया कलाकाराच्या लक्षणांक धरून अजयाचो जीण प्रवास घडलो. वेगवेगळ्या मोडणांनी. अजय बरय नासलो, तेन्ना अजयाक हांव विचारी, '' अजय बरोवपाचें सोडलें? बरय रे, तुका बरोवपाक जमता''. पूण मदल्या कळांत अजयान कायंच बरयलेंना! एक बरो उदतो लेखक सोंपता अशें म्हाका अनेक कारणांक लागून दिसपाक लागलें.

अजयाचेर ताच्या वो भोंवतणच्या वातावरणाच्या चुकांक लागून खूब दुखदेणे प्रसंग आयले ! वादळ कशें ते प्रसंग आयले, तशे गेले. आयज अजय एक कथा लेखक म्हणून मान्यतायेक पावंक सोदता. आनी हांव वाट चुकलों! हो कथा संग्रह

अजयाक जाल्लो स्वताचो दिश्टावो. अजयाचें पुस्तक येता हीच मोटी अप्रुप गजाल

अजयाच्या ह्या कथा झेल्यांत १९ कथां आस्पावल्यात. ह्यो तागेल्यो कथा है आदीं सुनापरान्त, राष्ट्रमत, दिसाळ्यांनी आनी उर्बा, जैतसारक्या दिवाळी अंकार्न उजवाडाक आयिल्ल्यो आसात आनी तातुंतल्यो कांय कथा हांवें वाचिल्ल्यो उल्लेख करपासारक्यो तागेल्यो कथाय आसात. पूण ह्यावूय कथांनी तीच गत आसा. कथानकाक जो भोंवतणचो कुचो जाय पडटा तो म्हळ्यार वातावरण निर्मिती. भाशा अलंकार, कल्पना, परिसर वर्णन, व्यक्तीचित्रण, तागेल्या मनांतल्या सुप्त भावनाचे वर्णन ह्यो गजाली कथानक अदीक गिरेस्त करूंक पावतात, हें आतां अजयान समजून तशेतरेन नवी कथा बरोवंक जाय. कारण, एक गजाल अजयान सिद्ध केल्या ती म्हळ्यार ताका बरोवंक जमता, कथानकांय वेचून काडूंक कळटा. आतां फकत त्या कथानकांक शिरंगारून नटोव-थटोवंक ताणें प्रयत्न करूंक जाय. अजयाक तेच खातीर बरो फुडार आसा. ताणें लेखक म्हणून पयलीं स्वताक मानून लेखनांत सातत्यय बाळगूंक जाय.

अजय सावळ हें नांव कोंकणी कथेच्या मळार चमकतलें अशी आस्त बाळगून प्रस्तावनेंत ताच्या कथांचें मोलमाप वा समिक्षा करपाचें हांवें टाळलां तें ताचो दुसरो कथांझेलो दोळ्यांफुडें दवरून.

– एन्. शिवदास

*मनांतलें.....*

गोवा कोंकणी अकादेमीच्या पयलो चंवर अनुदान येवजणेखाला म्हजो हो पयलो कथासंग्रह छापून येता हाची म्हाका खूबच खोस जाल्या.

ल्हानपणापासून म्हाका वाचपाची खूब आवड. कितें मेळटा तें वाचतालों. तालुका पंचायत वाचनालयांत वचून कथा-- कांदबरी, मेळटा तीं पुस्तकां वाचतालों. तें पळोवन आई सदांच म्हणटाली, ' हो वाचून - वाचून एक दीस पिसो जातलो.''

1991 मेरेन हांवें कोंकणीत कितेंच वाचूंक नाशिल्लें. गोवा कोंकणी अकादेमींत कामाक लागलो आनी अकादेमीच्या वाचनालयांतलीं कोंकणीची बरींच कथा-कादंबरीचीं पुस्तकां वाचून काडलीं. वाचतना पयलीं - पयलीं त्रास जालो, पूण मागीर गाडी सारकी रुळार येवपाक लागली.

एक दीस '' निश्चय ' म्हूण मराठी लेख हांवें बरयलो आनी आमच्याच कार्यालयांत काम करपी नामनेची कथा लेखिका जयंतीबाय नायक हांचे लागीं सुदारपाक दिलो. तेन्ना तिणें म्हाका हांसत थोमणो मारलो, 'किते रे, कोंकणी अकादेमींत काम करता आनी मराठी बरयता? तशेंच तांणी म्हाका सांगलें, ' कोंकणी बरय. आपूण सुदारून दितां.' ती सगली रात जागून हांवें तो लेख कोंकणींत अणकारीत केलो. दुसऱ्या दिसा भीत - भीत तो तिका दाखयलो. तिणें तो सुदारलो आनी शाबासकी दिली. तो कोंकणीत म्हजो पयलोच लेख. '' भुरगीं आनी राजहंस' ह्या मासिकांत छापून आयलो. मागीर हांव बरयतच रावलों. ताचेंच हें ' आनी हांव वाट चुकलों ! '' कथासंग्रहरुपी फळ. हाचें सगलें श्रेय हांव जयंतीबाय नायक हिका दितां.

तशेंच गोवा कोंकणी अकादेमीचे आदले सहायक सचिव कमलाकरबाब म्हाळशी हांणी म्हाका कथा सुदारपाक खूबच पालव दिला. तांचे हांव उपकार आठयना तर तांच्या रिणांत रावंक सोदतां.

गोवा कोंकणी अकादेमीचे आदले उपाध्यक्ष आनी नामनेचे कथाकार एन्. शिवदास हांणी कामाचो जायतो व्याप फाटल्यान आसुनूय वेळांत वेळ काडून प्रस्तावना बरोवन दिली, तांचो हांव काळजांतल्यान उपकारी आसां.

प्रकाशक बाब मिलींद कमलाकर म्हाळशी हांणी श्रीस्थळच्या ॐश्री दत्त पद्मजा प्रकाशनावरवीं म्हज्या पुस्तक प्रकाशनाची जबाबदारी घेतली आनी माशेल च्या नवादित्य पॅकेजिंग्स हांणी तें खूब बरे रितीन छापून दिलें, देखून हांव तांच्या दोगांयच्याय उपकारांत रावंक सोदतां.

बाब आनंद कवठणकार हांणी पुस्तकाचें मुखचित्र सुंदर रितीन काडून दिलें, तांचोय हांव उपकारी.

तशेंच गोवा कोंकणी अकादेमीचे अध्यक्ष श्री. पुंडलीक नायक आनी उपाध्यक्ष प्रा. भूषण भावे हांच्या कार्यकाळांत हें पुस्तक उजवाडा येता. तांचो आनी तांच्या मंडळाचो हांव उपकारी.

तसोच गोवा कोंकणी अकादेमीच्या उपकारांत हांव सदांच उरतलों. अकादेमीन पयलो चंवर येवजणेखाला हें पुस्तक मान्य केल्ल्यान म्हज्यो ह्यो कथा इतले बेगीन तुमचे मेरेन पावतात.

तशेंच सुनापरान्तचे आदले संपादक भौ. ॲड. उदय भेंब्रे आनी राष्ट्रमताचे आदले संपादक भौ. चंद्रकांत केणी हांणी ह्यो कथा आपल्या दिसाळ्यांनी छापल्यो म्हूण तर म्हाका बरोवपाक उर्बा मेळ्ळी. तांच्या रिणांत हांव सदांच रावतलों.

सगल्यांचींच नांवां घेवप शक्य ना, तरी पूण बरोवपाक मार्गदर्शन करपी श्री. तुकाराम शेट, ॲड्. प्रकाश थळी, श्री. प्रकाश तळवणेकार आनी श्रीमती कुमुद भिकू नायक तशेंच 'चॅलेंज' कथा बरी जाल्या म्हूण सुनापरान्ताचेर पत्र बरोवपी ॲड्. दिनेश भरणे हांच्या सगल्यांच्या उपकारांत हांव आसा. तांचेखातीर तर म्हाका बरोवपाक स्फूर्त मेळटाली.

शेवटाक म्हजो इश्ट श्री. बलराम च्यारी हाणें म्हाका हें पुस्तक छापून येवपाखातीर खूब आदार केला, ताचोय हांव हांगा मुजरत उल्लेख करतां.

तशेंच म्हजें कर्मचारी वांगडी सेबास्तियाव आरावजो, चंद्रशेखर फडते आनी ज्ञानेश्वर नायक हांणी म्हाका कथा बरोवपाक आनी प्रेसाक धाडपाक खुबच आदार केला तांचोय हांव हांगा मुजरत उल्लेख करता.

ह्यावेळार गोवा कोंकणी अकादेमीच्या सगल्या कर्मचाऱ्यांक हांव चड देव बरें करूं म्हणटां!

**अजय सावळ**




# पूर्वप्रसिद्धी

| | | | |
|---|---|---|---|
| 1. | पिसो शशी | सुनापरान्त | 17/08/1997 |
| 2. | भावीण | सुनापरान्त | 14/09/1997 |
| 3. | पैज | सुनापरान्त | 05/10/1997 |
| 4. | एकतर्फी मोग | राष्ट्रमत | 05/10/1997 |
| 5. | प्रायचित | उर्बा, दिवाळी अंक | 1997 |
| 6. | आया | जैत, दिवाळी अंक | 1997/98 |
| 7. | दुर्दशा | राष्ट्रमत | 16/11/1997 |
| 8. | दुभाव | राष्ट्रमत | 07/12/1997 |
| 9. | दुर्दैव | राष्ट्रमत | 01/03/1998 |
| 10. | चूक | सुनापरान्त | 05/07/1998 |
| 11. | बामणाली चली | सुनापरान्त | 19/07/1998 |
| 12. | नशीब | सुनापरान्त | 23/08/1998 |
| 13. | आनी हांव वाट चुकलों! | सुनापरान्त | 20/09/1998 |
| 14. | धा वर्सां | सुनापरान्त | 15/11/1998 |
| 15. | कीड | राष्ट्रमत | 22/11/1998 |
| 16. | चॅलेंज | सुनापरान्त | 29/11/1998 |
| 17. | एकलो एकसुरो | सुनापरान्त | 21/09/2003 |
| 18. | फीट | सुनापरान्त | 12/10/2003 |
| 19. | निर्णय | सुनापरान्त | 16/11/2003 |

# मांडावळ

# आनी हांव वाट चुकलों!

वासूचो फोन आयलो, आयतारा आमगेर यो. अर्जंट काम आसा. हांवें ताका हयकार दिलो. पूण त्या वेळार हांव जो अस्वस्थ जालों, तो आयतार ये मेरेन. म्हाका तागेर वचपाक कितेंच आडखळ नाशिल्ली. पूण वतना कोणूय मामालो शेजारी वाटेर मेळत जाल्यार जो घाय हांव विसरपाचो यत्न करतालों, तो वयर येत म्हूण हांव भितालों. हें चिंतून म्हजी तकली फोडपाक लागली. हांवें ती दोनूय हातांनी घट्ट दामून धरली. तरी फोडपाची कशी थांबना.

आयतारा दिसा हांव सकाळींच उठलों. रातीं हांतरुणाचेर तळमळत जागो उरिल्ल्यान दोळे तांबडेच जाले आनी जेन्ना दोळो लागलो तेन्ना वायट सपनां पडपाक लागलीं. तेन्नाच म्हाका दुबाव मारलो. आज म्हजे जिणेंत व्हडलें वादळ घडपाचें आसा! जी खबर हांव एक वर्स जाली विसरपाचो यत्न करतालो, तीच म्हज्या दोळ्यांमुखार परत परत येवपाक लागली. विचारांक तर कसोच विसव नाशिल्लो. मेंदू जडावल्लो.

तशांतूच हांवें तोंड धुलें. न्हालों बी आनी आंगार कपडे चडोवन स्कुटरीकडेन आयलों. तेन्ना म्हजे पांय कडकडटाले. हांवें स्कूटर भायर काडली आनी ती स्टार्ट मारतनाच आई दारांत येवन केन्ना उबी रावली तें म्हाका कळुंकूच ना. खंय वता सकाळफुडें?

आईन होच प्रस्न म्हाका दोनदां विचारलो. पूण हांव म्हज्याच चिंतनात गुल्ल जाल्ल्यान तो म्हज्या कानां मेरेन पावूंक ना तशें आईन मुखार येवन परत विचारलें. हांवें जाप दिली.

'वासूगेर'.

'कित्याक'?

म्हणून आईन विचारपाक आनी हांवें तिच्या तोंडाक पळोवपाक एकच गांठ पडली. तिच्या तोंडावेले भाव बदल्ले हें म्हाका तेन्ना कळ्ळें.

'कामा आसा'.

'हांव जाप दिवन स्कूटर घेवन वचपाक गेलों. हांव समजलों. आईक अजाप जालें म्हूण ! आनी हांवें स्कूटर नेटान धांवडायली. ती रस्ते, झाडां घरां फाटी उड्यत धांवताली आनी म्हजें विचारचक्र नेटान घुंवतालें. जे खबरीन म्हाका आयुश्यांतल्यान काबार केल्लो, ती खबर म्हाका कालच जाल्लेभशेन दिसपाक लागली. वाटेवेली रस्त्यारच लागपी झाडां येवन म्हजेर पडटात अशें दिसपाक लागलें. रस्तो तर म्हजे भोंवतणी घुंवता अशें दिसपाक लागलें.

आनी हांव वासुल्या गांवांत सांखळे पावलो. थंयच हांव ल्हानाचो व्हड जाल्लों. स्कूल,

कॉलेज शिकिल्लों. खूबशे जाण वळखीचे ते म्हाका हटकिताले. हांव तांकां तकली हालोव जाब दितालों. पूण म्हज्या हांसकुन्या चेऱ्यावेलें हांसप केन्नाच शेणिल्लें.

हांवें स्कुटर मुखार काडली. पूण आयताराचो बाजार भरून गाडयो ब्लॉक जाल्ल्य तेन्ना हांवें सहज म्हूण हारशांत पळयलें. आनी हांव म्हाका पळोवन अजापलों. गोरो र तसोच आशिल्लो. पूण पोले सुकिल्ले. दोळे भितर गेल्ले. केंस पिकल्यात तें लक्षांत येतात तशेंच गुटखाचो परिणाम जावन दांत हळदुवे जाल्ले ते दिसताले. हे पळोवन म्हज्या मनां विचार आयलो की म्हाका हें पंचविसावें वर्स चलता; पूण आतांच हांव पन्नास वर्साच जाण्टो जालां काय? पूण हो विचार हांवें रोखडोच फाफडून उडयलो.

स्कुटर मुखार घेवपाक 'अजीत' म्हूण कोणें तरी मारिल्लो उलो हयन्हयसो कानां पडलो. हांवें फाटीं परतून पळयलें. वळखीचो कोणूच दिश्टी पडूंक ना. आनी इतल्यांत मालती दत्त कशें मुखार हजर आनी ताका पळोवन हांव अजापलों. म्हाका दिसलें, जाच्य मोगाक एक वेळ हांव पिसो जाल्लों... ताचो आवाज हांव कसो वळखूंक ना काय? हांव विचारांत गुल्ल जाल्लों पळोवन मालतीन म्हाका हात लावन जागयलो आनी म्हळें,

'अजीत, कसो आसा तूं?'

ताका जाप दिवचे बदला हांव ताकाच पळयतालों. एक वेळ आपल्या रुपान आनी फ्री वागण्यान स्कूल ते कॉलेजच्या चल्यांक जाणें पिशें केल्लें तें 'ब्युटी क्वीन' मालती हेंच काय? तें लग्न जावन कशेंशेंच दिसतालें. मालतीच्या जाग्यार आतां संवसारी घरकान्न आशिल्ली.

बाजारांतले लोक आमकांच पळयताले. तशे खूबशे जाण आमकां दोगांकूय वळखताले. कारण भुरगेपणांत मोगाचो खेळ आमी ह्याच बाजारांत खेळिल्लीं. पूण तातूंत म्हजी जीत जावंक नाशिल्ली. तितल्यांत मालतीन म्हाका परत हटकिलो. तेन्ना हांवें तोंडार अडेचो हांसो काडून म्हळें,

'बरो आसां. तूं कशें आसा मालती?'

'बरें आसा. ' ताची जाप.

'अजीत, म्हाका तुका कितें तरी विचारपाक जाय आशिल्लें म्हूण हांव तुका मेळपाक सोदतालें.

तें म्हाका कितें विचारपाक सोदता तें हांव समजलों आनी तेन्ना म्हाका सगलो बाजार आरतो – परतो दिसपाक लागलो. बाजारांतले सगले लोक म्हाका बोटां दाखोवन हांसतात अशें दिसपाक लागलें, म्हूण हांवें वळून पळयलें , तर जो – तो आपल्याच वेव्हारांत गुल्ल आशिल्लो.

मागीर हांवें ताका म्हळें,

'आमी हॉटेलांत या. थंय बसून उलोवया'.

तें येवपाक तयार जालें.

आमी दोगांय विराज हॉटेलाच्या वयर माळयेर वचून बसलीं. तें म्हज्या मुखावेल्या कदेलार बसून म्हाका बारीक नियाळटालें. वयर फॅन घुंवतालो. म्हाका दिसलें त्या वाऱ्यान म्हजो मेंदूय घुंवता!

तितल्यांत ताणें म्हज्या दोळ्यांत पळोवन म्हाका विचारलें,

'अजीत, खरें सांग. तूं मामागेर कित्याक येना? कितें जालां तुजें?'

हांव ताच्या ह्या दोळ्यांत विरगळ्ळों. साखर दुधांत विरगळटा तसो. हाचे पयलीं हांव असोच ताच्या दोळ्यांत शेणिल्लों.· तितल्यांत वेटर आयलो. ताणेंच ऑर्डर दिली.

'दोन नॅसकॉफी'.

कांय वेळ असोच गेलो. वेटरान नॅसकॉफी हाडून मुखार दवरल्यो. तें सकयल नदर घालून बोटां कडेन खेळटालें आनी हांव ताका पळयत भुरगेंपण येवजितालों.

घरचे गरीब परिस्थितीक लागून हांव स्कुलाक सांखळे मामागेर आशिल्लों. मालतीची आनी म्हजी वळख थंयच जाली. तें मामाले शेजान्न. दिसातलेंय सोबीतं. उलोवपाकय खूब जाय आशिल्लें ताका. हांवें स्कुलाक पयलो नंबर केन्नाच सोडूंक ना. तें केन्नाय म्हाका डिफिकल्टी विचारपाक येतालें. हांवूय ताका मदत करतालों. ल्हवल्हव आमी लागीं आयलीं आनी कॉलेजाक पावतकच आमी लग्नाचो निच्छेव केल्लो. पूण हांव गरीब जाल्ल्यान ताच्या घरच्यांनी ताका सोयरीगत पळोवन लग्न लावन दिलें.

हांव चिंतनांत गुल्ल जाल्लों. तितल्यांत ताणें म्हाका हटकिलो. 'आरे, कितें चितता? कितें जालां तें म्हाका सांग न्हय!'

जे खबरेक लागून हांव आयुश्यांतल्यान बदनाम जाल्लों ती खबर हरशीं तर हांव कोणाक सांगचों नाशिल्लों. पूण मालतीपांसून हांव तें लिपोवन दवरूंक शकनाशिल्लों. जे खबरीखातीर हांवें चिंतून रातीच्या –राती जागरणां केल्लीं ती खबर म्हज्याच तोंडांतल्यान मालतीक सांगतकूच म्हजी अवस्था कितें जातली, हो विचार म्हज्या मनाक स्पर्शून गेलो. आनी हांवं भावनावश जावन सांगपाक सुरवात केली.

''मालती, मामान म्हाका शिकयलो. पूण म्हजो हेर खर्च आईच करताली. मामागेर फकत हांव जेवतालों. पूण ते बदला हांवें तांच्या शेतांत काम केलां. तांचीं गोरवां घेवन रानांत हेडलां. तो घर बांदतना फातर लेगीत माथ्यार घेतल्यात. ह्याच बाजारांत फुलां विकपाकय बसलां. इतलेंय काम करून हांव कामाक लागलों. त्या वर्सा भयणीचें लग्न जालें. तेन्ना आई घरा एकली उरतली म्हूण हांव घरा आयलों. ज्या – ज्या वेळार मामान आपणाक पयशांची गरज आसा म्हूण म्हजेकडेन पयशे मागले त्या त्या वेळार हांवें ताका ते दिले. हिशोब केन्नाच दवरूंक ना. एकदां म्हाका तीन हजार रुपयांची गरज पडली. घर सारकें करतना हांवें मामाक वचून सांगलें, भयणीच्या लग्नाक हांवें रीण काडलां, तें आनीक स म्हयन्यांनी फारीक जातलें. मागीर हांव परत रीण काडटलों. तेन्ना सद्या म्हाका तीन

हजार रुपयांची गरज आसा. तेन्ना मामान कितेंच म्हणिनासतना म्हाका तीन हजार रुपया दिले.

हे खबरेक दोन म्हयने लेगीत जावंक नात. एक दीस म्हाका कार्यालयांत मामाचो फोन आयलो. आपणाक येवन मेळ म्हूण ! कित्याक आपयला जायत काय हे चिंतीत हांव ताका मेळपाक गेलों. थंय वतकूच ताणें म्हाका सांगलें, ' ह्या म्हयन्यात कशेय पद्धतीन आपणाक पयशे जाय! ' तेन्ना हांवें ताका सांगलें, ' ह्या म्हयन्यांत हांव कशेच दिवंक शकचों ना. आनी चार म्हयने राव!' तो कसोच आयकुपाक तयार नाशिल्लो. हांव अस्वस्थ जावन चिंतीत फाटीं परतलों.

मागीर दोन दीस म्हाका घरा काम आशिल्ल्यान हांव कामाक पावंक ना. तिसऱ्या दिसा कामाक यो तर कार्यालयांत सगले जाण म्हाका पळोवन ल्हव आवाजात कितें तरी फुतफुतताले. पयलीं कितेंच लक्षांत येवंक ना. पूण ल्हव – ल्हव म्हाका सगलें कळ्ळें!

हांव कामाक येवंक नाशिल्लों त्या दिसा मामा खंय कार्यालयांत आयिल्लो. ताणें सगल्या कर्मचाऱ्यांक सांगलें खंय कीं हांवें ताचेकडल्यान धा हजार रुपया जुराक घेतिल्ले आनी ते पयशे दिवपाची हांव खंय याद करना. आनी इतलेंच सांगून तो वगी रावंक ना! हांव खंय सोरो पितां, जुगार खेळटां, गुटखा खातां आनी आवयक पोशिना. तशेंच आनीक कितें कितें! मागीर ताणें भावोजीक फोन करून दुसऱ्या दिसा म्हज्या कार्यालयांत येवपाक सांगलें.

ही खबर हांवें आयकली तेन्ना म्हाका दिसलें, म्हजे तकलेर कोण तरी फातर घालता! वयर फॅन नेटान घुंवतालो. त्या फॅनाबरोबर हांवूय घुंवतां अशें म्हाका दिसपाक लागलें. टायपिंगाचो आवाज आयकुपाक येतालो. म्हाका म्हज्या काळजांतल्यानूच आवाज येता अशें दिसपाक लागलें. सगले जाण म्हाका चोर कसो पळयतात हें लक्षांत येतकूच हांव थंय कदेलीर कोसळ्ळों. जागो जालों तेन्ना भावोजी आनी भयण मुखार उबी आशिल्ली. भयणीचो मायेस्त हात म्हजे तकलेर आशिल्लो. भयणीकडेन पळयतकूच कळटालें कीं राती तें न्हिदूंक ना म्हूण. ताचे दोळे रडून तांबडेच जाल्ले. मागीर भावोजीन ताचे तीन हजार फारीक केले.

मागीर भयण आनी भावोजी म्हाका समजावन वचपाक गेलीं. हांव कामार आयलों तर जे कर्मचारी म्हाका माथ्यार घेवन नाचताले, ते म्हजेलागीं उलोवंक तयार जायना जाले. हांवें त्या पिकासावांत पंदरा दीस रजा घेतली आनी हांव घरा आयलों.''

ही खबर सोपोवन हांवें मालतीक म्हळें, ''जाणा जा! मालती. तेन्नामेरेन हांव सोरो पिवंक नाशिल्लों. केन्नाय पार्टींत बियर घेतालों तितलीच. जुगार खेळपाक इस्पीक तर हांवें हातांत लेगीत घेवंक नाशिल्ली. हांवें ताचेकडल्यान धा हजार जुराक घेवंक नाशिल्ले. फकत तीन हजार मागून घेतिल्ले. मागीर तूंच सांग. ज्या मामाक हांव बापायसमान मानतालों ताणें म्हजे लागीं अशें कित्याखातीर वागचें?''

ही खबर आयकून तें चकासूर जाल्लें, तें ताच्या चेऱ्यावेल्यान कळटालें. हांव मुखार सांगपाक लागलों.

''मागीर हांव अस्वस्थकाय घालोवपाक बार्रांत वचून पिवपाक लागलों. क्लबांत वचून रमी खेळपाक लागलों. तेन्नाच गुटखा लेगीत खावपाक लागलों. आनी पंदरा दीस मेरेन म्हजे दुख्ख मातशें ल्हव जातकच हांव कामार येवपाक भायर सरलों. मामा म्हाका बशींतच मेळ्ळो. म्हणपाक लागलो. 'तुवें आपल्या जुराचे पयशे दिवंक नात. तेन्ना हांवें ताका सांगलें, तुजेकडल्यान हांवें जुराय पयशे घेवृंक नाशिल्ले. तेन्ना तो बशींतूच म्हाका गाळी मारपाक लागलो. बर्शीतले सगले लोक म्हाका हांव गुन्यांवकारी कशे पळयताले. मागीर तो बसस्थानकार देंवन थंयच्या दुकानदारांक ती खबर सांगून पर्थून म्हाका गाळी मारपाक लागलो. मागीर सोसूंक जायना जावन हांवें ताका विचारलें, 'तुजो जूर कितलो?' ताणें सांगलें, म्हयन्याक शंबर रुपया. हांवें पगार घेवन ताका पयशे फारीक केले आनी हांव पश्चात्तापात कार्यालयांत भायर सरून बार्रांत भितर सरलों.

तेन्नाच्यान म्हाका कळ्ळें की मनीस पयशांखातीर कितेंय करता म्हूण! तेन्नाच्यान हांवें म्हजें दूख्ख ल्हव करपाक सोरो, जुगार, गुटखा हीं वेसनां लावन घेतलीं... आनी हांव वाट चुकलों!''

इतलें मालतीक सांगून जातकूच म्हज्यान दोळ्यांतली दुकां आडावंक जायना जालीं. तेन्ना मालतीन म्हाका धीर दिलो. ताणें म्हाका खूब भाशेन समजायलो आनी सगलें विसरून परत सारको वागपाक सांगलें.

तितल्यान वेटरान बील हाडून दिलें तें हावें फारीक केलें आनी आमी वचपाक भायर सरलीं. हांवें स्कूटर स्टार्ट केली. तेन्ना म्हाका तें नदरेनूच सांगतालें,

'अजीत, ह्यामुखार सगलें विसरून सारको वाग'.

तें गेलें. पूण म्हजो भेरेंल्लो मेंदू निवळूंक ना. हांवं बार्रांत भितर सरून बियर मागयली दोन बियरी पोटांत वतकूच तांची कीक चडून म्हजें विचारचक्र सुरू जालें. आनी म्हजें म्हाकाच अजाप जालें. जे मालतीकडेन हांवें आजमेरेन कितेंच फट उलोवंक ना. ताचे लार्गी हांव पयलेच फावट फट उलयलों. तें म्हळ्यार, हांवें सारो, जुगार, गुटखा ही वेसनां घेतलीं म्हूण. हांव तर सोरो केन्नाच पिवंक ना. फकत केन्नाय बियर पिलां.

पूण हांव इतलेच खातीर ताचेलार्गी फट उलयल्लों कीं ताणें वचून तें मामागेर सांगपाक जाय म्हूण!

आनी हांव चिंतनात गुल्ल आसतनाच वासू येवन केन्ना मुखार बसून आनीक बियर ग्लासांत गेली हे म्हाका समजूंकच ना! हांवें परत ग्लास तोंडाक लायलो. म्हाका दिशिल्लें कीं मालतीक जेन्ना हांव ही खबर सांगून सोंपयतलो, तेन्ना हांव पिसो जातलों म्हूण ! पूण आतां तर म्हजो मेंदू शांत जाल्लो. जी खबर विसरून मनाची अस्वस्थकाय उणी करपाचो

यत्न हांव गेल्लें वर्सभर करूंक सोदतालों. ती एके घटकेंतूच ना जाल्ली. कारण, मालतीन म्हाका सांगलेलें, मामाचे चलयेक शोभाक लग्नाक हांवें न्हयकार दिलो. म्हूण मामान खंय म्हजो सूड घेतलो. हांव तरी ताचेवांगडा लग्न कसो जातलों आसलों ? मामाक खबर नाशिल्लें तें त्या नवनाथावांगडा सगल्यांक भोंवतालें तें? ताणें लग्न जायना म्हळें, तेन्ना मामा म्हज्या पायांलागीं आयिल्लो तर...

मुखावेले कितेंय म्हाका कळनासलें. बियर तर आपली जादू करताली. बियरीच्या ग्लासाक पळोवन मात परत परत म्हज्या मनांत एक दिसतालेंच, कितें तरी चुकलेंच... आनी हांव वाट चुकलों!



# चॅलेंज

राम मोहन हो पस्तीस वर्सांचो तरणाटो मूळ मुणगोड कर्नाटकाचो. ताका बापूय आशिल्लो. आवय नाशिल्ली. तशेच व्हडले दोन भावं आशिल्ले. ते गांवांत शेतकाम करताले. तांचीं लग्नांय जाल्लीं.

राम बारावी मेरेन शिकून एके बँकेचे बेंगलोर शाखेत कारकून म्हूण कामाक आशिल्लो. पूण मर्दी–मर्दी केन्नाय ताका झटके येताले. मागीर तो कितेंय उलोवन कोणाय वांगडा झगडत रावतालो.

एक फावट ताचो एक शिक्षक इश्ट ताच्याच स्कुलांतले एके शिक्षिकेकडेन लग्न जालो. थोड्या दिसांनी तो आपले बायलेक घेवन रामाक मेळपाक आयलो. च्या पिवन जातकच त्या इश्टान ताका फकाणांनी म्हळें,

'आतां तू लग्न जा मरे! बँकेंत कोण आंकवार चली ना कितें रे?'

तेन्नाच रामाचें चाळवलें. तो आपल्या इश्टाक खूब कितें–कितें उलोवपाक लागलो. आनी आपूणय बॅकेंतले चलये लागीं लग्न जातलों, ना तर जीव दितलों अशी चॅलेंज ताणें आपल्या इश्टाक दिली. तेन्ना ताचो इश्ट आपूण उलयलों कितें आनी जालें कितें हे चिंतून खूब अस्वस्थ जालो.

रामान चॅलेंज दिली खरी पूण ताचे बेंगलोर शाखेंत कोण आंकवार चली नाशिल्ली, म्हूण ताणें मॅनेजरालागीं आपली बदली करपाक अर्ज दिलो. पूण मॅनेजरान ताचें तें म्हणणें भायर मारलें. मागीर तो बँकेत काम सारकें करना जालो. बेश्टोच झगडत रावतालो. तेन्ना नाईलाजान ताची बदली करून ताका पणजी शाखेंत धाडलो.

तो पणजी शाखेंत येवन कामार रुजू जालो. आनी बांबोळे फ्लॅटार रावपाक लागलो. थंयच रांदून जेवतालो – आनी स्कूटर घेवन तो सद्दां कामाक येतालो. ताचे बँकेत स दादले आनी चार बायलो आशिल्ल्यो. तातूंत एकच शेरॉन म्हूण चली आशिल्लें, तें आंकवार आशिल्लें. तें ताका केन्नाय फकाणांनी घांटी म्हूण चाळयतालें. पूण तो ओगीच रावतालो. पूण ताचें पिशें चाळवतकच ताचे वांगडा झगडत रावतालो.

थोड्या दिसांनी लीना नांवाची चली नव्यानच बँकेंत झाडूवाली म्हूण कामाक लागली. ती आंकवार आशिल्ल्यान राम आपली चॅलेंज खरी करपाखातीर ताचे फाटल्यान फुडल्यान बोवाळपाक लागलो. पूण तें खूब सभ्य आशिल्लें. कामापुरतेंच कोणाय वांगडा उलयतालें. ना तर ओगीच रावतालें. ताणें कामाक लागतकच थोड्या दिसांनी आपणाक

वास्कोसून पणजे येवपाक चड पयस पडटा म्हूण आपली बदली वास्को करची असोअ केल्लो. ताचेर मॅनेजर विचार करतालो. पूण मजगतीं ताचें वास्कोच्याच एका चल्यालागीं ल जालें. ताचें लग्न जातकच राम अदिकूच अस्वस्थ जालो आनी ते भिरकेंत तो कोणावांग उलयना जालो. मोनोसो जालो. तो उलयना हें सगल्यांच्या लक्षांत आयिल्लें. पूण कोणं ताचेकडेन लक्ष दिवंक ना.

एक खेपे बँक बंद जातकच शेरॉन च्या पिवपाक हॉटेलांत गेलें. ताची ती सदचीच संवय बँक बंद जातकच हॉटेलांत वचून च्या पिवपाची. तेन्ना राम हॉटेलांत वचून शेरॉनाच्या मुखा बसलो आनी ताणें ताका म्हळें,

'शेरॉन, आय लव्ह यू!'

तेन्ना तो शेरॉनान ताका म्हळें,

'आरे, म्हजो बॉयफ्रेंड आसा मरे!'

तेन्ना शेरॉनाचेर तापलो.

'तें म्हाका लागना. तूं म्हजे वांगडा लग्न जावंकच जाय.' तेन्ना शेरॉनाक राग आयलो. ताणें रागान म्हळें,

'तुजे सारक्या घांट्यावांगडा हांव काजार जातलें रे? हांव गोंयकार मरे!'

इतलें सांगून शेरॉन थंयसरलें उठून गेलें.

ताका शेरॉनान घांटी म्हळो म्हूण खूब राग आयलो.

रातचो न्हिदला थंय ताच्या दोळ्यांमुखार परत- परत हेंच येतालें - आनी तो अस्वस्थ जातालो.

दुसऱ्या दिसा बँकेंत येतकच ताका बापायचें पत्र मेळ्ळें ताचेर ताणें बरयल्लें, आपूण खूब बरो ना. चड तेंप काडपाचो ना. तेन्ना आपूण जितो आसतना तुजें लग्न करपाखातीर एक चली पयळल्या. तूं लग्नाखातीर रजा घेवन बेगीन गांवांत यो. तें पत्र वाचून ताणें ते भिरकेसरशीं लग्नाखातीर म्हूण रजा मागली.

ताणें लग्नाखातीर मागिल्ली रजा पळोवन मॅनेजरान ताका आपल्या कॅबिनांत आफोवन परबीं दिलीं. तशेंच सगल्या कर्मचाऱ्यांनी परबीं दिलीं. तेन्ना ताणें निर्विकार मनान तीं स्विकारलीं. पूण भितरल्यान ताका उमेद नाशिल्ली.

आज शुक्रार, फाल्यां शेनवार, महाशिवरात्रेची सुटी. परां आयतार. सोमारच्यान राम लग्नाखातीर रजेर आशिल्लो. आज ताचो बँकेंत निमाणो दिस म्हूण तो चडच अस्वस्थ जालो.

त्या दिसा सदचेसारकी वेळार बँक उक्ती जाली. राम भितर सरतना दारांतच ताका रगताचें इल्लेंशें कोण दिसलें. आसतलें कोणाचे तरी सुण्या - माजराचे! कोणेंय जखमी केल्लें तें भोंवलें आसतलें हेवाटेन म्हण पयलीं ताचेकडेन ताणें दुर्लक्ष केलें पूण नकळत ताची

नदर फाटीं वळूंक लागली आनी दोळ्यांत एक वेगळीच  चकचकी भरली.

तो तसोच बँकेंत भितर सरलो. सदचे भाशेन काम सुरू जालें. दोन दीस सुटी आशिल्ल्यान बँकेत खूब गर्दी आशिल्ली. सगले जाण भराभर काम करताले. पूण रामाचें मात पेनच चलनाशिल्लें. ताच्या सभावाक लागून ताका कोणेंच कांय म्हळें ना.

अकरा वरां जाल्लीं. सदांच तांची च्या अकरांक येताली. सदचे सारकें लीना च्या घेवन आयलें.  रामाक च्या दितना ताच्या हातांतलें कपच सुटून रामाच्या आंगार पडलें. तेन्ना लीनान ताका सॉरी म्हळें. पूण रामाचे दोळे मात इंगळे कशे जाल्ले.

त्याच दिसा घड्याळीचो कांटो ज्युस्त दोनांचेर पावनाफुडें कॅशियरान कॅश-बूक बंद केलो. शिपायान वचून बँकेचें मुखेल दार बंद केलें आनी सगले जाण आपल्या मेजांचेर जेवणाची तयारी करपाक लागले. राम जेवपाक भायर गेलो. वतना तो बँकेच्या फाटल्या दारान भायर गेल्लो.

हांगा सगल्यांनी जेवणाक सुरवात केली. मॅनेजरय जेवण हाडटालो. तो आपल्या कॅबिनांत बसून जेवतालो. सगल्यांचें हांसत, फकाणां करीत जेवण चलिल्लें.

राम जेवपाक वतना वाटेर चिंततालो, 'आयज आपूण जीव दितलों. पूण एकटो न्ही. आपले वांगडा शेरॉनाक व्हरतलों!'

हें चिंतून तो हॉटेलाच्या दारांतल्यान फाटीं परतलो. ताच्या मनांत आतां एक वेगळोच विचार घोळूंक लागलो. तेन्नाच ताका थंय लागींच शिंयाळीं विकपी भुरगो दिसलो. ताका ताणें ५० रुपया  दिवन ताचेकडेन कोयतो मागलो  आनी ताका सांगलें, 'पंदरा मिण्टांनी परत हाडून दितां'. तो मनीस ताका येतना -वतना पळयतालो. तशेंच ५० रुपया पळोवन तो भुल्लो. ताणें ताका कोयतो दिलो.

राम कोयतो हातांत घेवन बँकेच्या फाटल्या दारांतल्यान भितर सरलो. तेन्नाच शेरॉन जेवणाचो ड्बो घेवन धुवपाक बेसीनालागीं वतालें. रामान तीच संद सादून शेरॉनाचेर  कोयत्यान घाव घालो. शेरॉनाक कितें जाता ताची कल्पना  आयली. ताणें ताका आशिल्ल्या नाशिल्ल्या फोर्सान धुकलून उडोवन पळ काडलो. ते लटाफटीचो आवाज कानार पडटांच  कितें घडलां तें पळोवपाक लीना थंय पावलें. लीनाक थंय पळयतांच रामाच्या उज्यांत तेल पडलें. आनी लीनाक कितें घडटा तें समजुचे पयलींच ताणें ताचे गोमटेर कोयत्यान सपासप घाव घाले. रगताची धार शिंवरली आनी लीनाचें धड आनी तकली वेगळी जावन जमनीर पडलीं.

जेवपाक बशिल्ले हेर कर्मचारी त्या आवाजान आपलीं  ताटां  सोडून त्या जाग्यार पाविल्ले आनी ते चकासूर जावन पळयतच  उरिल्ले.  राम हातांत रगत गळटलो कोयतो  घेवन आजूनय उबो आशिल्लो. पूण मुखार वचून ताका धरपाचें धाडस कोणाक जायना जालें.

दोन-चार मिण्टां अशींच गेलीं. रामान हांतातलो कोयतो थंयच उडोवन फाटल्या दारान धांव मारली. ताचे फाटोफाट फाटले बांयंतल्यान धब्ब करून व्हडल्यान आवाज जालो.

येदोळ म्हळ्यार मॅनेजर भानार आयिल्लो. ताणें पुलीस स्टेशनार फोन करून ही ख
कळयली. पंदरा –वीस मिण्टांभितर पुलिसांची जीप आयली.

पुलीस पंचनामो करूंक लागले. एका न्हय; दोन मड्यांचो. एक रगताच्या कोंडांत पडि
लीनाचे कुडीचो आनी दुसरो बांयंतल्यान वयर काडिल्ल्या रामाच्या प्रेताचो....

# भावीण

सकाळचीं आठ वरां जाल्लीं. नानाच्या हॉटेलांत नित्याचे लोक दिसूंक लागिल्ले तितल्यांत धुल्ल उबयत हॉटेलामुखार एक स्कुटर येवन थारली. स्कुटरीवेलो गोरोच तरणाटो स्कूटर स्टॅन्डाचेर काडून भितर सरलो आनी ताणें नानाक भाजी हाडपाक सांगलें. नाना ताका वळखूंक नाशिल्ल्यान नवेंच गिरायक आयिल्लेवरी अजापान पळयतच भितर गेलो आनी ताणें ताका भाजी हाडून दिली. तरणाटो हुनहुनीत पातळ भाजी आनी उंडो व्हडा रुचीन खावपाक बसलो. हॉटेलांत बशिल्ले सगले जाण ताका अजापान पळयताले. तो मात मनांतल्या मनांत हांसतालो. कारण ते ताका वळखले नात तरी तो तांकां सगल्यांक वळखतालो.

पांच वर्सांनी तो गांवांत आयिल्लो पूण गांवांत कांय एक बदल जावंक नाशिल्लो. बदललेलें फकत नानाचें हॉटेल. मल्लांच्या जाग्यार गांवठी नळे आयिल्ले. मातयेच्या चिडुल्यांनी तें बांदलेलें.

तितल्यांन नानान म्हळें, 'खंयचो बाबा तूं' ?

'नाना, तुमी वळखूंक ना म्हाका?' त्या तरणाट्यान विचारलें.

नानान मानेनच न्हयकार दिलो.

तो तरणाटो मुखार उलोवपाक लागलो.

'पांच वर्साफाटीं तुज्या हॉटेलांत कपबशो धुवपी सकयल्या वाड्यावयलो संजय हांव'.

'संजय रे?' नानान अजापान म्हळें.

'खंय आशिल्लो तर तूं इतले दीस? ' नानाचो फुडलो प्रश्न.

'दुबय आशिल्लों. आठ दीस जाले येवन. इश्टागेर पणजे आशिल्लों. कालच गावांत आयलां. संजयाची जाप.

ताचें उलोवप आयकतना सगळे जाण कशें काय दुबावान तांका पळयतालें! खोंपटांत रावपी हो गरीब भुरगो 'जंटलमॅन' जावन पांच वर्सांनी गांवांत आयला हाचें तांकां अजाप दिसतालें.

संजय च्याचें बील फारीक करून भायर सरलो तर विश्वास गाडेकार आपलें तंबाखूचें सूप घेवन विडयो वळीत एके काशीर बशिल्लो ताणें पळयलो. सट् करून पांच वर्साफाटली याद जागी जाली. गांवांत आपली बदनामी करपाक त्या वेळार विश्वास गाडेकार मुखार आशिल्लो. हें येवजना फुडें विश्वासाक तिरस्कारान पळयत तो स्कूटर घेवन वयर

देवळाकडेन वचपाक गेलो.

स्कूटर त्या खेडेगांवांत केन्नाय चुकूनच येताली! देखून सगले जाण ते स्कुटरीक आनी संजयाक भौमानान पळयताले. तशी त्या गांवांत स्कूटर कोणालागींच नाशिल्ली. आनी घडये तांकां खबर लेगीत नाशिल्लें कीं हो तरणाटो आपल्याच गांवचो म्हूण.

तो देवळांत वचपाक भितर सरलो तेन्ना आंगणांत एक चली सान्न मारताली ताका दिसली. रस्त्याकुशीकच उबे रावन कांय तरणाटे ' पोजड्या उतरांनी ते चलयेचीं फकांणा मारताले, तेंवूय ताचे नदरेंतल्यान सुटलें ना. ताणें बारीकसाणेन ते चलयेक पळयलें. सुनिता! हय! सुनिताच तें. तो तसोच मुखार येवन सुनिताच्या फुड्यांत उबो रावलो. मात्त ताच्या चेऱ्यावयल्यान कळटालें कीं तें ताका वळखूंक ना. वळखतलें तरी कशें? दोळ्यांक गॉगल, पायांत बूट, अप-टू-डेट इस्त्री केल्लो भेस, गळ्यांत चेन, हातांत मास्कोत घालून तो जशी काय आपली श्रीमंती दाखयतालो.

'सुनिता, वळखूंक ना म्हाका ?'

संजयान विचारलें.

ताणें मानेनच न्हंयकार दिलो.

'हांव संजय'!

'संजय' हें नांव कानांर पडनाफुडें तें सान्न घेवन देवळांत धांवलें.

तो तसोच सुन्न मनान भायर सरलो. ताचें लक्ष अगरशाळेंत गेलें. तर सगले जाण ताकाच पळयताले. तितल्यांत ताचें लक्ष सुमो जाण्टेल्याचेर गेलें. तो एक खांब्याक तेंकून विडी ओडपांत गुल्ल आशिल्लो. कोनशाक इस्पिकांचो खेम रगंलेलो. सुमो जाण्टेलो ताच्या बापायचो खास इश्ट आशिल्लो. केन्नाय तो ताच्या बापायबरोबर तागेर येतालो.

संजय ताचेमुखार गेलो.

'आज्या, वळखता?' संजयान विचारलें.

'ना'. जाण्टेल्याची जाप.

'हांव जयरामालो चलो'.

तें आयकून सुमो जाण्टेलो उठून ताका घट्ट धरीत म्हणपाक लागलो,

'पुता, कसो आसा? आई वाट पळोवन-पळोवन तुजे चिंतेन हाथरुणार पडून निमाणी गेली! शेवटाक तर सारकी तुजीच याद काडटाली.'

जाण्टेल्यान दोळे पुसले.

ताकाय दुकां आडावप शक्य जालें ना. ताणें लेंस काडून दोळे पुसले आनी बोल्सांत हात घालून पन्नास रुपयांची एक नोट जाण्टेल्याच्या हातार दवरली. तेन्ना सगले जाण महात्मा गांधीजीचें चित्र आशिल्ले । नोटीक पळयताले. तो वचपाक स्कुटरीर बसलो तेन्ना सगले जाण ताका पळोवन एकामेकांकडेन कितें तरी उलयताले. तो जाणा आशिल्लो की तें

सगले आपल्योच खबरी करतात.

तो तसोच स्कुटर घेवन दर्यार गेलो, सुरीच्या झाडामुळांत थंड वातावरणांत बसून सिगरेट फुस्कावपाक लागलो. सिगरेट फुस्कयतना तो ल्हान जावन केन्ना फाटलें येवजुपाक लागलो तें ताका कळ्ळेंच ना!

संजयाक याद जाली ते प्रमाणे तो तेन्ना स वर्साचो आशिल्लो. ताचो बापूय खूब सोरो पितालो. आवय भाटकारागेर काम करून ताचें उरिल्लें जेवण हाडून ताका वाडटाली. तर ताचो बापूय आईक एक सारको सतायतालो, मारतालो. आई सांग ते प्रमाण तों खंय आपल्या आवय-बापायक खूब मारतालो. ल्हान आसतना तो खूब मस्ती करी म्हूण संजयाचो आजो ताका खूब मारतालो. आनी तो राग तो मागिर आवय- बापायचेक मारून काडटलो. असोच सोरो पिवन ताचो बापूय एक दीस रस्त्यार पडून मेलो. तेन्ना वचत थंय ताका लोकांचे थोमणे आयकुचे पडले.

तो तेन्ना सातवेक आशिल्लो. शाळा शिकतां शिकतां नानाच्या हॉटेलार काम करून तो आवयक थोडो आदार करतालो. माली भावणीचें चली सुनिता ताच्याच वर्गात शिकतालें. तें दिसपाक सुंदर दिसतालें. संजय एकलोच ताचे बरोबर मोगान वागतालो. ह्याच कारणान तीं दोगांय लागीं आयलीं आनी केन्ना मोगांत पडलीं तें कळुंकूच ना. तेन्ना तांच्यांत लग्नां करिनाशिल्ले. देवस्थानाचे म्हाजन तांकां 'दवरून' घेताले. देवळाचो पुजारी नाजाल्यार गांवचे कोणय आपली गरज भागयताले. तांचो सगलो खर्च त्या दवरून घेतलेल्यांनी चड करून देवस्थानाकडेन संबंदीत आशिल्ल्यांनी करपाचो म्हूण तांकां देवळाची सान्न म्हणटाले.

संजयान आनी सुनितान मात दोंगरावेल्या कालिकेच्या मोडक्या देवळांत लग्नाचो सोपूत घेवन तसो निश्चेव केल्लो. म्हूण ताका गांवांत खूब मनस्ताप सोंसचो पडलो. देवळाकडसून वयर सरलो की अशीर पाळणींतली वाट काडून आंबुल्ल्यांचीं झाडां मेळटालीं थंय 'आमुल्ल्यांनी' म्हणटाले, भावणीचो वाडो थंयच आशिल्लो.

एक दीस तो आनी सुनिता दोंगरार वचून वडाच्या रुखा म्हऱ्यांत फुडाराचीं सपनां पळयत बाशिल्लीं. एकामेकांचे हात हातांत घेवन तीं उलयतालीं. उलयतां-उलयतां केन्ना रात जाली तें तांकां कळुंकूच ना. अकस्मात संजयान धीर करून सुनिताच्या पोल्यार ओंठ दवरले.

'हें कितें?' तें पुटपुटलें....

पूण तो ताचें आयकुपाचे मनस्थितींत नासलो ताणें एकदम ताका लागीं ओडलें आनी सुनिताच्या आंगावेल्यान ताचो हात भोंवता-भोंवता रगत तापून तीं तरणाटीं केन्ना एक जालीं तें तांकां कळ्ळेंच ना! तीं रंगांत आयिल्लीं, इतल्यांत....

रात जाली तरी सुनिता घरा येवंक ना म्हूण ताची आवय हुस्को करताली. तितल्यांत विश्वास गाडेकार थंय पावलो. विश्वास गाडेकारान माली भावणीक दवरल्या अशें लोक

उलयताले. तिणें सुनिताक सोदपाक म्हण ताका धाडलो. एकल्यान संजय आनी सुनिताक वयर वतना पळयल्लीं. ताचे सांगणेक लागून तो वयर गेलो. ताचेर नदर पडना फुडें सुनिताक थंयच दवरून संजय पळून गेल्लो.

उपरांत ह्या प्रकरणाक लागून विश्वास गाडेकारान गांवांत ताची खूब बदनामी केल्ली, अशें ताका मागीर कळिल्लें. संजय पळून पणजे पावलो. थंय एका हॉटेलांत कपबशी काडपाचें काम करुन थोडे पयशे जमोवन तो मुंबय गेलो. थंय ताका इश्ट मेळ्ळो. ताणें ताका दुबय व्हेलो. थंय पांच वर्सा रावन खूब पयशे कमावन संजय पणजे एका इश्टागेर रावून स्कुटर घेवन काल गांवांत पाविल्लो.

मनांत आशिल्लें कीं नवे घर बांदून सुनिता बरोबर लग्न जावन, आवयक सुखांत दवरतलों. देखुनूच तो गांवांत आयिल्लो. पूण ह्या पांच वर्सांत तो बदललेलो तसो गांवूय बदलतलो हें ताणें चिंतकूच नाशिल्लें. तो घरा पावलो, तेन्ना घर पुराय मोडून काबार जाल्लें. शेजाऱ्यांनी सांगलें कीं ताचो हुस्को काडून आवय मेली!

हें आयकून ताका खूब वायट दिसलें. मोडक्या घराक पळयत आवयची याद काडून तो खूब रडलो. खरें तर ह्या खिणांत ताका आपुलकाय जाय आशिल्ली पूण ती कोणेंच दिवंक ना. शेजाऱ्यांच्या हिसबान कामांतल्यान गेल्लो संजय मात पयलींचोच संजय आशिल्लो.

आतां देवळांत सान्न मारतल्या सुनिताक पळोवन गांवांतले बेकार तरणाटे रस्त्यार पानां खायत उबे रावन ताचीं फकाणां मारताले. एकल्यान ताका पळोवन म्हळें लेगीत,

'सुनिताक नवें गिरायक येयलां'.....

.... दर्यार बसून हें चिंतून ताचो मेंदू जडावलो. तो तसोच उठलो, लागसरच्या बारांत भितर सरलो. ग्लासार ग्लास रिते करपाक लागलो.

ताच्या दोळ्यांमुखार मात्त परतें परतें सुनिता येतालें.

सुनिता ! पूण तें पयलींचे संजयाचें सुनिता न्हय. सुनिता आतां भावीण जालां.

चिंतता चिंतता संजय पुरायेन बेब्दो जावपाक पाविल्लो!!

# कीड

तोमास परेरा सरकारच्या भौशीक बांधकाम खात्यांत ड्रायव्हर म्हूण कामाक आशिल्लो. ताचें घर कुळ्यां तर कार्यालय सावड्डें -आशिल्लें. ताका घरचें शेत, काजी खूब आशिल्ल्यो. उंच, गोरोय पूण जिवान बारीक असो हो तिशेक वर्साचो तरणाटो फोंडेचे एके चलयेलागी मोगांत पडून काजार जाल्लो. तिचें नांव रोजी. तें घरचेंच काम करतालें. तशेंच सभावानूय बरें आशिल्लें. तांचो दोगायचो संवसार बरो चलतालो. तांकां दोन चलेय आशिल्ले.

अशा तांच्या सुखाच्या संवसाराक एक दीस कीड लागली. जालें अशें.

रोजीची शाळेतली एक इश्टीण दुबय आशिल्ली. चार वर्सांनी अंदूय ती गोंया आयिल्ली. ती रोजीचें घर सोदीत ताका मेळपाक तांगेर आयली आनी वतना आपणाक थंय कितलो पगार मेळटा, आपलेकडेन वस्तू कितें कितें आसात, बँकेंत कितलो बॅलन्स आसा हाची छांप रोजीचेर मारून गेली. रोजी ताची श्रीमंती पळोवन भुल्लुसलें. इतले दीस ताका दिसतालें, आपूण सरकारी नोकराची घरकान्न, म्हणजे भाग्यवान म्हूण. आता तें विचार करपाक लागलें. हांगा गोंयां वर्सभर काम केल्लो पगार थंय एका म्हयन्याक घेवंकयेता हें चिंतून ताणें एक दीस तॉमासाक सांगलें,

''जाणा तॉमास, हांव दुबय वचपाचो विचार करतालें. थंय दोन वर्साच काम केल्यार पुरो. मागीर आमी बंगलो बांदुंया, गाडी घेवंया आनी सुशेगाद रावया.'' मागीर ताणें ताका आपले ते इश्टिणीची खबर सांगली.

तॉमास चिंतपाक पडलो. हांगा पयशांचो सदांच दुकळ. हे म्हारगायेन दीस काडटा म्हळ्यार जीव नाकापुरो जाता. रोजी दुबय गेल्यार परिस्थिती सुदारून घरांत चार नव्यो वस्ती हाडपाक मेळटल्यो. हें चिंतून ताणें रोजीक दुबय वचपाक मान्यताय दिली.

रोजीन पणजे वचून पासपोर्ट केलो आनी एजंटाक घट्ट धरून ताका व्हीसाय आयली. एक दीस ते मुंबय वचून मेडिकल चेकअप बी करून दुबय वचपाच्या विमानांत बसले.

रोजी दुबय गेलें आनी तॉमास रोजीची याद काडून पयलीं थोडें दीस खूब अस्वस्थ जालो. उपरांत हळू हळू सगलें जाग्यार पडलें. रोजी ताका म्हयन्या म्हयन्याक पयशे आनी पत्रां धाडटालें. आता तांचें बरें चलिल्लें. तॉमासलेगीत ताच्या पत्रांक जाप दितालो. करतां करतां रोजीक दुबय गेल्यार एक वर्स जायत आयलें.

एक दीस तॉमास स्कुटर घेवन सावड्डेंच्यान कुळ्या वतालो. तो शिरोड्या पावला मात

मळब काळंकिट्ट जावन वारो फुटपाक लागलो. तो समजलो, आता पावस येतलो म्हूण. तितल्यांत पावसाची एक मोटी दंडक येवन तो भिजलो. ताणें स्कूटर थारोवन डिकी उगडून रेनकोट घातलो आनी स्कुटरीचो एक्सेलेटर दांबलो मात, मुखार एका घरा आडोशाक कुडकुडत उबे आशिल्ले एके चलयेन ताका हात दाखोवन लिफ्ट मागली. तो ताका पळयत रावलो. तिणे जीन पॅन्ट आनी टी शर्ट घातिल्लें. तें काळेंच आशिल्लें, पूण पळोवंक मात बरें दिसतालें. सत्री नाशिल्ल्यान पावसांत सगलें भिजून तें कुडकुडटालें. ताका ताची काकुळट आयली. ताका स्कूटरीर बसोवन तो वचपाक गेलो. स्कूटर रस्त्यावेल्यान फास्ट धांवताली. त्या वाऱ्यान ते चलयेक शीं खावपाक लागली आनी तें टॉमासाक तेकून बसलें. ताची छाती टॉमासाक तेकली आनी ऊब मेळटकच तो सुखावलो. टॉमासाकय तेंच जाय आशिल्लें. रोजी दुबय गेल्यार खूब दीस जाल्ले आनी ह्या दिसांनी ताका रोजीची खूब याद येताली.

वाटेर टॉमासान ताका विचारलें, ' तुजें नांव कितें? आनी तूं खंय वता?'

ताणें सांगलें, म्हजें नांव लुसी. हांव गोंयचें, पूण आमी सगली मुंबयच स्थायिक जाल्यां. अंदूच हांवें बारावेची परिक्षा दिल्या. आनी सुटयेंत हांव बाणावले अंकलागेर आयिल्लें. आज हांव हांगा शिरोड्या एके इश्टिणीक मेळपाक आयिल्लें. वाटेर पावस लागून सत्री नाशिल्ल्यान सगलें भिजलें.'

टॉमासान ताची सगली खबर आयकली. तेन्ना रातचीं सात वरां जाल्लीं. आतां तें अंकलागेर पावचें नाशिल्लें म्हूण ताका घेवन तो आपल्याच घरा गेलो. ताका आपले कपडे घालपाक दिले. ते रातचे लुसी तागेरच रावलें.

हांगाच तांची इश्टागत जावन ती वाडत वचून तीं आता सदांच मेळपाक लागलीं. तें परत मुंबय वचूंकच ना. बाणावले अंकलागेर रावपाक लागलें. रोजी दुबय गेल्ल्याक टॉमासाच्या आयुश्यांत जी एक पोकळी निर्माण जाल्ली ती लुसी भरून काडटालें. केन्नाय टॉमास ताका घेवन घरा येतालो. चडशीं तीं भायरच मेळून सिनेमा तियात्राक वतालीं.

दोन वर्सां सोंपलीं. रोजी आपलो कॉंट्रेक्ट सोंपोवन दुबयच्यान गोंयां आयलें. तेन्ना टॉमासान ताका कितेंच खबर कळोवंक दिवंक ना! आनी घर बादता म्हण सागून, तें घेवन आयिल्ले ते पयशे आपल्या नांवार स्टेट बँकेंत दवरले.

रोजी परत दुबय गेलें तेन्ना तो लुसीक घेवन फिरपाक लागलो. आतां तर ते सदांच तागेर येतालो. मांयन कितेंय विचारल्यार तो तिचेर तापतालो म्हूण ती बापडी तोंड धापून वोग्गी रावताली. भुरग्यांक कितेंच कळनाशिल्ल्यान ती लुसीक 'आन्टी' म्हूण पाचारतालीं.

एक दीस टॉमासान खटपट करून लुसीक नोकरेचो कॉल काडलो. एजंटाक १०००० /– रुपया दिवपाक जाय आशिल्ले, तेन्ना टॉमासान रोजीन दुबयसाकून घर बांदपाक म्हूण धाडलेले पयशे थंय भरून ताका कामाक लायलें. आनी उपरांत दोगांयनी काजार जावपाचो निश्चेव केलो. तशें लुसी आपलें सगलें सामान घेवन टॉमासागेरच रावपाक आयलें.

हें सगलें पळोवन रोजीच्या भावान दुबय चीट बरोवन रोजीक सगलें कळयलें आनी ताका थंयचें काम सोडून गोंयां येवपाक सांगलें. ती चीट वाचून रोजीक सामको शॉक बसलो. आनी आपूण दुयेंत आसां म्हूण आपल्या पात्रांवाक सांगून सोमतेंच गोंयां येवपाक भायर सरलें.

वाटेर विमानात तें चिंततालें. आपूण पयशे करपाक दुबय आयलें आनी थंय गोंयां लुसी नांवाची कीड आपल्या संवसाराक लागली म्हूण. रोजी घरा आयलें पूण तॉमासाचे वागणुकेक कितेंच फरक पडूंक ना. तो पयलीसारको ताचेबरोबर वागना जालो. लुसीकच वांगडा घेवन गांवभर हेडटालो. हें पळोवन फाटल्यान लोक तांची टींगल मारताले. पूण तांचे तांकां कितेंच पडूंक नाशिल्लें. रोजी घरा येतकच लेगीत लुसी तांगेरूच रावतालें. आतां तॉमास जायते फावट रातचो सोरो पिवन येतालो आनी कितेंय निमित्त काडून रोजीच्या आंगार हात लेगीत घालतालो. करतां करतां तें सदचेंच जावंक लागलें.

निमाणें हे सगलें सोसूंक जायना जावन रोजी दोगय चल्यांक आपल्यावांगडा घेवन मायंगेर गेलें.

वतना तॉमासान ताका ताचे पयलींचे पयशे लेगीत दिवंक नात.

रोजी गेलें तशी राजरोस तोमास आनी लुसी घोव - बायल कशीं रावंक लागलीं. तें पळोवन लोकांक अजाप दिसतालें. तॉमास हो पस्तीस वर्सांचो दादलो तर लुसी वीस वर्सांची कवळी चली. शिवाय बारावी शिकून सरकारी नोकरी करपी एका काजारी ड्रायव्हरावांगडा भोंवता!

थोड्या दिसांनी तॉमास आनी 'लुसी इगर्जेंत वचून पाद्रीची परवानगी घेवन काजार जाल्लीं. तेन्ना तॉमासाच्या मांयक हें आवडूंक ना. पूण ती बापडी कितें करतली आशिल्ली.? तर लुसीची मांय-पाय तांचेर बेजार जाल्लीं.

हांगा रोजीच्या भावाचो एक श्रीमंत इश्ट ताची घरकान्न कॅन्सर जावन अंदूच भायर पडलेली. ताका भुरगीं नाशिल्ल्यान तो रोजीबरोबर काजार जाल्लो रोजीक भुरग्यांसकट घेवन ती तांगेरच रावन सुखाचो संवसार करपाक लागले.

तर हांगा तॉमासाच्या आनी लुसीच्या संवसाराक कीड लागून ती वाडत वचपाक लागलीं.

कोर्टामुखार गार्डनांत दनपारचो वेळ. कोर्ट दर्यालागसारच आशिल्ल्यान वातावरण थंड आशिल्लें. तर कोर्टात काम करपी दोन कर्मचारी दनपारचें जेवन घेवन चकाटां मारताले. तांच्या उलोवपाचो विशय आशिल्लो, तॉमास आनी लुसी. एक आंकवार चली आनी काजारी तरणाटो. तितल्यांत कॅन्टीनांतल्यान जेवन लुसी गार्डनांत येतालें हें पळोवन तांच्यांतल्या एकल्यान लुसीचेर कॉमेंट मारलो.

''जाणा आग्नेल, सरकारी नोकरी करपी एक आंकवार चली एका काजारी तरणाट्याच्या

संवसाराक 'कीड' लागल्या हो विशय घेवन आमच्या व्हडल्या इगर्जेच्या फेस्तांत हांव तियात्र करपाक सोदता.''

हें आयकून तें अस्वस्थ जावन फाटल्याफार्टी परतून कार्यालयांत गेलें. ते मेजाचेर तकली दवरून चिंततालें, खरेंच आपलें चुकलें काय? हो विचार करून ताका आतां ताच्या वयाची याद जावपाक लागली. आनी तें तेन्नाच्यान तॉमासाबरोबर तिरस्कारान वागपाक लागलें.

ह्यात दिसांनी ताच्या आयुश्यांत गीरगोल नांवाचो चलो आयलो. तो कोर्टालागसारच एके खाजगी कंपनींत कामाक आशिल्लो. लार्गी आशिल्ल्यान तीं सदांच मेळटालीं.

एक दीस तॉमासाक ताच्या इश्टान बार्रार पिवपाक बशिल्लेकडेन ॲटम बॉम्ब फोडचो तसो ही खबर सांगली. आयकून तॉमासाक राग आयलो. तो रागान खूब सोरो पिवन घरा येवन चिंतपाक लागलो. आपणें लुसीखातीर कितें म्हूण करूंक ना? म्हजे घरकान्नीक सोडली. ५०,०००/- हजार रुपया भरून सरकारी कामाक लायलें.

तेन्नाच्यान सदांच तांचीं झगडी जावपाक लागलीं. तॉमासय आता व्हीस्की सदांच पिवपाक लागलो.

एक दीस तर तातूंत चड भर पडली. रातचीं इकरा वरां जाल्लीं. लुसी घरा येवंक ना म्हूण तॉमास चिंतीत गॅलरींत व्हीस्की पिवपाक बशिल्लो. तेन्नाच गिरगोलाचे मोटारीचेर बसून लुसी आयलें. तें खूब बीअर पिल्लें हें ताच्या तोंडाक येतल्या वासावयल्यान कळटालें. ताका कपड्याचें लेगीत भान नाशिल्लें. गीरगोल ताका घट्ट धरून घरांत घेवन आयलो. हे पळोवन तॉमास रागान तांबडो जावन लुसीक मारपाक गेलो. तेन्ना लुसी तॉमासाबरोबर झगडून गीरगोलावांगडा वचून तागेरच रावपाक लागलें.

आतां तॉमास खूब सोरो पिवन रस्त्यार पडटालो. कोणय विचारल्यार सांगतालो, रोजीक आपणें फटयलां, ताची जेजून ही ख्यास्त दिल्या म्हूण!

तो सारको काम करना म्हूण कारण दिवन कार्यालयान ताका नोकरेंतल्यान बडतर्फ केलो. असोच सोरो पिवन एक दीस तॉमास रस्त्यार पडून मेलो तेन्ना ताची निर्जिव कुडीक पळोवन ताची मांय तोंडान बडबडटाली.

आपल्या भांगरासारक्या पुताक लुसी नांवाचे किडीन काबार केलो म्हूण लुसीक खेपताली.

तेवटेन रोजी आनी लुसी सुखान दीस सारतालीं. तर तॉमास आपलेच चुकीन ह्या संवसाराक अंतरलेलो.

■

# एकतर्फी मोग

हांव कार्यालयाच्या कामाक तीन दीस फोंडें गेल्लो. थंय आनीकय कार्यालयाचे लोक आशिल्ले. आमची संस्था आनी गोंयच्यों कांय सांस्कृतीक संस्था एकठांय येवन एक कार्यावळ थारायिल्ली. तांतुमदी --- संस्थेंत काम करपी रेश्मा नांवाची चली. नांवांवरी चकचकीत दोळे हांसतना गालाक खळके पडटाल्यो. धवे दांत चकचकताले. पंजाबी ड्रेसाचेर फुडल्यान घेतिल्ले लांब केंस तिचे छातयेवेल्यान देंवन दिमयांमेरेन पाविल्ले. म्हजी नदर तिचेर गेली आनी हांव तिका पळेतच उरलों. तिच्या लक्षांत तें येताच लजेवन तिणेंय नदर सकयल केली. हांव तिजें तें रूप दोळ्यांत सांठोवपाचो प्रयत्न करूंक लागलों.

तिचेविशीं जाणून घेवपाची म्हाका उमळशीक लागिल्ली. हांवें तांच्या ड्रायवराक तिचें नांव विचारलें, तेन्ना तो म्हणपाक लागलो, 'तिचें नांव रेश्मा, ती चड उलोवपी न्हय तिची सोयरीक जाल्या आनी थोड्याच दिसांनी लग्न आसा. हे आयकून हांव मात्सो नर्व्हस जालों. पूण धीर सोडूंक ना. म्हाका तिच्यालागीं कशेय भाशेन वळख करपाक जाय आसली.

ते संदीक देवादयेन वेळ काडचो पडूंक ना. योगायोगान ती संद त्याच दिसा सांजेची आयली. तिचे वांगडा आनीक एक चली आसली. ती आपणाक निमाणी बस पांचांक म्हूण चारांकच वचपाक गेली. विक्रीच्या विभागांत हांव आनी रेश्मा दोगांच उरलीं. ती तिच्या काऊंटरार , हांव म्हज्या काउंटरार! बरोच वेळ गेलो, शेवटाक हांवें तकली लडयली आनी कितेंतरी उलोवपाक निमित्त जाय म्हूण म्हटलो.

''रेश्मा, भूक लागल्या मुगो? कॅन्टीनात वचून कितेंय खावपाक घेवन येवपाक जाय आसलें!''

तेन्ना चेऱ्याचेर अजापाचे भाव हाडून तें म्हणपाक लागलें,

''म्हजें नांव तुका कशें खबर?''

''तुमच्या ड्रायवरान सांगलें.'' म्हजी जाप.

तें हांसलें आनी ताका हांसतना पळोवन हांव पुराय विरगळ्ळों. ताचेकडेन म्हजो काउंटर सोंपोवन हांव कॅन्टीनात वचून बटाटवडे आनी मिनरल वॉटरची बाटली घेवन आयलों.

रेश्मा म्हणपाक लागलें,

''बटाटवडे म्हाका नाकात फकत. उदीकच दी पिवपाक.''

''तूं खायना तर हांव सुद्धा खावचो ना.'' म्हजी जाप.

म्हजो लटको हट्ट पळोवन मागीर रेश्मान बटाटवडो खालो. बटाटवडो सोंपोवन हांव

उदीक पिवपाक लागलों तेन्ना ताणें हांवें तोंडाकडेन धरिल्ली बाटली ओडून काडली. तशें बाटलेंतलें उदीक म्हज्या शर्टार पडलें. तें पुसपाक आपलो नेपकीन काडून दिवन ताणें ''सॉरी'' म्हळें.

ताचें धाडस पळोवन हांव हांसलों.

मागीर आमी खूब उलोवपाक लागलीं. ते म्हणपाक लागले,

''आयज हांव जितलें उलयलां इतलें आमच्या कार्यालयांत सुद्धां उलोवंक ना.''.

हांव खोशयेंत आशिल्लों. इतली सुंदर चली म्हज्यावांगडा उलयता म्हूण. म्हज्या मनांत कुसकुसतालेंच.

हांवें ताका म्हळें, '' तुजी सोयरीक जाल्या खंय?''

''तुका कशें खबर.''?

''ड्रायवर सांगतालो.''

''हय, लग्नाक येतलो मरे?'' ताची हांसत जाप.

''येतलो. आमंत्रण आसल्यार.''

'' आमंत्रण घेवन हांवच येतां. पत्तो दी.''

हांवें पत्तो बरोवन दितकच तें म्हणपाक लागलें, '' इतलें पयस. प्रेझेंट बरें हाडटलो मरे? बसखर्च तरी सुटपाक जाय.'' ताणें फकाणां केलीं.

''हय, व्हडलो अहेर घेवन येतलों.'' म्हजी जाप.

मनांतल्यान हांव नर्व्हस जाल्लों.

तितल्यात तें म्हणपाक लागलें, ''म्हाका तुजी बर्थ डेट दी.''

''कित्याक?''

''ग्रीटींग कार्ड धाडपाक जाय.''

हांवें म्हजी फकत जल्मतारीखच ताका दिली.

तेन्ना म्हणपाक लागलें,

''वर्स दी.''

''वर्स शें कित्याक?'' हांवें म्हळें.

''जाय कित्याक तरी. '' ताणे दोळो तिरसो करीत म्हळे आनी हांव सामकों पागळ्ळों.

हावें रोकडेंच ताका वर्स सांगलें.

कांय वेळ मोन्यांनी गेलो, मागीर तें म्हणपाक लागलें, ''हांव तुज्याकूय स म्हयन्यांनी ल्हान!''

तें उलयलें आनी म्हाका दिसलें, तें दोळ्यांनी म्हाका कितेंय तरी सुचयता म्हूण

दुसऱ्या दिसा हॉलांत साहित्यीक कार्यक्रम चलतालो. महाराष्ट्रांतल्या एका साहित्यिकाचें व्याख्यान चालू आशिल्लें. तेन्ना रेश्मा म्हाका म्हणपाक लागलें. ''काऊंटर बंद जाला आतां

आमी कार्यक्रमांत या.''

हांव ताका घेवन हॉलांत गेलों तर हॉल उपाट भरला. कदेलां सगलीं भरिल्लीं. आमी जमनीर धाकले बसकेर बसलीं. तें म्हाका तेकून बशिल्लें. ते म्हाजेलागीं बशिल्लें पळोवन हांव स्वर्गांत हात लागिल्ल्याचे खोशयेन पिसो जालों. पूण म्हजे खोशयेचेर रोकडेंच विरजण पडलें. आमी थंय बसून फकत पांच निमटांनी कार्यक्रम सोंपिल्लो.

आमी हॉलांतल्यान भायर आयलीं. पूण म्हाका ओगीच हांशांचो उमाळो फुट्टालो. रेश्माक तें जाणवलें.

'' चड हांसप बरें न्हीं.''

'' चड हांसल्यार खंय मनशाचें आयुश्य वाडटा.'' म्हजी जाप.

दुसऱ्या दिसा म्हाका तें म्हणपाक लागलें.

'' हांव फोंड्यां पयले फावट पावतां, हांगाचें हांव  कितेंच नकळो.''

''हांव तुका सगलें  फोंडें दाखयता.''

अशें म्हूण कार्यावळ  सोंपतकच हांवें ताका सगलें फोंडें शहर फिरोवन दाखयलें.

फिरतां फिरतां हांवें ताची म्हायती काडूंक सुरवात केली.

'' तू कितें शिकला?'' हांवें म्हळें

''हांवें बी. ए. केल्या. बी. ए. करून रोकडेंच हे  संस्थेंत कामाक लागलें.

''हांव धावी पास. फुडें शिकूंक ना.''

आयून तें गप्प राविल्लें.

हांव चिंततालों. ताच्या मनांतले कशें काडून घेवचें. गाडी बेश्टीच रेंगाळटा. आजून रुळार पावचना. हांवें धीर करून म्हळें,

''आमची बापोलभयण बी. कॉम शिकल्या. ती बँकेत काम करता. ती म्हण्टा  आपणाक चड शिकिल्लो तसोच आपल्याकूय वयल्या  पदार आशिल्लो न्हवरो जाय. अशें करतां करतां आतां ताका तीस वर्सां जालीं. हाचेर तुजें मत कितें?  तें म्हणपाक लागलें.

'' म्हज्यो तश्यो कांय अटी नात, क्लेरिकल जॉब आसल्यार पुरो.''

मागीर कांय वगतान तें म्हणपाक लागलें,

''तुवें म्हाकाच  फिरूंक आपयलें? म्हज्याबरोबरच तूं उलयता. म्हजे ईश्टिणीबरोबर उलयना कित्याक?''

हें आयकून हांव थोडो अस्वस्थ जालों. ताका सांगचें अशें दिशिल्लें,

'' तूं म्हाका जाय. हांव तुजेर मोग करूंक लागलां.'' पूण तशें सांगपाचो मात धीर जावंक ना. हांव तोंड धापून वोगीच रावलों

रेश्मा बरेंच हुशार थारलें. एक एक करून आपली सगली खबर म्हाका सांगून म्हजी घरचीच सगली खबर म्हजेकडसून ताणें काडून घेतली.

फिरतां फिरतां बरोच उशीर जालो, हांवें म्हळें, ''आज हांगाच रावतां हांव एकाद्रया हॉटेलांत!''

''आईक सांगनान सतना तूं हांगा रावतलो? ती तुजी वाट पळोवची ना? हुस्केवची ना?''

''आगो आतां स जाली, हांव घरां पावचोना! तुजें बरें, तुका वास्को वचूंक निमाणें आठ मेरेन बसी आसात!''

''स्कूटर घेवन कित्याक येवंक ना तर?''

''सद्दां पेट्रोलाक स्कूटर कोताक पडना गो.''

''स्कूटर हाडल्यार फिरूंक मेळपाचें न्हय?''

''तुका जाय तर हांव फाल्यां फोंडेच्या इश्टाची घेवन येतां.''

तशें तें हांसलें.

हांव मागीर गार्डनांत वचून भायर सरलों तेन्ना कार्यावळीक हजर आशिल्ल्यांपैकीं सगले जाण आमकां पळयताले.

तें म्हणपाक लागलें,

'' लोक पळयतात. आमकां हेडटात म्हणटले।''

'' म्हुणू गो. लोकांचें कोणाक पडलां।''

आमी कॅफे शानभागांत वचून च्या पिलीं. वेटरान बील हाडटांच रेश्मा म्हणपाक लागलें,

''बील आपूणच फारीक करतलें.''

''आगो, च्या पिवपाक तुका घेवन हांव आयलां, तेन्ना हें बील हांव फारीक करतलों. दुसरे फावटीं जाय जाल्यार तूं फारीक कर.''

ताचेरय तें हांसलें. प्रत्येक वेळार ताका हांसतना पळोवन हांव उदकांत खिरतल्या सारकों हांव इल्लो इल्लो विरगळटालों.

दिसताले, कार्यावळीचे दीस केन्नाच सोंपचे न्ही. वचच्या वगतार ताणें सगल्यांच्यो नदरो चुकोवन हळूच म्हजो हात हातांत घेतलो आनी म्हळें, '' तूं म्हाका विसरतलो?''

'' ना, हांव तुका केन्नाच विसरचों ना. दर दिसा तुजी याद काडीत जगतलों!''

म्हज्या पुराय शरीराचो कापूस जाल्लो, तो ल्हव ल्हव करून मळबांत उडटालो. ''म्हजी केन्नाय याद येत तर तूं वास्को यो मेळपाक.''

वतना ताणें म्हाका आपलो पत्तो दिलो . फोन नंबर दिलो. फोन नंबर घेतलो. म्हज्या कार्यालयाचो.

हांव घरा आयलों तो पुराय अस्वस्थ जावन. कितेंय केल्यार ती अस्वस्वताय वचना. शेवटाक बार्रार गेलो आनी दोन बियरी पिलों आनी येवन सुस्त न्हिदलों. ही सुस्तकाय चड तेंप उरलीना. रेश्माची बरेंच दीस कायच खबर मेळूंक ना आनी हांव अस्वस्थ जालों.

रवी म्हजो खास इश्ट. एक दीस तो म्हणपाक लागलो, ''महेश, कितें चिंतता?''
हांव गप्प मागीर म्हणपाक लागलो, '' आरे तूं दुयेंत आसा कसो दिसता मरे?''

''हय, हांव दुयेंतंच आसा.''

''कितें जालें?''

''ल्हवेरिया जाला.''

आनी हांवें ताका रेश्माची सगली खबर सांगली. तो म्हणपाक लागलो. '' हो एकतर्फी मोग.' तो चड त्रास करता. तेन्ना तो उक्तावपाची गरज आसा. तूं धीर कर आनी ताका मेळून ताची बाजू जाणून घे.''

''तें बी. ए. जाला''.

''मोगाक पोस्ट – शिक्षण बी लागना.''

रवी मागीर आपल्या आयुश्यांतली एक खबर सांगपाक लागलो, '' हांव धेंपो महाविद्यालयांत टी. वाय. बी.ए. क आसतना आमच्या शेजारची एक चली म्हज्याबरोबर फिरताली. आमी वांगडाच कॉलेजांत वताली. म्हाका दिसतालें तें म्हजेबरोबर इतलें भोंवता, उलयता म्हणचे तें म्हजेर मोग करता. पूण एक दिस ताचें लग्न थारलें, अशी खबर म्हाका कळ्ळी आनी हांव अक्षरशा पिसो जाल्लेभाशेन वागपाक लागलों. थोड्याच दिसांनी ताचें लग्न जालें. ते किटकिटत घोवावांगडा भोवूंक लागलें आनी हांव हेवटेन विडयो फुकपाक लागलों.

बरोच तेंप गेलो. मागीर हांवेंच चिंतले, तें लग्न जावन बरो संवसार करता जाल्यार हांवें टेन्शन कित्याक करपाचें? हांवें थारायलें आनी तेन्नाच्यान हांव बरो तरेन आसा. तेन्ना कितें करपाचें ते तूंच पळय. ''शीर सलामत तो पगडी पचास।''

रवी गेलो आनी हांव बरोच चिंतून रेश्माक मोगाचें पत्र बरोवपाक बसलों. फकत दोन वळीच बरयिल्ल्यो. इतल्यांत पोस्टमन आयलो म्हूण भायर गेलो, पळय तर रेश्माच्या लग्नाची पत्रिका. आनी हांवें मनांतल्या मनांत म्हज्या आयुश्यांतल्या पयल्या मोगाक राम-राम केलो!

# एकलो एकसुरो

आयज बसींत अचकीत तीन वर्सांनी अजय मेळ्ळो आनी मेळ्ळो तोय बी घोवावांगा आसतना. खरेंच अजय... हांव तुकां थरल्याप्रमाण मेळपाक शकलें ना. .. तुका हांवें म्हज्या लग्नाचें कार्ड लेगीत धाडलें ना.. म्हज्या घोवाचे कुशीकूच अजय बशिल्लो. हांवें मुद्दाम हटकिलो...

'अजय !हेवटेन खंय वता रे?''

'सुलभा! तूं खंय वता गो?' अजापीत जावन ताणें म्हळें.

'आमी पणजे वतात, आत्यागेर!'

'अजय, कसो आसा तूं? Got Married?'

'ना. तूं?' अजयान विचारलें.

'पळयल्यार दिसना?'

'कॉंग्रेच्युलेशन्सं परबीं.... प...र... बीं. मोडकी तोडकीं उतरा ताच्या तोंडांतल्यान भायर सरलीं.

'तुजें कितें जालें रे?'

'ओ. सुलभा. आतां खूब वेळ जालो... घडये म्हजे जिणेंत आंकवारपण बरयलां आसुंये.

'कितें उलयता रे तूं' ताची उतरां म्हंज्या काळजांत रोमलीं.

'विसर तें आतां, सुलभा, म्हाका सांग आतां तरी सदारलां मगो? काय अजून करता भुरगेपणां?'.. हांव मात्शें लजलें. इतलें म्हणसर ताचो बांबोळी स्टॉप आयलो. सकयल देंवन ताणें हांसत हांसत हात दाखयलो. हांव ताच्या तोंडाकच पळयत उरलें. हांचे कडेन वळख करून दिवपाक लेगीत हांव विसरलें.

आत्यागेर वतकच म्हजें कित्यांकूच मन लागना जालें. मनशाच्या धाव्यावेली कात ओडून काडटकूच रगताचो व्हाळ जसो व्हांवंक लागता तश्योच म्हज्या मनांत गोड यादी म्हज्या पयलींच्या मोगीक पळयतकूच वयर सरिल्ल्यो... अजय आनी हांव शिरोड्यां कामाक्षी कॉलेजींत टी. वाय्. बी. ए. च्या वर्गांत वांगडा शिकतालीं. दोगांय बरीं खास इश्ट आसलीं. आमची इश्टागत पळोवन भुरगींय आमकां चाळयतालीं. 'फेविकॉल का मजबूत जोड है टुटेगा नही'. चड करून हांवच अजयाच्या आंगार पडटालें. ताच्यो आवडी निवडी पळयतालें.

एक दीस अशीच सगल्या भुरग्यांनी मेळून वर्साची निमणी पिकनीक करपाची थारायली.

दोनापावला वेळेर मेळपाचें सगल्यांनी थारायलें. त्या दिसा सगलीं भुरगीं आयलीं. सकाळच्यान हांव वेगळ्याच मुडांत आसलें. दीसभर थकून माकून सूर्य मावळपाची  तयारी करतालो. अजय एकलोच तळपाचेर बसून सुर्याच्या किर्णाची उब घेवपांत मग्न आसलो. मंद मंद वारो अजयाच्या आंगाक स्पर्श करतालो.

इतल्यांत थंय हांव पावलें. थंय गेलें तें ताका तेंकूनच बसलें. ताची  हुनसाण म्हाका कळपाक लागली. म्हजी तकली जाग्यार उरली ना. ताका घट्ट कवळून वेंगेंत धरचो असो वायट विचार म्हज्या मनाक  आफुडलो."तरी हांवें मनाचेर संयम दवरून ताचो हात हातांत घेवन हांवें तो दाबलो. खूबच नेटान. 'हात दुखता मुगो? कित्या नेटान दाबता?'

'आनीक नेटान दाबचो सो दिसता अजय ' हांवें म्हळें.

'......? '  अजय वगीच रावलो.

'' हांव एकटेंच पडलां अजय, म्हाका तूं खूप आवडटा. तूं जाणा हांव  तुजेर कितलो....'

'कितें ... कितें.... कितें जालां तुजें सुलभा? हें पळय हांव तुज्या म्हन्यांत आसा न्हय.'

अजय सामको सिरीयस जाल्लो.

'तूं आज  म्हाका जाय अजय' हांवें भीडमुर्वत सोडून  सांगलें.

"You  mean sex?"

".... Yes"

'कमॉन.. सुलभा ..  I'll give you what you want  कमॉन.

त्या दिसा हांवें अजयाकडल्यान कांयच  घेवंक ना. हांव घेवंक शकलें ना. म्हाका हांवूच एकलें गुन्यांवकारीशें दिसलें. तो सामको विशाळ सागरावरी शांत आसलो. पूण हांवूंच कितें तरी जनावरावरी विचित्र वागताशें दिसलें. आनी हांव फाटी सरलें.  म्हजी इत्सा अतृप्त उरली खरी, तरी पूण अजयाची म्हूर्त म्हजे तकलेंतल्यान वचपाक तयार नासली. एक दीस हांवें संद सोदून कॉलेजीच्या वाचनालयांत ताका धरलो आनी सडसडीत सांगलें,

'अजय!  I can not forget you! I tried too...

'सुलभा, तूं सपनांत बी ना मूं?' ताणें फकाणां केलीं.

'म्हाका तुजें  डिसीजन आयजूच सांग. म्हाका हो फोड फोडिल्लो जाय.'

हांव सामकें रागान तांबडें जावन उलयतालें.

'एक सोल्युशन आसा!'

'कसलें?' हांवें विचारलें.

'तूं डॅडीक सांग कीं आपल्याक लग्न कर म्हूण . तूं जाग्यार येतलें  तुका कितें जाय तें सगलें मेळटलें. तूं सूखी जातलें सुलभा.

' तूं किते उलयता, अजय,

How Can I forget you?

'हेज्ञ पळय सुलभा, म्हज्या पोटाचो प्रस्न सुटले बगर म्हाका अजून तरी लग्नाचो विच
करप शक्य ना.

'.........?'

'कमॉन सुलभा; एक जल्म, एक लग्न आनी एक मरण हें मनशाक फकत एकदांच मेळ
तेन्ना हो प्रस्न तुज्या जिविताचो आसा. तरी पूण हांव तुका एक आयडिया सांगतां. पव
उपकारता जाल्यार'.

'कसली'? उमळशिकेन हांवें विचारलें.

'आतां आमी दोन वर्सा मेरेन एकामेकांक मेळूं नये. मागीर लेगीत तुका दिसलें सम
लग्न जावचें जाल्यार आमी जावंया!'

'हांव रावत. पण म्हजो बापूय रावत मरे? तो बेगीनूच म्हजें लग्न करुं मेकळो जावं
सोदता. आनी तूं दोन वर्सा राव म्हणटा.

'हांव जाणां सुलभा, तूं गिरेस्त घराण्याची एकलीच अपुरबायेची चली. पूण म्हाका ल
जावन तुज्या बापायच्या ताटा पोंदचें माजर जावन रावपाचें ना. म्हाका म्हजें स्वतं
अस्तित्व आसा'.

म्हाका तुजो प्रोब्लेम कळटा अजय. पूण हांव खरेंच तुजेर मोग करतां. तुजी फिलोजॉफ
म्हाका आयकुपाची ना. कितें तें सांग बेगीन?'

'... हावें कितें तें सांगलें. सुलभा, म्हाका म्हज्या पांयांर उबो रावंक दीं.

त्या दिसा सावन आमची इश्टागत तुटली. हांवें मदीं मदीं ताका फोन केलो, पूण ताणे
घेतलो ना. आमकां परिक्षेंत घसघशीत येस मेळ्ळें. परीक्षा सोपतकूच अजयाचो म्हाक
पावला कणकणीं उगडास येवकं लागलो.. हांव सामकें चिंतून चिंतून बारीक जावंक लागलें
म्हजी ही स्थिती पळोवन अचकीत बापायन म्हजी सोयरीक जुळोवन हाडली. अमित म्हज
जिणेंत आयलो. आवय बापायचो एकलोच चलो. गिरेस्त घराण्यांतलो. बापायचें तोंड
पळोवन ना म्हणप म्हाका जमलेंच ना. ल्हव ल्हव हांव संवसारांत रमलें. अजयाचो उगडास
त्या दिसांनी म्हाका जालोच ना. हांवें खरेंच ताचेर अन्याय केलो. म्हजो मोग फालतू
थारला... भोग.... आकर्शण... वासना...आयज अजय मेळ्ळो. उश्णो हांसो तोंडार हाडून
पयलीं सारकेंच म्हाका खूश केलें. ताका कळ्ळें आसतलें म्हजें लग्न जालां म्हूण. म्हज्या
घोवाक आड नदरेन लेगीत पळयलो ना ताणें. ताका कितें दिसलां आसतलें काय ? एका
तेंपार हॅन्डसम दिसपी अजय आयज खूबच वेगळो दिसलो. ताच्या लेव्हलाक हांव पावलेंच
ना... ताणें म्हाका सदांच समजून घेतलें. .. म्हजो गायड जालो.. ताचे मुखार हांव खरेंच
ल्हान भुरग्यावरी वागलें... कितलें साम्य दोगांमदीं .. जमीन आनी धर्तरीइतलें अंतर ..
ताची ती मॅच्युरिटी ऑफ मायंड ॲन्ड मॅनर म्हाका केन्ना येतली काय.... ताचे जिणेंत एकलें
एकसुरेंपण हाडपाक हांव कारण जालें. खरें म्हळ्यार ताणें म्हाका संवसारांतले सगलें सूख

दिलें. आनीक जाय जाल्यार तें पांयांकडेन हाडून ओततलो आसलो. पूण एक मात आपलें काळीज मात म्हाका केन्नाच व्हरूंक दिवंक ना... खरेंच अजय, तुज्या नांवावरी तुजो जय जालो.. हांव तुजे मुखार हारलें रे.... खरेंच अजयाच्यो यादी ह्यो फुगांवाच्या मावांवरी. आंगभर फुगांव येतात आनी वतात. काळांतरान ताच्यो मावो नश्ट जातात. खंयूय एक दोन मावो मात जल्मभर सांगात दितात, अजयावरी.....

# फीट

रातचीं णव वरां जाल्लीं. पावसाचे दीस. पावसाची दडक येवन निक्तीच गेल्ली. वारो मारतालो. तेन्नाच वीज वचून सगलें काळखांत बुडलें. काळखांत काजुले लिकलिकताले. हांव काळखांत घरांतच बसून आशिल्लों. सगल्याक किण्ण आशिल्लें. अशा वगतार रस्त्यावेल्यान किळांच मारून कोण पूण धांवत वता तो आवाज आयकुपाक आयलो. हांव धांवतच रस्त्यार गेलों, तर थंय खूब लोक जमिल्ले. हांव रस्त्यार पावलों, तेन्ना ती किळांच मारपी व्यक्ती खूब मुखार पाविल्ली.

तितल्यान नेटाचो वारो येवन मळबांत गडगड जावन पावस आयलो. तेन्ना आमी सगले रस्त्यालागींच आशिल्ल्या देवळांत भितर सरले. आमचें देवूळ म्हळ्यार वयर बेतो आनी चारय वाटांनी उक्तें. वाऱ्याबरोबर पावसाचें उदक भितर येवन आमी भिजताले. ते भिंजप आडावपाक आमी देवळांत चारय वाटेन भोंवले. पूण कितेंच फायदो जावंक ना. तेन्नाच लख्ख करून गेल्ली वीज येवन सगल्याक उजवाड फांकलो आनी जाण्टेलो नाना म्हणपाक लागलो,

'रस्त्यान किळांच मारीत धांवत गेला तो वयल्या वाड्यावेलो उदय!'

'उदय! तो तकलेन सारको ना कितें?' हांवें म्हळें.

'तकलेन सारको ना रे तो. सोरो पियेला आसतलो. सोरो पियेतकच ते अशेंच करता ' नानान म्हळें.

तितल्यांत मल्लुकीचेंय आसा न्हय.'

'हय रे बायलेन सोडलो ताका.'

आनी मागीर सगले जाण उदयाच्योच खबरी करपाक लागले. ते कितें कितें उलयत आशिल्ले आनी हांव देवळाच्या सोप्यार बसून खूब खूब पयस पाविल्लों. पांच वर्सां फाटीं बेती बिराडार रावतालो थंय...

हांव पणजे कामाक लागतकच घराकडल्यान सद्दां कामाक वचपाक लांब पडटा म्हूण बेतीं भाड्याची कूड करून थंयच रावपाक लागलों. म्हजे कुडीक तेंकून आनी एक कूड आशिल्ली आनी त्या दोनूय कुडांची गॅलरी एकच आशिल्ली. हांव सांजेचो कामाकरसून येतकच स्टोवाचेर रांदतालो. न्हातालों आनी भायर कदेल घेवन पुस्तक वाचीत बसतालों. तेन्ना म्हाका कळ्ळें कीं त्या रुमांत एक जोडपें रावता आनी तांकां एक चलो आसा म्हूण. पूण पयलीं पासून म्हजें उलोवप कमी आशिल्ल्यान तांची आनी म्हजी वळख जावंक नाशिल्लीं.

एक दीस हांव वयर घरवाल्यांगेर टी. व्ही पळोवपाक गेल्लों. तेन्ना घरकाराची घरकान्न म्हाका म्हणपाक लागली.

'तुजें घर केरये न्ही रे?'

'हय.'

'तुजे कुडीलागीं दुसरे कुडींत रावतात तांकां वळखतां?'

'ना.'

' आरे, तीं तुमच्याच गांवचीं मरे! ताचें नांव उदय रे !'

पूण हांव गांवांत चड भोंवंक नाशिल्ल्यान तांकां वळखना, अशें सांगपाचें म्हज्या मनांत आयिल्लें, पूण तशें सांगीनासतना हांवें म्हळें,

'हांव स्कुलाक गांवांत नाशिल्लों. पयलींसावन बापोलयाकडेन धारगळी आशिल्लों म्हण हांवें तांकां केन्ना पळयिल्ल्याची म्हाका याद ना.'

आमचें हें उलोवप चालू आसतना सकयल रुमार रावपी बायल आपल्या चल्याक घेवन वयर आयली, तेन्ना घरवालेन तिका म्हजी खबर सांगली.

तेन्ना हे बायलेन म्हाका म्हळें,

'हांव रुपा सावंत. म्हजें घर वयल्या वाड्यार मरे. तुजें खंय?'

म्हजें घर सकयल्या वाड्यार. हांव सुमतीलो चलो.'

'आरे! तूं सुमतीलो चलो?'

'हय.'

'हांव तुजे आईक वळखतां रे!'

हें आमचें उलोवप चलतालें तेन्ना हांवें ताका बारीक पळयल्लें. तें जिवान मातशें मोठें, तशेंच घारेंच पूण दोळयान मातशें तिरशें आशिल्लें रुपाक तर उलोवपाक खूब जाय आशिल्लें तें मेळ्ळें कीं हांसत जाप करतालें. तसोच वेळ मेळटा तेन्ना खबरी सांगत रावतालें. तर उदय वोग्गीच एका जाग्यार चिंतीत बसतालो. मागीर म्हाका कळ्ळें कीं ताका फिट्स येतात म्हणून. हांव पयलीं समजतालों तो उलयना जाल्यार मिजाशी म्हूण.'

एका आयताराचो हांव सुटी आशिल्ल्यान कुडीर आशिल्लों दनपारचो जेवन आड पडलों आनी चारांक सुमार उठून भायर पडवेर येवन पुस्तक वाचीत बसलों. तितल्यांत उदयाचे कुडींत म्हाका कोण तरी किटकिट्टा तो आवाज आयकुपाक आयलो आनी म्हाका अजाप जालें. कारण उदय तर सकाळीं गांवांत गेला हें म्हाका रुपानच सांगिल्लें हांव चिंतपाक पडलों. भितर कोण आसा काय? तेन्नाच कुडीचे दार उगडून एक तीस पस्तीस वर्सांचो जिवान मोठो आशिल्लो गोरोच तरनाटो भायर आयलो. तो फकत लुंगेरच आशिल्लो. ताचे केंस विस्कटल्ले. मागीर हांवें तो भायर वतकच दाराचे खांचींतल्यान भितर पळयल्लें तर रुपा फकत घागरो आनी ब्लावजाचेरच आशिल्लें. म्हाका पळोवन तें पळोवंक नाशिल्लेभशेन करून

कोनशाक गेलें. तेन्ना म्हजें पुस्तकावेलें लक्ष उडयलें ते परतें लागलेंच ना.

मागीर तर, तें सदचेंच जालें उदय घरा आसतना लेगीत तो तरनाटो येतालो. उदय मागीर भायर येवन वोगीच बसतालो. त्या दिसाच्यान रुपा म्हजे नदरेक नदर दिवपाक टाळपाक लागलें. उदय तर केन्नाय म्हजे कुडींत येवन वोगीच बसतालो. वोग्गी. कितेंच उलोवप ना, फकत चिंतीत बसप. ताका पळयतकच दिसतालें. देवान हाका विचार करपाची शक्तीच दिवंक ना काय? पूण हें म्हजें चिंतप एक दीस फट थारलें.

एक दीस तो खूब सोरो पियेवन येवन रुपाक गाळींनी खेपपाक लागलो. 'चेडये, तुका हांव पावना म्हूण तुका हो मीण जाय?''

आनी ताणें सगली कूड माथ्यार घेतली. तेन्ना सगले लोक थंय कान दिवन आयकताले. मागीर खूब वगतान रुपा भायर येवन ताका वोडीत भितर घेवन गेलें आनी दोगांय एक जावन ताका मारपाक लागलीं.

मागीर अशें सदांच घडपाक लागलें. उदयाच्या उलोवण्यावेल्यान म्हाका त्या तरनाट्याचें नांव नवनाथ म्हूण कळ्ळें. तो पणजे कामाक वतालो आनी थंय लागींच कुडींत भाड्यान रावतालो.

एक दीस उदय फिट्स येवन दारांतच पडलो. तेन्ना कोंबो मारतकच, तो जसो तडफडटा, तसो तडफडटालो. उपरांत खूब वगतान रुपान भायर येवन ताच्या नाकालागीं चामड्याचें जोतें धरलें मागीर तो सावचीत जावन थोडो वगत तसोच पडून उरलो.

हांवें एक दीस घरा गेल्लेकडेन ही खबर आईक सांगली. तेन्ना आईन म्हाका उदयाची खबर सांगली ती अशी..

उदय आवय बापायलो एकलोच चलो. ताका ल्हानपणासावन फीट येताली म्हूण ताका सोयरीगत कोण हाडिनाशिल्लो. वाटेर खंयसरय फीट येवन पडून कितेंय वायट जायत म्हूण भियेताले. ताचें लग्न जायना म्हूण हुस्क्यान आवय बापूय दोगांय भायर पडलीं. उदयाचे एके पयसुल्ले मावशेन ताका ही रुपाची सोयरीगत हाडली.

रुपाक आनी व्हड तिगी भयणी आशिल्ल्यो. तसोच एक भाव. तो पयशांनी बरो आशिल्लो. भावाचें तशेंच तिगांय भयणीचें लग्न जाल्लें. रुपा स्कुलाक आसतना नवनाथाच्या मोगांत पडिल्लें. पूण तो तांच्याकूय कमी जातीन म्हूण रुपाच्या भावान ह्या लग्नाक विरोध केलो आनी उदयाची सोयरीक हाडली. तेन्ना लोकांनी ताका खूब समजायलो, कीं उदयाक फीट येतात म्हूण! पूण ताका कशेय भशेन रुपाचें लग्न करपाक जाय आशिल्लें. सोयरीगत येतकेंच बेगीनच रुपाच्या भावान लग्न उदयावांगडा लावन दिलें. तशेंच लग्ना दिसाच रुपाक शिटकावणी दिली.

'हांवें तुका गरीब घराण्यांत दिलां हे खरें. पूण हाचेमुखार तुका कितें कमी पडटा तें म्हाका येवन सांग, तें तुका हांव दितलों. पूण उदयावांगडा बरेभशेन संवसार कर.'

ताका रुपाचो चंचल सभाव खबर आशिल्लो. म्हूण ताणें ताका पयलींच समजायलें तशेंच मुखार सांगलें,

'पूण म्हज्या कानार कितेंय वायट खबर येत तर म्हजें घर तुका कायमचें बंद जातलें.'

तेन्ना रुपाक खरो तर भावाचो राग आयिल्लो. तें भितरलें भितर तेन्नाच्यान घुसमटत उरलें,'

ही इतली खबर म्हाका आईन सांगली.

उदय पणजे एका दुकानार कामाक आशिल्लो. लग्न जावन तो रुपाक घेवन हांव रावता त्या घरांत भाड्याक रावपाक आयिल्लो.

उदयाच्या फीट येवपाच्या दुयेंसाक लागून तो एका कामार चड तेंप तिगनाशिल्लो. मागीर ताका दुसरें काम सोदचें पडटालें. तेन्ना रुपा कुळारा वचून भावाकडल्यान पयशे घेवन येतालें. अशेंच एक दीस कुळाराच्यान येतना वाटेर बशींत ताका नवनाथ मेळ्ळो. ताचो पयलींचो मोगी. तो आतां लग्न जावन बायलेक घेवन तीं रावतात थंय लागींच रुमार रावतालो. ताची बायल सदांच दुयेंत आसताली.

तेन्ना रुपा नवनाथाक घेवन आपणागेर आयलें आनी ताणें उदयाक सांगलें कीं तो आपलो मानलेलो भाव म्हूण. साद्या उदयाक तें खरेंच दिसलें. मागीर थोड्या दिसांनी नवनाथ उदयाचो सादो सभाव पळोवन सदांच येवपाक लागलो. ही खबर जेन्ना रुपाच्या भावाक कळ्ळी तेन्ना तांणें रुपाक आवयले घर कायमचें बंद केलें.

आयतारा दिसा तर नवनाथ सद्दां रुपाक मेळपाक येतालो. तेन्ना उदय तोंड धांपून वगी रावतालो. पूण सोरो पियेतकच मात सांवार करतालो. ह्याच दिसांनी कॅन्सर जावन नवनाथाची बायल भायर पडली आनी उदयाक कामावेलो काडून उडयलो. तेन्ना जेवणाचे हाल जावपाक लागले. उदय तर सोरो पियेवन सगलो दीस रावतालो. मागीर नवनाथान रुपाक एके कंपनींत झाडूवाली म्हूण कामाक लायली. आनी तेन्नाच्यान नवनाथ उदयागेरच रावपाक लागलो. हें दोळ्यां हुजीर उदयाक पळोवपाक जायना जाल्लें. एक दीस तो खूब सोरो पियेवन येवन रुपाक ताणें खूब बडयलें. तेंच निमित्त घेवन रुपा चल्या घेवन नवनाथा वांगडा रावपाक गेलें, कायमचें. उदयाक हांगा एकलोच दवरून...

पूण रुपाचो भाव उदयाक खूब बरो करतालो. आपलेखातीर उदयाक हें भोगचें पडटा अशें ताका दिसतालें जावंये. मात तो रुपाचेर नदर लेगीत घाली नाशिल्लो आनी उदयान तर हांगा आपलें सगलें आयुश्य सोऱ्याक ओपिल्लें....



# निर्णय

आयतारा दिसा प्रकाश सकाळीं धांक सुमार नुस्तें हाडपाक बाजारांत गेल्लो. थंय नुस्तें घेवपाक लोकांचीं घे गर्दी. बाजारांत बँकेलागीं रस्त्यामुंखारय नुस्तेकान्नी पाटलो घेवन नुस्तें विकपाक बशिल्लीं. थंय तांचो बोवाळ चलिल्लो. एका नुस्तेकान्नीमुखार वचून उबो रावन ताणें विचारलें,

'कशे दिल्यात गे बांगडे?'

'वीस रुपयांक तीन बाबा. घालूंक? ताल्लें रे.''

तो थंय वाटपण करपाक उबो राव नासतना वीस रुपयांचे तीन बांगडे घेवन घरा वचपाचे वाटेक लागलो.

वाटेर ताका ताचो पयलीचो इश्ट संतोष मेळ्ळो. तेन्ना ताका सोऱ्याचो वास मारतालो. ताका वाटेरच आडावन म्हणपाक लागलो,

'प्रकाश. खूब दिसांनी मेळ्ळा मरे तू ! कितेंय घाल मरे म्हाका!'

'आरे ! पूण तुज्या तोंडाक वास येता मरे. तू सकाळींच पिला काय कितें रे?'

'एकल्यान दिल्लो रे हाफ क्वार्टर.'

'आनीक पितलो रे तूं?'

'हें म्हाका पावता? बांय मरे हांव!'

म्हूण तो हांसपाक लागलो. तेन्ना पानां खावन ताचे किडिल्लें दात दिश्टी पडटाले.

'आरे, आतां साडेधाच जाल्यांत मरें. मागीर बारांक सुमार येतां हांव. हांगाच मेळ तूं म्हाका.'

'बरें तर. विसरशीत.'

'ना रे.'

म्हूण प्रकाश वाटेक लागलो. संतोष, आज ताका खूब दिसांनी मेळिल्लो. वतना वाटेर प्रकाश संतोषाचेंच चिंततालो. शाळेंत आसतना ते केन्नाय स्नेहसंमेलनांत बी बिअर पिताले तेन्ना संतोष बिअरीचो वास लेगीत घेनाशिल्लो. तांकां म्हणटालो

'आयची बिअर ही फाल्यांचो सोरो म्हण जाणात मरे तुमी!

तोच संतोष आज सोरेकार जाल्ला. ताचे दोळे तांबडेंच जाल्ले. तशेंच सदाच सोरो पिवन तोंडय सुजिल्लें, तेन्ना हो फुटबाल खळटाल म्हण सागल्यार ताका आता पळयतात ताका तें खरें दिसचेंच ना.

10f9

केन्नाच्यान तो सोरो पिवपाक शिकलो काय? बबीतान गोळ घेवन जीव दिलो तेन्नाच्यान....

हें चितीत प्रकाश भुतकाळांत, ताच्याच यादींनी घुस्पलो...

संतोषाची मारुती आशिल्ली. ती घेवन तो भाडीं मारतालो. एकदां ताका बबीताचें भाडें मेळ्ळें. ताका लग्नाक कोल्हापुरा वचपाक जाय आशिल्लें. तें भावणीलें चली. दिसतालेंय सोबीत. अठरा वर्सांचें. निक्तेंच वयार येतालें. संतोष वळखीचो जाल्ल्यान ताचे आवयन संतोषाकूच सांगिल्लें. बबीताक घेवन कोल्हापुरा लग्नाक वच म्हूण.

संतोष आनी बबीता वचपाक वतॉली तेन्ना बबिता मुखावेल्या सिटार बशिल्लें. वाऱ्यान ताचे केंस सगल्याक फाफुडटाले. तर संतोषाचें लक्ष ताचेरच आशिल्लें तें पळोवन तें लजतालें. ती उलयत एकामेकांचीं फकाणां करीत कोल्हापुरा पावलीं. लग्न लावन परत येवपाक भायर सरलीं तेन्ना रातचीं आठ वरां जाल्लीं.

वाटेर एका रानांत पावतकच गाडयेचो टायर पंक्चर जाल्लो. तो स्टेपनी घेवन सकयल देवलो तर भायर भिण्ण काळोख. कितेंच दिसना. फकत रानांतल्यान सावदांचो आवाज आयकुपाक येतालो. भितर बबिता न्हिदेंतच आशिल्लें. अशा वगतार गाडयेचीं सगळीं दारां बंद करून तो भितर सरलो तेन्ना बबिता दाराच्या आवाजान भिलें आनी संतोषाक घट्ट धरलें. दोगांय तरनाटीं. ती एकमेकांचे वेंगेंत आसतनाच संतोषाचो हात ताच्या आंगावेल्यान भोंवपाक लागलो आनी तीं केन्ना एक जावन प्रणयांत गुंग जालीं ते तांका कळ्ळेंच ना...

दुसरें दिसा तो गाडयेक टायर घालून घरा येवपाक भायर सरलो. बबिताक व्हरून तांणें ताच्या घरा पावयलें तें पर्थून मेळपाचें उतर दिवनंच.

बबिता आतां आपल्या भितरच गुंग उरतालें. सपनां पळयतालें. ताच्यात जाल्लो बदल आवयच्या लक्षांत आयलो. ती ताका भायर धाडना जाली. पूण संद मेळटा तेन्ना तीं परत परत मेळटालीं. हें दीस सारके सांवरीच्या कासपावरी उडत वताले.

संतोषाक खबर आशिल्लें कीं बबीता भाविणीलें चली जाल्ल्यान आपणांक घरा खर विरोध जातलो म्हूण! दोगांयनी पळून वचून लग्न जावपाचो निर्णय घेतलो..

एक दीस बबिताच्या लक्षांत येता की आपणाक दीस गेल्यात म्हूण! ते संतोषाक सांगता. तो ताका पळून वचपाची तयारी करून राव म्हूण सांगता.

दुसऱ्या दिसा तीं रातच्री नाच जावन शारांत येवन एका हॉटेलार रावतात. मुखावेलो विचार करीत.. पूण.....

संतोषाचो बापूय तांकां सोदीत थय येता आनी तुमचें आपूण लग्न लावन दितां. तुमी घरा येयात म्हूण फुसलावन ताकां घरा हाडटा आनी बबिताक व्हरून ताच्या घरा पावयता.

हांगा बबिताची आवय तें परत पळून वचत म्हूण ताका एके काळखाकुडींत बंद करून दवरता. तर संतोष ताका मेळपाक खूब खटपट करता पूण व्यर्थ. ताच्या आवयक ताचें लग्न

करपाचें नासता तर ताका आपलेसारकें धंद्याक लावपाचें आसता.

तें भितर पिशान्तर कशें जावन आपल्या वाडिल्ल्या पोटाक पळयत विचार करपाक लागलें. हें आपणांक जाल्लें भुरगें चली जालें तर आपली आवय करता तेंच ताका करचें पडटलें. चलो जालो तर समाजांत ताका मान मेळचो ना. हें चितून ते अस्वस्थ जावन ते भिरकेसरशीं गोळ घेवन आत्महत्या करता. तेन्ना ताची आवय आपणें कितें केलें आनी जालें कितें हेंच चिंतेंत पडटा.

आपणाखातीर बबिताक जीवाक मुकचें पडलें हें सत्य संतोष विसरूंक शकलो ना! तेन्नाच्यान त्या पिकासावांत तांणी आपली सगली जीण सोऱ्याक ओंपली. रात-दीस तो सोरो पिवन तर्र रावतालो. बँकेचे हप्ते फारीक जावक ना म्हण बँकेन मारुती जप्त केली. आतां ताका कामय कितेंच नाशिल्लें. कोण मेळटा ताचेलागीं पयशे मागून घेवन तो सोऱ्या भितर गुल्ल उरतालो.

ताका आवय-बापूय खूब समजायतालीं पूण तो आयकुपाचे पलतडीं पाविल्लो आसता.

हें चिंततना प्रकाशाची तकली जड जाता. तो ज्यूस्त बारा वरांचेर बाजारांत येता तर थंय संतोष ताचीच वाट पळयतालो.

तो मे म्हयनो आशिल्लो. भायर कडकडीत वत पडिल्लें. घामाच्यो धारो वतताल्यो. ते बेनीताच्या बार्रार वचून भितर बसले. बेनीतान येवन फॅन लायलो आनी दोन ग्लास हाडून मुखार दवरले.

'कितें पिता रे संतोष?' प्रकाशान विचारलें

'आरे, हो हुर्राकाचो सिजन मरे? हुर्राकच घेवया.'

प्रकाशान अर्द बाटली हुर्राक आनी दोन लिम्का हाडपाक लायले. ते पितां-पितां बबिताली खबर आयली आनी तांच्यानी तें सोपोवन दुसरी ऑर्डर दिली. तोरांची फोड लावन ते हुर्राक पितालें. हुर्राकान आपली जादू करपाक सुरवात केल्ली. आतां तांच्यो खबरी नेटान चलताल्यो. संतोषाक चडिल्लें. त्याच नेटार ताणें म्हळें,

'प्रकाश, हांव बबिताक विसरूंक शकचो ना रे! ताचे यादीन म्हजी जीण हांव सोऱ्यात बुडोवन काबार करतलो, सोपोयतलो..'

म्हूण तो आपल्या बापायक गाळी मारपाक लागलो. प्रकाश समजलो. हांगा बसून आतां फायदो ना. हुर्राक तर चडला. म्हूण ताणें म्हळें,

''या मरे आतां?'

'हय रे.'

प्रकाशान बील फारीक केलें आनी ते दोगय लकत लकत आपापले वाटेन गेले.

प्रकाश जेवन आड पडलो. चारांक सुमार घरांत बोवाळ जाता म्हूण ताणें आंथरूणार कूस परतिली तर संतोषाचो शेजारी मुखार उबो. तो सगलोच थरथरतालो ताका पळोवन

प्रकाशान म्हळें,

'कितें जाला रे?'

'प्रकाश, संतोष माडावेल्यान पडलो!'

'कसो रे?'

पूण तो जाब दिवपाचे मनस्थितींत नाशिल्लो. प्रकाश कपडे घालून सोमतोच ताचेवांगडा वचपाक भायर सरलो. ताका वाटेर खबर कळ्ळी कीं....

दनपरां तो घरा वतना वाटेर ताका ताचो बापोलभाव सोनू मेळ्ळो. तो हाका केन्नाय सोरो घालून आडसरां, नाल्ल काडून घेतालो. ताणें संतोषाक म्हळें, 'वयल्या वाड्यार दत्तूभाटकाराच्या भाटांत वचून नाल्ल काड्या. पळय, बेनीताक नाल्ल विकले तर सांजेचो खर्चय सुट्टलो.'

संतोष सोऱ्याच्या नेटार ताच्या वांगडा वचून माडार चडलो. एक पेंड सकयल उडयल्या मात्त ताका ताचो तोल सावरपाक जालो ना. सगलेच फिरलेभाशेन दिसपाक लागलें आनी तो सकयल पडलो. घब्ब असो मोठ्यान आवाज जालो. तो रक्ताच्या कोंडान भरिल्लो. ताका तसो पळोवन सोनू पळून गेलो.

ताणें मारिल्ली किळांच सकयल भाटांत काम करपी मानायांनी आयकली आनी ताका घेवन ते दोतोरागेर गेले. पूण ताका सोमतोच हॉस्पिटलांत व्हेलो.

दुसऱ्या दिसा प्रकाश वाटेर चिंतीतच हॉस्पिटलांत गेलो. आपूण संतोषाक सोरो पिवयलो म्हूण हें जालें काय.?

संतोष शुद्धीर आयिल्लो. ताच्या हाताक आनी पांयांक मार बशिल्लो.

दोतोरान प्रकाशाकडल्यान ताची पयलींची सगली खबर समजून घेतली आनी ताका म्हळें, 'संतोष, तू सोरो कित्याखातीर पिता?'

तो वग्गी रावलो मागीर दोतोर मुखार म्हणपाक लागलो,

''आरे तू पिकासावांत पयलीचें सगळे विसरपाक सोरो पिता मरे ? पूण सोऱ्याची किक देवतकूच तुका पयलींचें याद येताच न्ही!'

अशे तरेन आनीक कितें - कितें खूब ताका दोतोरान सांगून आपले परीन समजायलो. आनी मागीर त्या दोगांय इश्टांक म्हळें,

'आतां तुमी दोगय जाण निच्छेव ; करात कीं हाच्या मुखार सोऱ्याक आफुडचे नात म्हूण!' तेन्ना संतोषाक आनी प्रकाशाक दोतोराचें सांगणें पटलें. तांणी तेन्नाच हॉस्पिटलांत दोगांयनी निच्छेव केलो कीं हाचेमुखार सोऱ्याच्या थेंबाक लेगीत स्पर्श करचों ना! होच त्या दोगां इश्टांचो निर्णय आशिल्लो.

## बामणाली चली

म्हाका म्हज्या इश्टान, प्रकाशान ती खबर सांगली. 'बबन बामणाले चलयेक फुसलावन हाडून लग्न जालो म्हण. खबर इल्लीशी. पूण म्हाका अजापाचो धक्को बसलो. बबनाक एक सादो - भोळो तरणाटो म्हूण आमच्या वाड्यार वळखताले. तो पणजे सरकाराच्या शिक्षण खात्यांत कारकून म्हूण कामाक आशिल्लो. एक नवोदीत लेखक म्हूण मुखार सरतालो. गांवांत जातल्या सांस्कृतिक कार्यक्रमांत तो सदांच मुखार आशिल्लो. कोणाचे भानगडींत ना आनी चड उलोवपी न्हय असो हो तरणाटो मोगांत केन्ना पडलो? ताका बामणाली चली खंय मेळ्ळी? हें हांव चिततालों. इतल्यांत प्रकाश मुखार सांगपाक लागलो.

' ती चली एके खाजगी कँपनीत कंप्युटर ऑपरेटर म्हूण काम करता. तिका तीन भाव, आनी ही एकलीच चली. वयल्या बाजारांत, फोंड्यां ताचें व्हडलें घर आसा. ताचो भाव एक नांवाजतो बिझनेसमॅन. बबनान आतां पर्वरि, सरकाराचो गाळो भाड्यान घेतला. ताका घेवन तो थंय रावता.. पूण ताची आवय घरांत आसता.'

प्रकाशान आयकल्ली खबर, आपले पदरचें इल्लें घालून म्हाका सांगून तो तरतरीत चलूंक लागलो... हेरांक बातमी दिवंक...

प्रकाश असोच. ताच्या तोंडांत मात्त कितेंच रावना. हाचें ताका आनी ताचें हाका सांगप हेंच ताचें काम. बेकार आशिल्लो. एफ्. वाय्. बी. ए, नापास जाल्लो. चार भयणी आसात तांचीं फुडें लग्नानां जावपाची आसात. हाचो ताका मात्तूय हुस्को ना! बापूय ल्हानपणांतच अंतरलेलो. आवय आनी भयणी कोणाचेंय काम करून स्वताचें आनी हाचेंय पोट भरतालीं. लोक म्हणटाले, प्रकाशाच्या बापायन एके क्रिस्तांव बायलेक नागोवन तिच्यो वस्ती हाडून घरांत दवरल्यात. त्यो एकेक करून तीं खातात. प्रकाश कामाक वचनासलो हें खरें. बेकार रावन गांवांतच हेडटालो. बापायन कितें दवरलां, तिं खरें - फट तांकांच खबर! हांवें एक दीस एके फॅक्टरींत ताका सुपरवायझराचें काम हाडलें. तर म्हणपाक लागलो. हांवें कॉलेज केल्या आनी हें सादें काम करूं?

तो म्हाका बबनाच्या लग्नाची खबर सांगून गेलो. पूण ते चलयेचें मात कितेंच सांगलें ना. तशेंच बबन लग्न जावन घरा आयलो काय ना तेंवूय सांगूंक ना.

दुसऱ्या दिसा शेनवार आशिल्ल्यान हांव राष्ट्रोळ्यार बसून बबनाचेंच चिततालों. बबनाचें आईन ह्या लग्नाक विरोध करूंक ना काय?

हांव स म्हयने गांवांत नाशिल्ल्यान ही खबर म्हाका कळूंक नाशिल्ली. कंपनीच्या

कामाखातीर हांव स म्हयने दिल्ली गेल्लों. तो कालूच गांवांत पाविल्लो.

इतल्यांत आमच्या वाड्यावयलो जाण्टेलो नांना आयलो.

हांवें नानाक म्हळें,

'नाना, बबनाची कितें खबर?'

'तुका खबर ना?'

'नाना, खबर कशी आसतली? स म्हयन्यांनी हांव कालूच गांवांत आयलां!'

मागीर नाना म्हाका बबनाची खबर सांगपाक लागलो.

कचेरेच्या कामाक बबन एक आठवडो सांवड्ड्यां गेल्लो. आठ दीस थंय हॉटेलांतच रावतालो. थंय ताका आश्विनी नांवाची एक चली मेळ्ळी. ती जे कंपनीत काम करता तांचेवतीन आयिल्ली. तिचे आनी हाचे कचेरेची कार्यावळ एकठांय चलताली. तशेंच बबन बरोवपी आनी आश्विनीक वाचपाची खूब आवड. तशे दोगांयचे विचार एक जावन तीं केन्ना लागीं आयलीं तें तांकां कळ्ळेंच ना.

एक दीस अशीच कार्यावळ चलताली. तेन्ना बबनान आश्विनीक पळयत ताचेरच एक मोगाची कविता म्हटलेली. तेन्ना तर तें सामकें भुल्लुसलें. आठ दीस तीं एकठांय आशिल्ल्यान तांचो मोग जालो. पयलीं खरें तर बबनाक खबर नाशिल्लें कीं आश्विनी सारस्वत म्हूण. तशेंच आश्विनीक खबर नाशिल्लें बबन नायक म्हूण.

कार्यावळ सोंपून बबन घरा आयलो. आश्विनीचो ड्रायव्हर बबनाचो इश्ट आशिल्लो. ताचेकडेन तो पत्रां बरोवन ताका कचेरेंत धाडटालो. एक दीस ताणें सांगलें कीं तें सारस्वत म्हूण. आयकून बबन तटास पूण त्या दोगांयनी जातीयवादाक खोंट मारून लग्न जावपाचो निश्चेव केल्लो.

मदींच हांवें नानाक विचारलें.

'मागीर तांच्या घरा खबर केन्ना कळ्ळी?'

'एक दीस आश्विनीन स्वताक ती खबर घरा सांगली!'

बबन नायक सरकारी कारकून म्हूण काम करता. हांव ताचेर मोग करतां. आमी लग्न जावपाचो निश्चेव केला!

बबन जे कचेरेंत काम करतालो, ताचो अधिकारी आश्वीनीच्या भावाचो खास इश्ट आशिल्लो. आश्विनीच्या भावान तांच्या मोगाची खबर वचून बबनाच्या सायबाक सांगली

सायब कट्टर जातीवादी न्हय वर्गवादीय. ताणें सांगलें,

' तो नायक, तशेंच तो धावीच शिकला हें लग्न जावपाक जायना.'

' तो नायक म्हूण तांच्या घरा खबर कळटकच व्हडलो बोवाळ जालो. पूण तें खंबीर आशिल्लें, ताणें घरा सांगलें की हांव लग्न जातलें तर बबनाकडेनच जातलें!

मागीर थोड्याच दिसांनी आश्विनीचे आवयन बबनाक सागून धाडलें, 'आपली चली

तुका मेळची ना. तूं पूलार रावन जीव दी' बबनान परत सांगून धाडलें.

'हांवे जीव दिंलो तर तुजे चलयेक वांगडा घेवन दितलों!'

प्रकरण मोठ्यार पडलें. तांचो एक भाव वागसेनेच्या फांट्याचो मुखेली . तो बबनाक मारपाक खटपट करपाक लागलो.

बबन हें चितून अस्वस्थ जालो आनी भिरकीसरशीं एका म्हयन्याची रजा घेवन घरा आयलो.

ही खबर जेन्ना बबनाचे आवयक कळ्ळी तेन्ना ती खूब भिली. बबन एका खेडेगांवांत गरीब घराण्यांत जल्मल्लो. बापूय नाशिल्लो. पूण बापायचें थोडे पेन्शन मेळटालें. घरचें शेत, काजी आशिल्ल्यान ताचेर तीं जीण चलयतालीं.. ताचे एके भयणीक लग्न करून काणकोणां दिल्ली. ताचो भावोजी सरकारी कामाक आशिल्लो. ताणेंच ताका सरकारी नोकरेक लायिल्लो.

सगल्या सोयऱ्यांनी आनी इश्टांनी बबनाक खूब समजावपाचो यत्न केलो. पूण तो हट्टाकच पेटिल्लो. आपूण लग्न जालों तर आश्विनीकडेन, अशें सांगून तो आवय बरोबर झगडून रागान मांद्रयां मामागेर आयिल्लो.

आश्विनीच्या भावान ताका जिवो मारपाची धमकी दिल्ली. पूण तो मातूय भिलो ना . तो धीरवान आशिल्लो. ताचोय संबंद जायत्या व्हडल्या लोकांकडेन येतालो.

आवयक दिसलें, तो लग्नाक पिसो जालो म्हूण. तिणें आपले चलयेक सांगून बरी सोयरीगत पळोवपाक खटपट केली. पूणं बबनान कानामनार घेतले ना.

बबनाच्या कामावयल्या इंश्टांनी ताका खूब समजावपाचो यत्न केलो. पूण तो मोगान पिसो जाल्लो.

उपरांत बबनाक आश्विनीक फुसलावन हाडून म्हालांत वचून रजिस्ट्रेशन करून सावंतवाडी वचून लग्न जावन घरा आयलो. तेन्ना घरा तांकां लोकांनी गडगंज येवकार दिलो. आतां तो बायलेक घेवन पर्वरी रावता. आवयक आपयतालो आपले वांगडा रावपाक, पूण ती घर सोडपाक तयार ना. केन्नाय येवन खबर घेवन वता.

नानान बबनाची खबर सांगली आनी म्हणपाक लागलो. ते बबनाक मारपाक सोदतात. पोलीस कंप्लेंन केल्ली, पूण कायद्याची बाजू घेवन बबन जिखलो.

बबनाच्या लग्नाक आतां एक वर्स जालें पयर ताका एक सोबीत चली जाली तेन्ना आश्विनीच्या कुळाराचीं सगली आयलीं. तेन्ना लग्नापयलीं दिल्ले धमकेचो थय मागमूसय नाशिल्लो.

आतां बबनाची बायल कुळारा वचून आयली, पूण बबन अजून मेरेन मावोड्यां वचूंक ना तोवूय वतलो. नाटकाक नितकीच सुरवात जाल्या



## दुर्दशा

भायरसून मनीस कितलोय सुखी दिसलो तरी ताचें भितरलें दुख्ख सट् करून दुसऱ्याक कळना. तशेंच म्हाका म्हजो इश्ट येसवंताचे बाबतींत घडलें. तो सदांच हांसत्या मुखामळान रावपी, आपलें दुख्ख भितरले – भितर गिळपी असो तरणाटो. ताणें आपलें दुख्ख कोडूलिंबाचें उदक कशें दोळे धापून भितरले भितर गिळिल्लें.

तर म्हजी आनी ताची वळख स्कुलांतली. हांव सातवीमेरेन मोरजे शाळेंत शिकतालों. पूण वायट इश्टांच्या संगतीक लागून नापास जालों, म्हूण घरच्यांनी म्हाका पेडण्यां मावशेगेर धाडलो. आनी थंयच स्कुलांत घातलो. स्कुलांत येसवंत म्हाज्याच वर्गांत आशिल्लो. आमी दोगूय एकाच बाकार बसताले. वांगडाच फिरताले. ताका लागून आमची बरी इश्टागत जाल्ली. पूण हांव सगल्यांमदी भरसून वावुरतालों. तो मात एकोलयो कसो रावतालो. कोणाबरोबर चड उलय नाशिल्लो. एकमेकांत मिसळ नाशिल्लो. हांव वांगडा आसल्यारूच कोणायकडेन उलयतालो.

हांव शाळेंत शिकता आसतना म्हजो बापूय भायर पडलो. आनी ताका लागून म्हाका पंदरा दीस घरा रावचें पडलें. पंदरा दिसांनी हांव जेन्ना स्कुलांक गेलों, तेन्ना येसवंत दुसऱ्या इश्टांचे संगतीक लागलो आनी कॅरम खेळपाक वचपाक लागलो. इंटरवाल जालो कीं तो सदांच खेळपाक वचपाक लागलो. तेन्ना हांवें ताका खूब समजावपाचो यत्न केलो.

''पयलीं शिक्षण. नोकरी लागतकूच मागीर तूं तुका जाय तें कर.''

पूण तो आयकुपाचे पलतडीं पाविल्लो.

तो आठवेक नापास जालो आनी त्यांच वर्गांत उरलो तर.हांव पास जावन फुडल्या वर्गांत गेलों. तो स्कुलांत येतना ताका घरसून पॉकेटमनी मेळटाले. ते पयशे घेवन तो हॉटेलावेलें खातालो. म्हाकाय दितालो. पूण सदांच ताचें खावपाक म्हज्या जिवार येतालें. म्हजी घरची परिस्थिती बरी नाशिल्ल्यान म्हाका घराकडसून पयशे मेळनाशिल्ले.

हांव धावी पास जालों, तेन्ना तो नववेक आशिल्लो. आतां ताणें कॅरम खेळपाचें सोडिल्लें. एकदां बापायन ताका कॅरम खेळटना पळोवन बरोच मारिल्लो. तेन्नाच्यान ताणें कॅरम खेळपाचें सोडून दिल्लें. घरचे बिकट परिस्थितीक लागून हांव मुखार शिकूंक पावंक ना. हांगाच आमी दोगूय पयस जाले. ताचो घरचो पत्तो लेगीत म्हाका खबर नाशिल्लो.

हांव आतां कामाक वचपाक लागिल्लों. एका दिसा मावशेगेर गेल्लो, तेन्ना नवसो मेळ्ळो. तो आमच्याच वर्गांत आशिल्लो. तो सांगपाक लागलो, येसवंत बारावी पास जावन म्हापश्यां

झेवियर म्हाविद्यालयांत बी. ए. करता. आयकून हांव तटास. जाका आमी स्कुलांत एक तवनास तरणाटो म्हूण वळखताले, तो मुखार शिकत अशें दिसूंक नाशिल्लें.

हांव एका दिसा कामासाकून सुट्टकूच भायले भायर मावशेगेर गेलों आनी दुसऱ्या दिसा सकाळीं कामाक येवपाक बसस्थानकार आयलों. पणजे वचपी बशींत चडून दांडयेक धरून उबो रावलों. तशी ते बशींत गर्दी नाशिल्ली. पूण कॉलेजींतल्या तरणाट्यांनी पुस्तकां दवरून पयलींच सिटां आडावन दवरिल्लीं, तें पळोवन म्हाका राग आयलो. पूण हांव गप्प रावलों. म्हज्या गांवांत जाल्यार हांव वाद घालतलों आशिल्लों.

बस चालू जाली. हांव बस चलतना झाडां परतीं दिसतात, ती निसर्गाची मजा तोखेतालों. तितल्यांत फाटल्यान कोणेंतरी म्हाका उलो मारता म्हूण वळून फाटल्यान पळय तर 'येसवंत'. ताणें एका सिटावयलीं पुस्तकां काडून म्हाका बसपाक दिलें. मागीर म्हजेकडसून सगली खबर विचारून घेतली. ताणेंय आपली खबर म्हाका सांगली. बी. ए. करून तो फोंड्या जी. व्ही. एम्. म्हाविद्यालयांत हिस्ट्री विशय घेवन बी.एड्. करतालो. वतना म्हजो पत्तो घेवन तो गेलो.

थोड्या दिसांनी आमचें घर सोदीत – सोदीत तो आमगेर आपले भयणीच्या लग्नाची पत्रिका घेवन आयलो. भायर पावस पडटालो. त्याचवेळार भाड्याची मोटरसायकल घेवन तो आमगेर आयिल्लो. म्हाका रजा मेळूंक नाशिल्ल्यान आईकडेन प्रेझेंट दिवन हांव कामाक गेलों. पूण आई लग्नाक वचपाक जे बशीची वाट पळयताली ती बस तांचें लग्नाचें भाडें घेवन गेल्ली. ताका लागून आई लग्नाक वचूंक पावंक ना. हांव घरा आशिल्लों तर कोणाय इश्टाची स्कूटर घेवन वतलों आशिल्लों. खाजगी बसवाले अशे मदींच भाडें घेवन लोकांक त्रासांत उडयनात म्हूण हांव बेजार जालों. हांवें मागीर ही खबर ताका सांगली. मागीर आमी एकठांय बसून खूब उलयले. तेन्ना म्हाका आमी वांगडा स्कुलांत शिकताले, तेन्नाच्या गजालीची याद जावपाक लागली. शाळेलागींच एक आवडूमावशी म्हूण जाण्टेली रावताली. आमी तिका आज़ी म्हण्टाले. तिका भुरगीं नाशिल्ल्यान आमकां ती खूब बरी करताली. तागेर सदांच आमी उदक पिवपाक वताले. ती केन्नाय म्हुणी, 'जो पयलीं खूब मस्ती करता, तोच बरो म्हूण नामनेक पावता. तर पयलीं जो बरो आसता, तो निमाणें इबाडटा.''

येसवंताचें घर वारखंड आशिल्लें. कोंकण रेल्वे तांच्या घरालागसून वताली. एका दिसा तो म्हाका रेल्वेचो बोगदो पळोवपाक घेवन गेलो. तेन्ना हांवें ताचें घर पळयलें. ल्हानशेंच घर. पूण साफसूफ आशिल्लें.

येसवंताक चार भयणी आनी हो एकलोच. एके भयणीचें लग्न जाल्लें, तर तिगी लग्नाच्यो आशिल्ल्यो. बापूय गवंडी काम करतालो. आवय घरचें काम करी. ताका शेत, काजी आनी माड आशिल्ले. तशी ती खावन जेवन सुखी आशिल्लीं.

हांवें बोगदो पळयलो. दोंगर फोडून भितरल्यान रस्तो केल्लो, तें पळोवपाक अप्रूप दिसतालें.

मागीर हांवें ताका म्हळें,

''येसवंत, तूं बियर केन्ना पिला रे?''

''केन्नाय पिता रे इल्लीशी!''

''मागीर आज पिवया मुरे?''

म्हूण हांव ताका घेवन लागसारच्या बार्रात भितर सरून दोन बियरी मागयल्यो. तेन्ना तो फकत अर्दीच पिलो. हांवें देड बियर मारली.

मागीर तो म्हणपाक लागलो.

''आपले कॉलेजींतले इश्ट आपणांक सांगताले कीं आपूण जिवान बारीक म्हूण बीअर पी. पूण हांवें तें आनीक वेसन लावन घेवंक ना रे. कामाक लागतकीर मागीर पळोवं येता.''

मुखार सांगपाक लागलो, ''तुज्यान पिवं येता रे ! तूं कामाक आसा न्हय?''

मागीर हांवें बोल्सांतल्यान मधू भायर काडलो आनी तो खावपाक लागलों. तें पळोवन ताणें म्हळें, '' हें बरें न्हय अजू. ड्रींक्स एक वेळ बरें. आमचो एकलो लेक्चरर सांगतालो, जेवचे पयली 'लिमिटेड ड्रींक्स ' घेतल्यार आरोग्याक बरें. पूण न्हय तंबाखू. ताका लागून कॅन्सर जाता खंय.''

हें आयकून हांव अजाप जालो. स्कुलाक आसतना इतली मस्ती करपी हो तरणाटो कॉलेजीचे पांवडे चडला तर इतलो निबर कसो काय?

ताणें बी. एडाक हिस्टरी विशय घेतिल्ल्यान केन्नाय तो आमगेर कोंकणीचीं पुस्तकां व्हरपाक येतालो. तेन्ना आमी एकामेकांक मेळटले. ताचें दुख्ख सट् करून ताच्या तोंडार दिसनाशिल्लें. पूण त्या दिसा ताका पळोवन म्हाका दुभाव आयलो. पेडणें बाजारांत म्हाका तो मेळिल्लो. तेन्ना भायर रखरखीत वोत पडिल्लें. हांव ताका घेवन गार्डनांत गुलमोहराच्या झाडापोंदा सावळेक आयलो आनी म्हळें,

'' येसवंत, लजूं नाका. कितें जाला सांग.''

ताणें सांगलें तें आयकून हांव अस्वस्थ जावन चितपाक पडलों. ताची फाटली भयण धावेक आसतना एका चल्याच्या मोगांत पडली. तो चलो लोफर आशिल्लो. बेश्टोच सायकल घेवन गांवार हेडटालो. बेकार आशिल्ल्याकारणान ताका काम कितेंच नाशिल्लें. ताच्या घरचीय दुर्दशा जाल्ली. ताचो बापूय दोनदा लग्न जाल्लो आनी दोगूय बायलांक सोडून घांटिणीक दवरून तांगेरच रावतालो.

लग्नाक येसवंताच्या घरचो विरोध आशिल्लो.

एक दिसा येसवंताचे आवयन आपले चलयेक खूब समजावन सांगल, '' तो चलो बरो न्हय. तशेंच ताचें घराणेंय बी बरें न्हय. तेन्ना ताची संगत सोड.''

हें आयकून येसवंताचे भयणीन सांगलें, '' आपलें आनी ताचें कितेंच ना.'

'' पूण लोक गांवार कितें उलयतात तें आयकला'?

'' लोक बेश्टेच तोंडाक येता तें उलयतात!''

तेन्ना तो विशय थंयच सोपिल्लो.

त्याच दिसांनी येसवंताचे आवयन आपले चलयेचें लग्न करपाची तयारी सुरू केली. एक बरो चलो पळयलो. तो घर पळोवपाक येवचे पयलीं चलयेक लेगीत सांगिल्लें. तांणीय तें मान्य केल्लें. पूण येसवंताचो एक बापोलभाव खूब सोरो पितालो. लोकांचीं झगडीं लावन तांचेकडसून सोरो घेवन मजा पळोवप हेंच ताचें काम. तांणी ताका सांगलें,

'' तूं लग्न जायना जाल्यार तो चलो जीव दितलो.''

अशेंच आनीक कितें कितें सांगून ताचें मन बदलून मुखार कितें जातले तें पळोवंक म्हूण तो रावलो.

चलो घर पळोवपाक येवचे आदल्याच दिसा येसवंताचे भयणीन वीख खावन जीव दिवपाचो यत्न केलो. ताका रातोरात हॉस्पिटलांत व्हरून ते वाटावले. तेन्ना हॉस्पिटलांत वांगडा तो बापोलभाव आयिल्लो. येसवंताचे आवयन डॉक्टराच्या मुखार ताचे पाय धरून सांगलें,

'' वीख घेतला म्हूण कोणाकूच सांगूं नाका. आमची लज वतली, गांवांक तोंड दाखोवपाक जागो उरचो ना आमकां.''

तांणीय ते मान्य केल्लें. पूण दुसऱ्या दिसा सोरो पिवन ताच्या बापोलभावान ती खबर गांवार घातली. ह्या पिकासावांत येसवंताचो बापूय खूब सोरो पिवपाक लागलो. तर आवय चितून - चितून दुयेंत पडली.

उपरांत एका दिसा सोरो पिवन बापायन आपले चलयेक खूब मारलें, म्हूण रागान तें केप्पां आपल्या बापोलयाकडेन गेलें, ते परत घरा येना जालें. हें सांगून मुखार येसवंत सांगपाक लागलो, ''व्हडल्या भयणीच्या लग्नाचें थोडें रिणूय उरलां. तशेंच शेताच्या दिसांनी बापूय घरा आयलो तो परत कामाक वचना. सोरो लेगीत लोक कमी दरांत मागतात. घरांत तर झगडीं जायत आसतात म्हूण घरा वचपाक मन येना. घरांत भितर सरलो कीं तकली जड जाता, म्हूण हांव चडसो वगत घराभायर इश्टाम्हऱ्यांतच काडटां.''

हे आयकून हांवें ताका धीर दिलो आनी सांगलें, '' आपलें दुख्ख कोणाकूय दुसऱ्या मनशाक सांगलें की मन ल्हव जाता.''

''हय. पूण आपल्याच घरची दुर्दशा दुसऱ्याक कशी सांगतलो ?''

... आतां तो पणजे एके खाजगी कंपनींत कामाक वता आनी थंय रुमार रावता. म्हयन्याक एक फावट घरा वचून येता. आतां तो आपलें सगलें दुख्ख विसरून बरो आशिल्लेवरी दिसता. हांव मात ताणें गार्डनांत बसून सांगिल्ले ताचे घरचे तें दुर्दशेची खबर याद जाता, तेन्ना तेन्ना अस्वस्थ जाता.

■

# दुभाव

रंजनाक तीन भयणी आनी दोन भाव आशिल्ले. बापूय ल्हानपणांतूच भायर पडिल्ल्यान आवयन खूब त्रास काडून ताका ल्हानाचो व्हड केल्लो. घरचें थोडें शेत आशिल्लें. तांचेर तांचें चलतालें.

रंजना दिसपाक साधारणशें पूण सभावान खूब गर्विश्ट आपणांक जाय तेंच करपी, दुसऱ्यांक किंकोंत करपी. ताका वीस वर्सां जाली, तेन्ना आवयन ताका सोयरगत पळोवपाक सुरुवात केली. ती मेळमेळिल्ल्यांक सांगताली, '' एक बरो चलो आसा जाल्यार आमच्या रंजनाक पळय हां.''

तांच्या एका सोयऱ्यान रंजनाक सोयरीक हाडली. चलो सरकारी काम करतालो. तसो घराण्यानय बरो आशिल्लो. पूण तो '' शिपाय'' म्हूण रंजनान ही सोयरीक मोडली. एकदां एका शेजाऱ्यान सोयरीक हाडली. तो गॅरेजींत काम करतालो. पूण ताचे केस व्हडले आसात म्हूण ही सोयरीक मोडली. अशेंच कांय ना कांय कारणान तें सोयरीक मोडटालें. अशींच वर्सां धांवतालीं. आवय बापडी हुस्को करताली.

अशें करतां करतां रंजनाक तीस वर्सां जालीं. मागीर ताच्या बापोल-आजयेन आपल्या भयणील्या चल्याक देवळांत व्हरून ताका दाखयलें. तो एके खाजगी कंपनीत कामाक आशिल्लो. तो खूब तवनास आशिल्लो. लग्न जावन सुदारतलो, म्हूण ताचीं घरचीं ताचें लग्न करपाक मुखार सरिल्लीं.

न्हवऱ्याचें नांव शाम. ताका रंजना मानवलें. रंजनानूय ह्या लग्नाक पसंती दाखयली. इतलेच खातीर की तें आतां बेजारिल्लें. मात्त रंजनाची आवय न्हवऱ्याची चौकशी करचे पयलींच लग्नाक मुखार सरिल्ली. तेर्म जातकूच रंजनाच्या घरांत शामाच्या पराक्रमाची खबर कळ्ळी. पूण मागीर सुदारतलो म्हूण ताचे आवयन नाईलाजान सोयऱ्यांचे, शेजाऱ्यांचे पांय धरून रंजनाचें लग्न लावन दिलें.

रंजन घरचें तशें गरीब आशिल्लें. तरी ताणें आवयकडसून सगल्यो वस्ती हट्टान करून घेतल्यो. भाव बेकार आसात. फाटल्यान लग्नाच्यो भयणी आसात हाचो विचार ताणें केलो ना. आवयक हें लग्नाचे रीण फारीक करपाक खूब त्रास पडटले, हाचोय ताणें विचार करूंक ना.

लग्न धुमधडाक्यान जालें. नवे नवलायेन रंजना न्हवऱ्याच्या घरांत भितर सरलें. घरांत मांय, मांव आनी एक देर आशिल्लो. नणंदांची पयलींच लग्नां जावन तीं आपल्या घरांत

सुखांत आशिल्ली. देर गांवांतच शाळेंत शिकयतालो. लग्न जाल्ल्यान शामय रजेर आशिल्ल्यान घरांत आशिल्लो. तो ताचेकडेन  बरो वागतालो.

शाम मडगांवचे एके खाजगी कंपनींत ड्रायवर म्हूण काम करतालो. पगारय बरो आशिल्लो. लग्न जावन थोड्याच दिसांनी तो रंजनाक घेवन रुमार व्हरपाक  तयार जालो. तें उमेदीन सामान घेवन वचपाक भायर सरलें. पूण भायर  सरतना ताका मांय, मांव आनी देराची खूब याद येताली. तीं तांका खूब बरीं करतालीं. देर लेगीत 'भाबी' म्हूण फाटल्यान – फुडल्यान बोवाळटालो.

मडगांव रुमार येतकूच ताका ल्हवल्हव घोवाचे प्रताप कळपाक लागले. ताच्या शेजरा शेंवतें' नांवाची एक बायल रावताली. ती लोकांच्या घरांत वावराडेचें काम करी. पूण तोंडान मात्शी फटकळ. ताणें रंजनाची दोस्ती करुन ताच्या घोवाच्यो सगल्यो खबरी ताका सांगिल्ल्यो.

शाम सदचो  रातचो सोरो पिवन येतालो. पूण ताका कितेंय विचारल्यार राग येतालो. हें पळोवन रंजना तोंड धापून  गप्प राविल्लें. पूण तो रंजनाक कितेंय कमी  करी नाशिल्लो. ताचेर खूब मोग करतालो. ताका जाय तें हाडून दितालो.

एका दिसा रंजनाच्या  आत्याचो चलो मडगांवां आयलो. तो थंय एके कंपनींत नव्यानच कामाक  लागिल्लो. मडगांवां हाच्या रुमार तो रावपाक सोदतालो. हे संबंदान तो रंजनाकडेन उलयलो. तें म्हणपाक लागलें,

'' आपूण हांकां विचारून सांगता.''

रंजनान रातची  ही खबर घोवाक सांगली. ताणें '' बरें'' म्हळें. आनी रोखडेंच रंजनान शेखराक राव म्हूण सांगलें. तेन्नासावन शेखर तांच्याच रुमार रावपाक लागलो.

एक दीस शाम रातपाळयेर कामाक आशिल्लो. तेन्ना शेखराक  भायर न्हिदोवचें पडटा म्हूण रंजनान ताका भितर  खाटीर न्हीद म्हूण सांगलें. थोड्याच  वेळांत  शाम घरा पावलो. तो खूब सोरो पिल्लो. शेखराक भितर आपल्या बेडार न्हिदिल्लो पळोवन ताणें  व्हडलो बोवाळ केलो. तांच्यानी ताका खूब  समजावपाचो यत्न केलो. पूण तो समजून घेवपाचे मनस्थितीत नाशिल्लो. हें पळोवन शेखर दुसऱ्या दिसा नोकरी सोडून गांवांत आयलो, तोच अस्वस्थ जावन.

ह्या दिसासावन शामाच्या मनांत जें दुभावाचें भूत बशिल्लें तें रंजनाच्या वनवासाक कारण  जालें. त्या दिसासावन  तांच्या दोगांमदीं व्हडली दरी निर्माण जाली. शाम आतां खूब सोरो पिवन रंजनाक बडयतालो. जुगार खेळटालो, शिंदळक्यांकडेन वतालो. घरांत कांयच हाडिनासलो. पयल्या  सप्तकांत पगार सोपोवन मागीर  वस्त घाण दवरतालो. ताणें थोडें भांगर  तशीच स्कूटर लेगीत विकिल्ली. रंजना बापडें तोंड धांपून सगलें सोंसतालें. कुळारा कळत तर जाण्टे आवयक त्रास जातले. म्हूण तें तांकां आपूण बरें सुखांत आसा म्हूण  पत्रां धाडटालें. ताचो पयलींचो  हट्टी सभाव खंयचेखंय नाच जाल्लो.

लग्न जावन दोन वर्सां जालीं तरी भुरगीं जायनात म्हूण शाम एक दीस ताका घेवन डॉक्टराम्हऱ्यांत गेलो. त्या दिसांनी रंजना चिंतून चिंतून बारीक जाल्लें. डॉक्टरान ताका तपासलें आनी सांगलें,

'जल्माकच ताका 'बीजाचो' दोश आशिल्ल्यान तशेंच तें अशक्त आशिल्ल्याकारणान ताका भुरगीं जावचीं नात.''

तें आयकून तो ताका घेवन रुमार आयलो. तेन्नाच्यान तो आयल्याबरोबर झगडपाक निमित्त सोदतालो. तें निमित्त ताका रोखडेंच मेळ्ळेंय बी. जालें अशें,

एक दीस रंजनाक आवय खूब दुयेंत आसा म्हूण भावाचें पत्र आयलें. ताणें घोव कामावेल्यान घरा येतकच ताका ही खबर सांगली.

'' हांव कुळारा वचून येतां.''

''कित्याक?''

''आवय खूब दुयेंत आसा म्हूण भावाचें पत्र आयला.''

रंजनान पत्र घोवाक दाखयलें. पूण तो म्हणपाक लागलो,

'' वची गरज ना.''

ताणें त्या पत्राचे कुडके करून उडयले आनी तो कामाक वचपाक गेलो. तेन्ना रंजना आवयची याद काडून खूब रडलें. आनी मागीर मनांतल्यान कसलो तरी निच्छेव करून शेंवत्याकडल्यान उसणे पयशे घेवन कुळारा वचपाक भायर सरलें. बसींत बसतकच ताका मात्शें सूऽऽऽ जालें. ताणें कुळारा येवन आवयक पळयलें. बाय आयलें, म्हूण धाकल्या भावंडांक खोशी जाली.

रंजना दुयेंत आसा असो आवयक दुभाव आयलो म्हूण तिणें हुसक्यान म्हळें,

''बाय, तूं कितें तरी चिंतता.''

तेन्नाय ते गप्प रावले. तेन्ना आवयन मुखार म्हळें,

''तुजो संवसार बरो चल्ला मुगो?''

'' हय आई, हांव खूब सुखी आसां.'

ताणें आवयक फट मारली इतलेच खातीर कीं तिका जाण्टेपणांत त्रास जावच न्ही म्हूण. तें मडगावां येवपाक भायर सरलें. पूण सगलींच जाणा नेट करतात म्हूण त्या दिसा आवयगेर रावन दुसऱ्या दिसा रुमार वचपाक भायर सरलें, तर शाम मावोड्डयां हजर,

'' तुका वचूं नाका म्हटलें आसतनां तूं हांगा आयला? आयजपासून तुका म्हजें घर बंद''.

आनी कोणाचेंय आयकून घेय नासतना तो रागान वचपाक गेलो. उपरांत ताणें घरा येवन आपल्या आवय-बापायक सांगलें,

''रंजनाक घरांत घेशात तर हांव घरात पांय दवरचों ना.''

सगल्यांनी खूब खटपट केली. तांणी लाचार जावन शामाचे पांय धरले, तरी पूण तो रंजनाक व्हरपाक  तयार जालो ना. तेन्ना  रंजनाच्या  भावान कोर्टात केस घालून शामाक घटस्फोट दिवन ताच्या पगारांतल्यान   म्हयन्याक अर्दो पगार रंजनाक मेळोवन दिलो.

पूण खंतीन आवय हांतरुणार पडून निमाणें गेली लेगीत. तेवटेन रंजनाक सोडिल्याकारणान बाकीच्या भयणींक सोयरीक येना जाली.

आतां रंजना चितून चितून पिशें जालां, जाल्यार शाम दुसरें लग्न जावन ताका एक चली जाल्या. ताचो संवसार सुखाचो चल्ला. पूण बाबडें रंजना...?



# दुर्दैव

हांव पणजे पेट्रोलपंपाचेर नव्यानूच कामाक लागलेलों, तेन्नाची खबर . आमचो पेट्रोलपंप कंदब बसस्थानकावेल्यान लागींत आशिल्लो. बसस्थानकावेल्यान चलत पेट्रोलपंपाचेर वतना वाटेर लोकप्रिया नांवांचे हॉटेल मेळटालें. ताचो मालक बसप्पा हो मूळ कर्नाटकांतलो. मांडवी पूल मोडिल्लो तेन्ना तो कामानिमतान गोंयांत आयिल्लो आनी बेती फेरीबोटीकडेन एका हॉटेलाचेर वेटर म्हूण थोडे दीस कामाक लागिल्लो. उपरांत पणजे आम्लेटी विकून, थोडेदीस कॉन्ट्रॅक्टाचेर एके कंप्रनीचें कॅन्टीन चलोवपाक लागलो. मागीर थोडे पयशे जातकूच ताणें जागो विकतो घेतलो आनी पणजे इल्लेशें हॉटेल घातलें. गोंयांत आयिल्लो तेन्ना तो हाफ–पॅन्ट आनी एक पिशवी घेवन आयिल्लो, तेन्ना आमचे लोक ताका घाटी म्हूण हिणसायताले. तोच आतां हॉटेलाचो मालक जाल्लो. आपल्या हॉटेलाचेर मात्त ताणें गोंयचेच भुरगे वेटर म्हूण कामाक दवरल्यात.

हांव पंपाचेर कामाक लागतसावन सकाळचो आनी सांजचो सदांच थंय च्या पिवपाक वतालों. बसप्पा म्हजो बरो इश्ट जाल्लो. एक दीस म्हजी आवय दुयेंत पडली, म्हूण हांव आठ दीस कामाक येवंक ना. कामाक आयलों, तेन्ना बसप्पाचें हॉटेल बंद आशिल्लें. हॉटेल बंद आसा तें पळोवन म्हाका कशेंतरीच दिसलें. हांव कामाक आयिल्ल्याक तें एकूय दीस बंद नाशिल्लें. हांवें दोगांतिगांक विचारलें, पूण ते सारके सांगना जाले.

एक दीस हांव दुसऱ्या हॉटेलांत बसून भाजी–पाव खातालों. तें हॉटेल आमच्या पंपालागींच आशिल्लें. हांव खातां खातां रस्त्यार गाडयो धांवतात तें पळयतालों. तितल्यांत वेटरान च्या हाडून म्हज्या मुखार दवरली. हॉटेलांत खूब गर्दी आशिल्ली. इतल्यांत हॉटेलाचो मालक आनी एक गिरायक उलयतात तें म्हज्या कानार पडलें. हांव कान दिवन आयकुपाक लागलों. ते बसप्पाच्योच खबरी उलयताले.

... बसप्पा लग्न जाल्लो. ताका दोग चले आनी एक चली आशिल्ली. ताची बायल गोरीच, उंच. पळोवपाक सुंदर दिसताली. तो बायलेचो खूब मोग करतालो. केन्नाय ताची बायल हॉटेलाचेर येवन गल्ल्यार पयशे घेवपाक रावताली. ती हिंदी भास उलयताली. ताच्या हॉटेलाचेर गांवचो एक भुरगो पयलींपसूनच कामाक आशिल्लो. बसप्पाची बायल सांगताली, तो आपलो सोयरो म्हूण. बसप्पा नासतना तांचें दोगांयचें हांसप, खिदळप आमच्या मनाक लागतालें. पूण ताचो सोयरो म्हूण ती ताचेकडेन बरें वागता काय? असो विचारूय मनांत येतालो.

बसप्पाचो रुम मळ्यांत आशिल्लो. हॉटेलावेल्यान थंय वचपाक पंदरा मिनटां लागताली तो सदांच सांजेचो सातांक बायलेक गल्ल्यार पयशे घेवपाक बसोवन आपूण न्हावपाक रुमार वतालो. तो वतकूच बायल हॉटेलावेल्या हेर कामगारांक बाजार करपाक धाडटाली ती हॉटेलाचें शटर ओडून घेताली आनी ती आनी तो वेटर जाका ती सोयरी म्हणटाली दोगांय भितर रावतालीं. मागीर थंय तांच्या प्रणयाक ओतो येतालो. हें बाकीच्या कामगारांक खबर आशिल्लें. पूण ते भिवन उलयनाशिल्ले. वेटराक आनी बसप्पाचे बायलेक खबर आशिल्लें कीं न्हावपाक गेल्लो बसप्पा अर्दवर येवचो ना म्हूण.

अशेच दीस वताले. आनी एक दीस तो काळो दीस उजवाडलो. सकाळपासून हॉटेलांत खूब गर्दी आशिल्ली. दनपारां तिनांक जेवण जातकूच रांदचेकुडींतल्यान भज्यांच्यो बश्यो वरून गिरायका मेजार आपटितालो. बसप्पा गल्ल्यांर बसून बील पळोवन पयशे काडटालो. तितल्यांत ताची बायल येवन रांदचेकुडीत गेली. बायलेक पळोवन '' साडे स जालीं' हें तो समजलो. सदांच ताची बायल ह्या वगतार येताली. तो केन्नाच्यान पळयता, गिरायक उणें जातलें आनी आपूण न्हावपाक रुमार वतलो. पूण गिरायक कशेंच उणें जायना. तें तर वाडतच आसा. तो भायर पळयता. रस्त्यावेल्यान गाडयो नेटान धांवतात. तांच्यो फकत आवाज आयकुपाक येतालो. तो चिंतता त्यो इतल्यो गाड्यो खंय वयतात काय? तेन्नाच ताका याद जाता. बायल स्कूटर घे म्हूण हट्टाक लागल्या. बायलेक तो कितेंच ना म्हणिना . कारण तिचेलागीं लग्न जाले उपरांत ताका हें वैभव मेळ्ळें. बायलेच्याच पायगुणांक लागून तें मेळ्ळें अशें तो मानतालो.

जूस्त सात वरांचेर तो न्हावपाक वचपाक भायर सरतालो आनी केन्नाच ड्रॉवराक चावी करपाक विसरनाशिल्लो. भितर नवोच हार आशिल्लो. तो ताणें ह्याच दिसांनी बायलेखातीर केल्लो. तशेंच सुमार धायेक हजार रुपया, हेर वस्ती तशेंच आयच्या गिरायकाचे पयशे लेगीत भितर आशिल्ले. धा हजार रुपया ताका जाग्याच्या मालकाक दिवपाक जाय आशिल्ले. तशेंच म्हयन्यापयलींच हॉटेलाक एक वर्स जाला, त्या दिसा बायलेन ताचेलागी हार मागलेलो, देखून सोमतोच ताणें तो बायलेक करून हाडलेलो.

..... तो न्हावपाक गेलो. पूण वतना चावी थयच विसरून गेलो. तो वतकूच सदाप्रमाण बायलेन शटर बद करून घेतलें आनी त्या वेटराबरोबर भितर प्रणयक्रिया करपाक गुल्ल जाली. तांकां खंय खबर आशिल्लें. बसप्पा चावी विसरून गेला, तो येतलो म्हण!

वाटेर पावन बसप्पाक चावी विसरिल्ल्याची याद जाली. तो तसोच फाटलेफाटीं परतून हॉटेलांत आयलो. पूण हॉटेल बंद! ताका अजाब !! तो समजलो कीं बायल खंयतरी गेल्या जातली. कांय वगत तो थंयच उबो रावलो. इतल्यात भितरल्यान ताका कोणतरी किटकिटात. तो आवाज आयकुपाक आयलो. तेन्नाच बाजारात गेल्लो एक कामगार सामान घेवन थय पावलो. ताका ह्या वगतार थंय पळोवन तो सामान थंयच दवरून पळून गेलो. कारण भितर

चलतालें तें ''नाटक'' ताचे संवकळीचें आशिल्लें. मात तो कित्याक धांवलो तें बसप्पाच्या लक्षांत येना जालें. तो आनीक गोंदळ्ळो.

थोड्या वेळान बसप्पाक भितरल्यान ताचेच बायलेचो आवाज आयकुपाक आयलो. तो आनीक गडबडलो! ताच्या मनांत वायट-बरे खूब विचार येवपाक लागले. तेच तिडकीन ताणें शटराक हात घालो.

........ आनी भितरलो देखाव पळोवन तो मनांतल्यान सामको हालून गेलो!

...... ताची बायल आनी तो वेटर प्रणयक्रियेंत पुरायेन रंगून गेल्लीं ताका दिसलीं. ते पळोवन बसप्पा चाळवलो. आपलेच बायलेक दुसऱ्यालागीं न्हिदिल्ली पळोवन कोण चाळवचो ना? रागान ताणें दोगांकूय बडोवपाक आरंब केलो. ह्या बोवाळांत वेटर पळून गेलो. उरली बायल. जाल्यार तिणें बसप्पाचेरूच हात उबारलो. रस्त्यालागींच हॉटेल जाल्ल्यान थंय ल्हव ल्हव पळोवप्यांची गर्दी जाली. थोड्या लोकांनी तांकां सोडोवन घेवपाचो यत्न केलो, जाल्यार थोडे मजा पळोवपाक गुल्ल जाले.

त्या दिसा बसप्पा पिकासावांत बार्रार वचून खूब सोरो पिलो. खरें तर पयलीं तो केन्नाच सोरो पिवंक नाशिल्लो.

बसप्पा वतकूच लिपून रावलेलो तो वेटर परत आयलो आनी उपरांत बसप्पाची बायल आनी तो वेटर एकठांय जावन भितरले पयशे, भांगर घेवन पळून गेलीं. ती वांगडा भुरग्यांकूय घेवन गेलीं.

हेवटेनबसप्पा पिकासावांत आपले सगले केस कापून खड्डो करुन घेवन जळींमळीं भोंवपाक लागलो.

.... हांव त्या हॉटेलांत गेल्ल्यान तांच्यो दोगांयच्यो बसप्पावेल्यो गजाली म्हाका आयकुपाक मेळ्ळ्यो आनी बसप्पाचें हॉटेल कित्याखातीर बंद आसा तें म्हाका कळ्ळें. हांव चितूक लागलों. बसप्पा बायलेचो इतलो मोग करी, पूण ती पडमूर कशी जाली काय?

तांच्यो खबरी हांवें आयकल्ल्यो . पूण बसप्पा खंय आसा तें म्हाका कळुंकूच ना. तांचें तशें कोणाकूच सोयर-सूतकच नाशिल्लें म्हूण! कारण तो भायलो. कर्नाटकांतलो. बायल ताका सोडून गेल्ली. आनी ताचीं बाकीची सगलीं सोयरीं थंय गांवांत आशिल्लीं. हांगा लागींचो असो गोंयांत ताचो कोणूच नाशिल्लो.

तेन्नाच्यान सारको एका म्हयन्यांत फेरीबोटीकडेन म्हाका बसप्पा मेळ्ळो. मळिल्लो भेस. वाडिल्लें खाड त्या भेसांत ताका पळोवंन पयलीं तर हांव वळखुंकूच ना. तो म्हजेमुखार हात पातळावन उबो आशिल्लो. तें पळोवन म्हाका पयलींचो एक प्रसंग याद जालो. ताच्या हॉटेलांत बशिल्लेकडेन बसप्पा म्हाका सांगतालो,

''खा रे, पयशे नाजाल्यार मागीर दी.''

तोच बसप्पा आयज हात पातळावन म्हजेमुखार उबो आशिल्लो. आपूण दोन दीस जेवंक

ना म्हूण सांगतालो. हांवें मनांत म्हळें,

''देवाची लीला! दुसरें कितें?''

हांव ताका घेवन हॉटेलांत गेलों. ताका भाजी-पाव खावपाक दिलो आनी हांव म्हज्य
कामाक गेलों.

हांव चिततालों, बसप्पाचें आतां कशें जातलें काय? घोवान बायलेची वाट लायल्या है
खबर हांवें खूब फावटी आयकल्ली. पूण बायलेन घोवाची वाट लायिल्ली चडशी आयकूंव
नाशिल्ली. पूण आतां तर प्रत्यक्ष दोळ्यांनी ती पळोवपाक मेळिल्ली!

खंय आशिल्लो बसप्पा खंय पावलो, हें चितूनच म्हाका खूब वायट दिसलें. ताच्या त्य
उतरांनी मात्त म्हाका पुराय अस्वस्थ केल्लो.

'' खा रे, पयशे ना जाल्या मागीर दी.''.



# आया

आमचे मावशेच्या शेजाराक पेडणें गांवांत सुनंदा नांवाचें एक गर्विश्ट चली आशिल्लें. काळ्याच रंगाचें, किडकिडीत. पूण तें पयलींपासून खूब मिजाशी आशिल्लें. ताचो बापूय घरांतच लोकांचे कपडे शिंवतालो. तर आवय घरचेंच काम करताली. ताका दोन व्हडले भाव आनी एक भयण. हें निमाणें. ताचें घराणें सगल्या शेजाऱ्यांबरोबर झगडुनूच आशिल्लें. म्हूण शेजाऱ्यांनी तांचें घर भायर उडयल्लें. तें तांगेर चवथीक लेगीत आरती करपाक वचनाशिले. तीं साद्या कारणान सुद्धां शेजाऱ्यांबरोबर झगडटालीं. आनी कितेंय जाल्यार सगली जाणां एक जावन तांकां मारपाक वतालीं.

एक दीस तांच्यांनी म्हज्या मावसभावाक दामूक लेगीत मारलो. इतलेच खातीर कीं दामून ताका चाळयल्लें म्हूण. दामू रस्त्यान सायकल घेवन वतालो. तेन्ना ताका आडोवन सगल्यांनी एक जावन मारिल्लो. पूण दामू सांगतालो ते प्रमाण पयलीं ताका सुनंदान चाळयलो खंय! ही खबर म्हाका मागीर दामून सांगिल्ली.

सुनंदा दादल्याभाशेन वागतालें. तें पॅन्ट आनी टी शर्ट घालतालें. तशेंच सायकल चलोवपाक सदांच मुखार आशिल्लें. बालदांडू तशेच दादले खेळटात ते सगले खेळ तें खेळटालें.

ताच्या व्हडल्या भावान सुनीलान बँकेचें रीण काडून कोलवाळे फेरीबोटीकडेन शिंवपाचें दुकान घातलें. तो थंयच एका मोठ्या घराण्यांतले चलयेच्या मोगांत पडलो आनी थोड्याच दिसांभितर लग्न जावन रोखडोच बायलेक घेवन रुमार गेलो. ताका जुगार खेळपाचें व्यसन आशिल्लें. आतां तो सोरो लेगीत पिवपाक लागलो. देखून, हळू-हळू ताचो धंदो लुकसाणेंत चलपाक लागलो. कोण गिरायक येना जालें. आतां तो घरांय येना जालो. बॅंकेचें रीण आशिल्लें तें बाबडो धाकलो भाव फारीक करपाक लागलो.

सुनील घरा येवपाचो बंद जालो आनी हांगासरच तांची दादागिरी कमी जायत गेली. एकलो धाकलो भाव आनीक बापूय कोणाबरोबर म्हूण झगडटलो आशिल्लो? ताचो धाकलो भाव सांखळे एके खाजगी कंपनींत बऱ्या पगाराचेर नोकरेक आशिल्लो. बापायकडेन जाण्टेपणांत काम जायनाशिल्ल्यान घर तोच चलयतालो. तशेंच व्हडल्या भावाचें रीण तोच फारीक करतालो.

ह्या दिसांनी ताच्या वाड्यार आशिल्ल्या तांबडे मातयेच्या रस्त्याक डांबर घालपाचें काम चलतालें. ताचें कंत्राट केरळच्या एका कोत्रांटदारान घेतिल्लें. तो सुनंदाच्याच घरालागीं एका घरांत भाड्यान रुम घेवन रावपाक लागलो. कशें कोण जाणा, पूण ताच्या मोगान सुनंदा पडलें. शेजारी-पाजारी आशिल्ल्याकारणान दोगांकय एकमेकांकडेन जाय तशें उलोवपाक मेळना जालें. ते खातीर तीं सदांच रातचीं गांवच्या कुशीक आशिल्ल्या वडाच्या झाडामुळांत मेळटालीं. तेन्नासाकून दामूक आनी ताच्या इश्टांक तांकां लिपून पळोवपाचें एक नवेंच काम मेळ्ळें. आनी तातुंल्यानच लोकांक खबरी करपाकय नवीन विशय मेळ्ळो.

थोड्या दिसांनी ताचे व्हडले भयणीक सोयरीगत आयली आनी तिचें लग्न जालें. धाकलो भाव रुपेश सांखळे रुमारच रावतालो. तो फकत शेनवारचो सांजेचो घरा येवन आयतारा एक दीस घरा रावन सोमारा सकाळीं कामाक वतालो. घरा सुनंदा आनी आवय, बापूय तिगांच उरतालीं. हाचो फायदो दामून आनी ताच्या इश्टांनी घेतलो. आतां हेर शेजाऱ्यांनीय तांचेर सत्ता चलोवपाक सुरवात केली. ते साद्या गजालींचें निमित्य काढून झगडीं करताले आनी तांकां मारपाक वताले.

कांय दिसांनी सुनंदाच्या भावोजीन ताका एक सोयरीक हाडली. न्हवऱ्याचें घर न्हयबाग गांवांत. तो सेझा गोवा, कंपनींत काम करता म्हूण सांगलें. सोयरीक भावोजीन हाडल्या म्हण्टगेर घर-दाराची, न्हवऱ्याची तांच्या आनी घरच्यांनी वेगळी चौकशी करपाचो प्रश्नच आयलोना. पूण लग्नाच दिसा न्हवऱ्याच्या बेजबाबदार आनी भिकाड्यापणांचो अणभव आयलो. लग्नाक गेल्ले लोक सांगताले कीं, लग्नाक लोकांक खावपाक आनी सादें पिवपाक लेगीत दिवंक ना म्हूण. व्हंकलकारां म्हणपाक लागलीं की न्हवरेकारांनी पिवपाक आपूण वाट्टा म्हूण सांगिल्लें. आनी न्हवरेकार झगडपाक लागले, व्हंकलकारांनी पिवपाक दिवपाची व्यवस्था करतां सांगून फटयलें म्हूण. निमाणें कांय तरणाट्यांनी, रस्त्यार वयतल्या एके लिम्काच्या टेम्पाक हात करुन लोकांक लिम्का वाटल्यो. पूण कितेंय जावं, लग्न जावन सुनंदा न्हयबागांत पावलें आनी न्हवऱ्याचें बींग फुटलें.

तर सेजा गोवा कार्यालयाभायर एक पेट्रोलपंप आशिल्लो. ताचेर सुनंदाचो घोव कामाक आशिल्लो. तो थंय पेट्रोल घालपाचें काम करतालो. न्हवरेकारांनी तो सेझा गोवात काम करता म्हूण फटाश मारिल्ली. ही खबर सुनंदाक लग्नाच्या दुसऱ्याच दिसा कळ्ळी आनी ताका संताप मारलो. लग्ना दुसऱ्याच दिसा तें सरळ उठून कुळारा आयलें. आनी ती खबर आवय-बापायक सांगली.

''आई, हांव परत न्हयबागांत वचें ना.''

हें आयकून आवयन म्हळें,

'' ना बाय, चलये मनशान पारियेंस काडपाक जाय.''

'' ना आई, हांव तुमकां जड जालें जाल्यार हांव जीव दितलें.''

आवय-बापायन खूब समजावचो प्रयत्न केलो. जालां तें जालां, कसलें तरी काम करता न्ही न्हवरो, इतकेंच पुरो म्हण्टालें. पूण सुनंदा आपल्या निर्णयाचेर ठाम निमाणें रुपेशान विचार करून सांगलें,

'' तें वचना जाल्यार आसूंदी ताका हांगाच. हांव फाल्या न्हयबागात वचून सामान घेवन येतां ताचें,''. ताणें आपल्या इश्टाक वांगडा घेतलें आनी न्हयबागात वचून सुनंदाच्या घोवाघरच्या वांगडा दादागिरीची भास उलोवन, तांचो अहेर, दिल्लें सगलें सामान, ताका घातिल्ल्यो वस्ती, ज्यो तें थंयच दवरून आयिल्लें त्यो घेवन घरा आयलें.

हाच्या दुसऱ्याच दिसा सुनंदाचीं घरची न्हयबागातून पेडणें येवन तांच्या दारांत रावन ताका आनी ताच्या आवय-बापायक, भावांक भरपूर गाळी मारून गेलीं. भितर सुनंदाच्या व्हडल्या भयणीचो घोव आशिल्लो, ताकाय गाळी मारूंक तीं फाटीं रावलीं नात. उपरांत कितलेशेच दीस तिच्या वाड्यावेल्या लोकांक चघळपाक नवोच विशय मेळिल्लो.

पयलीं सुनंदा बिनधास्त आशिल्लें. पयलींच्या तोऱ्यांत वागतालें. थोड्याच दिसांनी तें बावलें. आपल्या फुडल्या आयुश्याचे विचार ताका सतोवंक लागले.

रुपेशाक पुण्याची एक सोयरीक आयली. व्हकलेचें घराणें मुळचें गोंयचें. पूण बऱ्याच वर्सा आदीं तीं स्थायीक जाल्लीं. थोड्याच दिसांनी रुपेशाचें लग्न जालें. लग्नाच्या कांय दीस आदी रुपेशान सुनंदाकडेन ताच्यो वस्ती मागल्यो, घर सारकें करपाक आपल्याक पयशे कमी जातात, तुका आपूण रोकड्योच नव्यो करता म्हूण. सुनंदाच्यान ना म्हणूंक जालें ना.

नवे नवलायेचे कांय दीस बरे गेले उपरांत रुपेशाचे बायलेचें आनी सुनंदाचें पटना जालें, थोड्याच दिसांनी रुपेशाक एक चलो जालो. तांकां धरपाक, तांच्या गूं-मुताचें उमळपाक ती सुनंदाचेर चेपण हाडूंक लागली. आदीं सुनंदान विरोध केलो, उपरांत तें बागवलें. तेन्ना ताच्या वाड्यावेल्या तरणाट्यांनी ताका ''आया'' हें नांव दवरलें. भांगराच्या वस्तीं बदला ताका हें पदक मेळिल्लें.

हांव कांय दिसांआदीं मावशेगेर गेल्लों. तेन्ना दामू, ताचे इश्ट आनी हांव सांकवार बसून चकाटां मारताले. तितल्यात व्हाळारसावन कपडे धुवन सुनंदा हातांत बालदी घेवन येता, तेन्ना दामू ताका पळोवन ''आया'' म्हूण केंकाटलो.

हांवे म्हळें,

''आंया? कोण आया?''

मागीर दामून आनी ताच्या इश्टांनी म्हाका सुनंदाची सगली खबर मिठमसालो लावन सांगली. तेन्नाच म्हजे तकलेंत एक कथा आकार घेवपाक लागली. हांवें मावशेगेर साकून घरा येवन कथेचो ड्राफ्ट केलो लेगीत.

पयर दामू आमगेर येवन म्हणपाक लागलो. झगड्यांचें निमित्य करून रुपेश बायलेक घेवन सांखळे वेगळ्या रुमार रावपाक गेलो. '' ही खबर आयकून म्हाका सुनंदाची. ताच्या आवय-बापायची काकळूट दिसली, आनी चिंताय जाली. दामूकय वायट दिसलें, हें ताच्या तोंडावेल्यान कळटालें. हांवें कितें उलोवचें आदींच दामूनच म्हळें,

''तांचें आतां तिगांयचें कशें जातलें हें देवाकच खबर.--''.

## प्रायचित

रातचीं धा वरां जाल्लीं. सगल्यांक तिण्ण पडिल्लें. ना म्हळ्यार फकत कुत्रे भोंकतात तो आवाज आयकुपाक येतालो. अशा वेळाॅर त्या वाड्यार त्या व्हडल्या घरामुखार आंगणांत एक मोटरसायकल येवन थारली. तिचेवेल्यान दोग जाण देवन घरांत भितर सरून हळू आवाजांत घरांतल्यान कितें पुण सांगून सोमतेच वचपाक गेले. ते वतांच त्या घरांत कुजूबूज सुरू जाली. आनी करतां करतां ताचो व्हडलो आवाज जालो.

''सुरेखान तळ्यांत जीव दिलो.''

ही पाडी खबर घेवन ते शिरोड्यांसावन वळवय सुरेखाच्या मामागेर आयिल्ले. मागीर ती खबर हाचेकडल्यान ताचेकडेन करीत सगल्या वाड्यार पावली. लोक हांथरुणार पडिल्लेकडेन सुरेखाच्योच खबरी फुतफुतताले.

सुरेखा शिरोड्या गांवांत जल्मलें. ताका एक भाव आनी एक भयण आशिल्ली. तें सगल्यांत व्हडलें. आपणाक जाय तेंच करपी. सातवी नापास जावन टेलरींग शिकतालें. सगल्या सोयऱ्यांबरोबर तें झगडटालें. केन्नाय मामागेर वळवय येतालें. टेलरींग शिकून जातकच बापायकडल्यान मशीन घेवन घरांतच तें लोकांचे कपडे शिंवतालें. बरो जम बशिल्लो.

ताच्या वयाची आतां तिशीं उलटल्ली. खरें तर ताच्या आवय-बापायन ताका केन्नासावन सोयरीगती पळोवपाक सुरवात केल्ली. पूण बरें दिसनाशिल्ल्या कारणान ताच्यो सोयरीगती जुळनासल्यो.

एक दीस ताका एक चलो पळोवपाक आयलो. ताच्या च्या -पाण्याचो प्रोग्राम चलतालो. तेन्नाच सुरेखाची धाकली भयण कॉलेजींतसून घरा आयली. ती म्हणजे सुरेखाच्या उलट रुपाची. तिची सुंदरकाय पळोवन न्हवऱ्यान तिकाच पास केली. तेन्ना ताच्या बापायन सांगलें, कीं व्हडली चली लग्नाची आसताना आपूण धाकले चलयेचें लग्न करना म्हूण सुरेखाची ही लेगीत सोयरीगीत मोडली. आनी तेन्नाच्यान तें धाकले भयणीचो दुस्वास करूंक लागलें. तशेच ज्यो चलयो बऱ्यो दिसतात तांचोय दुस्वास करूंक ताणें सुरवात केली.

सुरेखाच्यो सोयरीगती मोडटात आनी लग्न जायना म्हूण हुसक्यान बापूय एक दीस भायर पडलो.

मागीर थोड्या दिसांनी ताचे एके इश्टिणीन ताका सकयल्या बाजारांत, फोंड्यांत Gents / Ladies कपडे शिंवपाच्या कामाक लायलें. तें सद्दां सकाळीं उठून फोंडें

येतालें. तें खरें लग्नाक आशेल्लें. नकळत त्या दुकानाच्या मालकाचो भाव रमेश हाच्या मोगात पडलें. रमेश हो एक तवनास चलो आशिल्लो. तें कपडे शिंवतालें तेन्ना रमेश दुकानार येवन ताचेकडेन मोगाच्यो खबरी उलयतालो. तो खरो तर चार गांवचें उदक पिल्लो तरणाटो आशिल्लो. थोड्याच दिसांनी सुरेखा ताच्या गळाक लागलें. तो मराठी तर हें भंडारी.

त्या दिसांनी सुरेखाच्या मामाची धाकली चली शर्मिलाय शिरोड्यांसून फोंडें ताच्या त्या दुकानार कपडे शिंवपाक शिकपाक येताली. पूण रमेशाचीं आनी सुरेखाचीं नाटकां पळोवन शर्मिलाच्या भावान ताका थंय वचपाचें बंद केलें.

आतां रमेश सुरेखाकडसून पयशे घेवन फोल्गां मारतालो. पयशे दिना तर ताका तो मारतालो लेगीत. ह्या बाबतीत ताच्या भावाचीय पसंती आशिल्ली. सुरेखाकडेन बँकेत बरेच पयशे आशिल्ले. निमाणें रमेशाच्या व्हडल्या भावान रमेशाक सांगलें,

'' तूं सुरेखाक सांग. आपूण बस घेतां म्हूण आनी पयशे घे,''

''पूण .''

''पूण कितें?'

''पयशे घेतले कीं मागीर ते आपलेबरोबर लग्न जा म्हणटलें.'

'' पयलीं ताका सांग लग्न जातां म्हूण आनी पयशे मेळ्ळे कीं मागीर ताका सोडया.''

रमेशाक ही माण्णी पटली.

दुसऱ्या दिसा दुकानार येवन रमेशान सुरेखाक लग्नाचें हांयस दाखोवन आपूण बस काडटां म्हूण सांगून, कितेंय मदत कर म्हूण सांगलें.

सुरेखा पिशें फुल्लें आनी आपल्यो वस्ती विकून बॅकचे रीण काडून, सोयऱ्याकडल्यान उसणे मागून घेवन, लोकांचे कोफरींतले काडून, आपलेंकडेन आशिल्लें सगळे लागीं करून पयशे रमेशाक दिले. तेन्ना ताका घरच्यांनी खूब समजायलें. पूण तें मोगाक पिशें जाल्ले, तशेच आपलें तेंच खरे करपी.

रमेशान सुरेखाकडसून पयशे घेवन ते बँकेत भरून बँकेचें रीण काडून बस घेतली. पयली थोडे दीस सुरेखाक वांगडा घेवन तो सगल्यांक भोंवलो. मागीर सोरो पिवन येवन दुकानार झगडी करूंक लागलो. लग्नापयलींच, कितेंय उलयल्यार ताका मारूंक लागलो. आनी निमाणें ताका सांगलें, आपूण तुजेकडेन लग्न जायना म्हूण.

हें आयकून सुरेखा पिशें जाल्लेभशेन वागपाक लागलें. आतां तर रमेश दुसरे चलयेबरोबर लग्न जावन तांकां एक चलो जालो तो लग्न जालो, तेन्ना सुरेखा दुकानाच्या हुमऱ्यार बसून आपल्या नशीबाक दोश दित रडटाले.

एक दीस रमेशाचो व्हडलो भाव सुरेखाक सांगपाक लागलो.

'सुरेखा, तू म्हजेकडेन लग्न जा! हांव तुका रूमार दवरतां.

तो पयलींच लग्न जाल्लो. सुरेखा हें आयकून ताका गाळी खेपीत घरां येवन भयणीक

मारपाक लागलें. मागीर तें गप्प घरांत एका कोनशाक विचार करीत बसतालें. लोकांक सांगतालें, आपूण प्रायचित घेतां म्हूण.

एकदा ते शर्मिलाच्या भावाक फोंडें मेळ्ळें. तो मुंबय आशिल्लो. त्याच दिसांनी गोंयांत आयिल्लो. रमेश ताचेबरोबर शाळेंत शिकपी. ताका हाचें मोगाचे प्रकरण आयकून खबर आशिल्लें. पूण रमेश सुरेखाक सोडून दुसरे चलयेबरोबर लग्न जाला तें ताका खबर नाशिल्ली.

ताणें म्हळें,

''सुरेखा, रमेश मेळिल्लो.''

हें आयकून आबूज जावन सुरेखान विचारलें

''खंय''

''बाजारांत.''

''कितें म्हणटालो?''

अशें कितेंकितें तें ताका विचारूंक लागलें. तो आबूज जावन चिंतीत घरा आयलो. तर ही सगली खबर ताका शर्मिलान सांगली. आयकून तो तटास.

निमाणें सुरेखान तळ्यांत जीव दिवन आपले करणेचे प्रायचित घेतलें.

ते उपरांत बरोबर एक म्हयन्यान बस चलयतना रमेशाक एक दीस ॲक्सीडेंट जावन ताचे हात, पांय मोडून तो घरांत पडलो. शर्मिलाचो भाव ताचे खबरीक गेल्लो, तर रडून सांगपाक लागलो,

''आपणें सुरेखाक फटयिल्लें ताचे प्रायचित घेता '' निमणें दोगांयचो शेवट असो जालो.



# धा वर्सां

शेनवारा दिसा सकाळीं हांव स्कूटर घेवन पणजे वचपाक भायर सरलों. चोपडे [illegible] धक्यालागीं पावलों तर घेऽऽ गर्दी! स्कुटरी रांगेन उब्यो आसात. तशेच लोकय आसात. हावें स्कूटर स्टॅण्डार काडून चवकशी केली. तेन्ना समजलें की दोन फेरीबोटी मोडून शिवाय आसात आनी एकच फेरीबोट चलता. ती आतांच गेल्या. म्हळ्यार आनीक एक वर [illegible] सहज वतलें आशिल्लें. हें म्हाका अणभवान खबर आशिल्लें. फेरीबोट परती आयली [illegible] भितरले लोक देंवचेपयलीं हे वाटेनचे लोक गाडयो भितर घालतलें. मागीर भितरल्या लोकांक भायर सरपाक वाट मेळची ना. वेल्यान फेरीबोट कर्मचाऱ्यांक गाळी मारून लोक तांकां मारपाकय वतले. आनीक जालेंय तशेंच फेरीबोट चोपड्यां पावल्या मात, पब्लिक आनी फेरीबोट कर्मचाऱ्यांचीं झगडीं जालीं. भितरले लोक भितरच उरले. तांकां भायर सरपाक मेळना जालें.

हांवें मनांत म्हळें, कोलवाळ पुलावेल्यान गेल्यार बरें जातलें. म्हूण हांव स्कुटर घेवन कोलवाळच्यान वचपाक गेलो. पार्श्या पावतकच स्कूटर नेटान धांवडायली. वतां - वतां तुयें हॉस्पिटला लागीं पावलां मात, राकेश बसस्थानकार उबो. ताका पळोवन हांवें स्कूटर थारायली. आनी हांव ताका पळयतच उरलों. ताचे पोले सुकिल्ले, दोळे भितर गेल्ले, हात-पांय बारीक जाल्ले. तितल्यांत ताणेंच म्हाका हटकिलो.

'शेखर , खंय वता सकाळीफुडें''?

'पणजे, तूं खंय वता राकेश?'

'सांतिनेज'.

'कोणाक मेळपाक?'

'तांबडे मातयेर, हॉस्पिटलांत...'

ताणें इतलेंच म्हळें अनी ताच्या दोळ्यांत हयन्हयशीं दुकां म्हाका दिसलीं. हांव ताका पळयतच उरलों. ह्या पांच वर्साच्या काळांत म्हाका तो मेळंक नाशिल्लो. पूण ताचे पराक्रम येवन कानार आदळटाले. हायर सेकंडरींत तो म्हज्या क्लासात आशिल्लो. हाव स्कूटर स्टण्डार काडून ताका घेवन लागसारच्या हॉटेलांत भितर सरलों. च्या पितना तो सकयल तकली घालून ओग्गी बशिल्लो. हांवें ताका परत हटकिलो. तेन्ना तो रडतच सांगपाक लागलो.

'शेखर, म्हाका काळजाचो कॅन्सर जाला. दोतोरान सांगला, हो गुटखाचो परिणाम म्हूण!'

इतले तो उलयला नात. म्हाका दिसलें हांवच गुन्यांवकारी म्हूण. कारण, हायर सेकंडरींत आमी दोगांयनी वांगडाच गुटखा खावपाक सुरवात केली. पूण ताचे दुश्ट परिणाम समजतकच हांवें मागीर गुटखा खावपाचो बंद केल्लो. हांव चिंततां - चिंतता परत राकेश उलोवपाक लागलो.

'शेखर, तु दोतोरान फकत धा वर्सांचीच गॅरेण्टी दिल्या. आतां सद्दां तांबडे मातयेर हॉस्पिटलांत वचचें पडटा!

हें आयकतकच म्हाका दिसपाक लागलें वयलो बल्ब येवन म्हजेर पडटा म्हूण! वयलो फॅन तर घुंवत आशिल्लो. ते बरोबर म्हजो मेंदूय घुंवता अशें दिसपाक लागलें. आनी तेन्ना म्हज्यान दोळ्यांतली दुकां आडावपाक जालीं नात. हांव सून्न जावन कितलो तरी वगत थंयच बसलों.. पूण राकेशाचे नदरेक नदर दिवपाची धिटाय म्हाका जायना जाली. पूण ताणेंच म्हाका उठयलो. मागीर आमी दोगूय हॉटेलांतले भायर सरून वचपाक गेले. हांवें ताका व्हरून तांबडे मातयेर पावयलो आनी हांव कामाक वचपाक गेलों.

घरा परततकच न्हिदलां थंय हांवें राकेशाचेंच चिंततालों, राकेशाचेर ही पाळी कित्याखातीर आयल्या काय? म्हाका लागून? आनी हें चिंतता चिंततां हांव हायर सेकंडरींत पावलों.

धावी पयल्या वर्गांत पास जातकच हांवें आमच्या मोरजी गांवांत मुखावेलें शिक्षण घेवपाची सोय नाशिल्ल्यान पेडण्यां हायर सेकंडरींत कॉमर्साक ऍडमिशन घेतलें. तेन्ना राकेशाची आनी म्हजी वळख जाल्ली. तो तुयेंचो आनी म्हज्याच वर्गांत आशिल्लो. आमी दोगूय एकाच बांकार बसताले आनी वांगडाच भोंवताले. आतां आमची दोगांयची दोस्ती बरी जाल्ली. म्हजी घरची परिस्थिती बरी नाशिल्ल्यान म्हाका घराकडल्यान चड पयशे मेळनाशिल्ले. पूण राकेश मध्यमवर्गीय घरांत जल्मल्लो ताचो बापूय सरकारी नोकरेक आशिल्लो, तशेंच ताका घरचें शेत, काजी अशें खूब आशिल्लें. ताका घरांत पॉकेटमनी खूब मेळटाले. म्हूण ताच्या हातांत सदांच पयसो घोळटालो. म्हाका तो हॉटेलांत व्हरून केन्नाय खावपाक दितालो. तेन्नाच आमी गुटखां खावपाक शिकले. पूण मागीर म्हज्या घरा ही खबर कळटकच म्हाका आवय खूब उलोवपाक लागली. उपरांत हांवें गुटखा खावपाचो बंद केलो तसो राकेशाकय खूब समजायलो, गुटखा सोड म्हूण, पूण तो म्हणपाक लागलो, ' हांव हो गुटखा - टायम- पास करपाक खातां!'

बारावी पास जातकच हांव घरचे परिस्थितीक लागून मुखार कॉलेजींत वचूंक ना. पणजे खाजगी दुकानार कामाक वचपाक लागलों, तर राकेश मुखार म्हापशां सेंट झेवियर कॉलेजींत एफ्. वाय्. कॉमर्साक वचपाक लागलो. थंय ताका दुसरे इश्ट मेळून ताचीं वेसनां वाडलीं. तो मधू खावपाक शिकलो तशेंच बियर पिवपाक शिकलो.

एक दीस ताच्या शेजाऱ्याकडल्यान ही खबर म्हाका समजली हांव मागीर ताका मेळपाक तागेर गेलों आनी ताका पळोवन म्हाका अजापाचो धक्को बसलो. गुटखा खावन - खावन

ताचे दांत तांबडेच जाल्ले. तशेंच तो दांत आनी ओठां मदीं तंबाखू घालतालो आनी डेंटोबॅक घेवन तोंड धुतालो.

हांवें ताका परत एक फावट समजावपाक म्हळें,

'राकेश, तंबाखू खाल्यार कॅन्सर जाता खंय.'

तेन्ना ताणेंच म्हाका परतो प्रस्न केलो,

'आमचे आजे, पणजे सगले जाण विडी ओडटाले. तंबाखू खाताले. तांकां कितें जालां तर?'

हाचेर हांव ताका कितें सांगतलो? हांव ओग्गी रावलों.

सांजेचो म्हाका घेवन तो भोंवपाक म्हूण भायर सरलो आनी गांवांत सगल्यांत पयस आशिल्ल्या बारांत भितर गेलो. ताणें बियर मागयली, तेन्ना हांवें म्हळें,

'राकेश, हांव बियर घेना'

'बरे, म्हूण मागीर ताणें म्हाका लिमका दिली आनी आपूण सिगरेट घेवन ओडपाक लागलो. बियर पिवपाक लागलो. दुसऱ्या दिसा हांव घरा गेलों.

एक दीस ॲटेक येवन राकेशाचो बापूय भायर पडलो आनी बापायच्या जाग्यार हाका काम मेळ्ळें. गरजेपरस हातांत चड पयशे आयिल्ल्यान ताची वेसनां वाडलीं. दुसरें म्हळ्यार ताका घरांत पयशे दिवपाची गरज नाशिल्ली. बापायचें पेन्शन मेळटालें.

एक दीस म्हाका तो म्हापशां मेळ्ळो. ताचे दोळे पळयतनाच लक्षांत येतालें, तो सोरो पिता म्हूण. ताका हांवें म्हळें,

'राकेश, हें कितें करता तूं?'

'कितें जालां'?

ताचो परतो म्हाकाच प्रस्न.

'आरे, तुका वर्सां कितलीं? हें सत्ताविसावें वर्स चलता. आनी आतांच तूं सोरो पिता, गुटखा खाता. तुजें मुखावेलें आयुश्य आजून बाकी आसा मरे.'

'बापायन फाटल्यान खूब पयशे दवरल्यात ते सोंपूंक नाकात?'

हांवें मनांत म्हळें, 'बापायचे पयशे सोंपोवपाक हो सारो पिता तर!' पूण ताचे लागीं उलोवन कायच फायदो नाशिल्लो. हांव ताका घेवन ताच्या घरा गेलों. तर ताची आवय ताची एकेक कागाळ म्हाका सागून खूब रडपाक लागली. ताचे ते प्रताप आयकून हांव सुन्न जालों. म्हाका जापच फुटना जाली.

दुसऱ्या दिसा म्हाका राकेशाच्या शेजाऱ्याकडल्यान खबर कळ्ळी ती अशी –

हाच्या हातांत पयशे खूब घोळटात. हांगासरले वाळेस भुरगे ताचे फाटले फुडल्यान भोंवतात. ताचें कसलेंच उतर भायर मारिनात. राकेश ताका मागता तें दिता. तशेंच स्कूटर घेतल्या ती त्या इश्टांकडेनूच आसता. राकेशाचो पगार सोऱ्याक, गुटखाक आनी स्कुटरी

पेत्रोलाकच काबार. मागीर तो आवयकडल्यान पयशे व्हरता! बार्रांत तो म्हयन्याक हजारांची बिलां फारीक करता! तशेंच हाका सोरो चड जालो की इश्टांक जाय तें दिता.

हें आयकतकच हांवें कपलार हात मारून घेतलो. म्हाका खबर आशिल्लें कीं जें भुरगें राकेशाक माथ्यार घेवन नाचतात, तेच फाल्यां राकेशाचे पयशे सोंपले कीं ताचेकडेन फाट फिरयतले म्हूण ! पूण ताका सांगून कितेंच उपयोग नाशिल्लो.

हांव घरा आयलो. तेन्नाच्यान राकेश म्हाका मेळूंक ना. पांच वर्सांनी मेळ्ळो तो ही धपको दिवपी खबर घेवन!

मागीर एक दीस हांव तागेर गेलों. तर तो पडवेर पेपर वाचीत बशिल्लो. म्हाका पळोवन सकयल नदर करून ओग्गी रावलो. ताचो घाय उस्तून काडपाक म्हाका बरें दिसा जालें. मागीर खूब वगतान उलोवपाक लागलो.

'शेखर, तुवें सांगलेलेंच खरें. तेन्ना तुजें आयकून हांवें म्हजीं वेसनां फाटीं घेतलेलीं तर आयज हें जावपाचेंच नाशिल्लें. उलयतां उलयतां तो रडपाक लागलो...

... आनी हांव देवाकडेन परत – परत एकूच मागतालों कीं धा वर्सां बेगीन येवचींच न्हीं म्हण.....

## नशीब

मुंबय कामाक लागिल्ल्यान चार वर्सांनी गोंयांत आयलों तेन्ना निमाण्या बसस्थानकाचेर वयर देवळाकडेन हांव देवलों आनी आजूबाजूक पळयलें तर गांवांत खूबसो बदल जाल्लो म्हाका दिश्टी पडलो. थंय म्हाका सगले जाण वळखीचे पळोवपाक मेळ्ळे. फकत देवळाच्या एका खांब्याक तेंकून एक जाण्टेलो विडी ओडपांत गुल्ल आशिल्लो. ताका मात हांव वळखूंक ना. गांवांत पयलीं केन्नाय पळयल्ल्याची याद जायना जाली. हांव चितताली, कोण काय तो?

सांजेचो वेळ आशिल्ल्यान आमच्या गांवचे सगले गांवभाव थंयच आशिल्ले. ते म्हजी खबर घेवपाक लागले. हांव तांकां जाप दीत घरचे वाटेन मुखार वचपाक लागलों. दादाच्या खोपटाकडेन पावतांच भितरल्ल्यान गरम भज्यांचो वास आयलो. तो खोपटांतच च्या, भजीं करून गिरायकांक दितालो. तितल्यांत आपा गाडेकारान म्हाका पळोवन मुखार येत म्हळें, 'कसो आसा पुता, मुंबय नोकरी कशी चल्ल्या तुगेली?' हांव आपाक जाप दिवन घरचे वाटेक लागलों तो गांवांविशीं चिंतीत....

आमचो दोंगरी गांव म्हळ्यार दोंगराचे कुशीक आशिल्लें एक खेडें. गांवांत फकत पंचविसेक घरां. घरां म्हूण कसली? मातयेच्या पाऱ्यांचीं आनी गांवठी नळ्यांचीं. बाजार करपाक लोकांक धा किलोमिटर पयस वचचें पडटालें. तांबडे मातयेचो रस्तो आशिल्लो. थंय फकत मिनीबस दोन वेळा फावटी मारताली. लोकांचो धंदो म्हळ्यार शेती आनी काजी. तशेच थोडे माडाची फेणी काडटाले. एक प्राथमिक शाळा आशिल्ली. एक दादाचें च्याचें हॉटेल आनी आपाचो गाडो. थंय विडी - पान मेळटालें. कायतानाले गायदेर काजूची आनी माडाची फेणी मेळटाली इतलेंच.

पूण गांवचो लोक खूब मायेस्त आशिल्लो. कोण दुयेंत पडलो तर सगले जाण आंगणांत जमताले. कोण भायर पडलो तर कोणाच्याच घरांत चूल पेटनाशिल्ली. कोणागेरय कितेंय कार्य आसलें की सगले जाण आपलें कशे बोवाळटाले. म्हूण तर म्हाका म्हज्या गांवाविशीं खूब तोखणाय दिसताली.

हांव विचार करीत - करीत म्हज्या भुरगेपणांत पावलों. प्राथमिक शाळा शिकून जातकच मागीर बापायन म्हाका एक सायकल घेवन दिली आनी शारांत स्कुलाक धाडलो. सायकलीर बसून हांव सकाळचो स्कुलाक वचून दनपारचो घरा येतालों. मुखार शिकपी गांवचो पयलो

भुरगो हांव जाल्ल्यान सगले जाण म्हाका तोखेताले. शिकून जातकच मागीर म्हज्या मामान म्हाका मुंबय काम पळोवन थंय व्हेलो. नोकरेक लागत पसून हांव चार वर्सांनी अंदूच गांवांत पाविल्लों.

हांव घरच्या आंगणांत पावलों तेन्ना शेजारचीं भुरगीं गजाभाई आयला म्हूण आरडपाक लागलीं. सगले लोक आमगेर म्हजी खबर घेवपाक एकठांय जालो. हांवें म्हजे सामान घरांत व्हरून दवरलें आनी खूब दिसांनी बांयच्या थंड उदकान न्हालों. जेवण जातकच सुशेगाद आड पडलों.

दोळो लागतां - लागतां धाकटे भयणीन येवन म्हाका उठयलो आनी सांगपाक लागलें,

'भाई, पका आनी विठू तुका मेळपाक आयल्यात.

तेन्ना म्हजेमुखार तांचें दोगांयचें प्रतिबिब उबें रावलें. ल्हानपणांत आमी तिगूय जाण दोंगरार काण्णां-चुन्ना हाडपाक वताले. माडार चडून आडसरां खाताले. हांव उठून भायर आयलों जाल्यार दोगांयनी म्हाका घट्ट वेंग मारली. मागीर आमी तिगयजाण भोंवपाक वचपाक भायर सरले.

आमचें तिगांयचें त्रिकूट रस्त्यावेल्यान चलतालें तेन्ना भायर वारो मारतालो. कोगूळ गाता तो आवाज आयकुपाक येतालो. अशा वगतार आमी भायर भोंवताले.

आमी भोंवतां -भोंवतां देवळाकडेन पावले तर तो जाण्टेलो थंय आशिल्लो. ताका पळोवन हांवें पकाक म्हळें,

'पका, कोण रे तो जाण्टेलो? केन्ना गांवांत पळयल्ल्याची याद जायना.'

'आरे गजा, आमच्या घरावयर घर आसा ते हिरेमावशेचो घोव मुरे तो.' पकान सागलें.

तें आयकून हांव चितपाक पडलों हिरेमावशेची म्हाका याद जावपाक लागली. उंच कमराक बाग आयिल्ली. कोणाचेंय काम करून आपलें एकटेचें पोट भरताली. तिका घोव आसा हें आयजपर्यंत म्हाका खबरय नाशिल्लें. आमी देवळाच्या सोप्यार बसले. पका आनी विठू म्हाका येशाची खबर सांगपाक लागले.

ताचें नांव येसो. ताका एक भयण आशिल्ली. आवय-बापूय ल्हानपणांतच भायर पडिल्लीं. मामान तांका व्हड केल्लो. भयणीचें लग्न मामानच करून दिल्लें. मामा भायर पडटकच मामाच्या चल्यान हाका धांवडायलो. तेन्ना तो वीस वर्सांचो आशिल्लो. मागीर तो घरा आयलो आनी घर सारकें करून थंय रावप्रक लागलो. मागीर तो गवंडी कामाक वचपाक लागलो. केन्नाय भयण येवन खबर घेवन वताली. तो एकटो जाल्ल्यान काम केल्ल्या पयशांचो सोरो पिवपाक लागलो. करतां - करतां जुगार खेळपाक लागलो. थोड्या दिसांनी भाविणीच्या दारांतय वचपाक लागलो. आतां तर तो सामकोच हाताभायर गेल्लो. अशांत ताका कमळें म्हूण भाविणीचें एक चली मेळ्ळें. ताका घेवन तो तागेरच रावपाक लागलो.

तेन्ना भयणीन तो लग्न जावन तरी सुदारतलो म्हूण एक गरीब चली पळोवन ताचें लग्न

केल्लें. येशाचे बायलेचें नांव हिरें. हिऱ्याक पळयत कोणूय रावतलो अशें ताचे लागीं कितें नाशिल्लें, पूण सभावान तें खूब बरें आशिल्लें.

भयणीच्या हट्टाखातीर येसो हिऱ्याबरोबर लग्न जालो खरो. पूण लग्न जावन दुसऱ्या दिसाच तो कमळ्यागेर गेलो, तो परत घरा येवंक ना. पयलींसारकोच तो सोरो पितालो, जुगार खेळटालो आनी काम करून कमळीचें घर भरतालो.

तर हिरें बाबडें सवाशीण आसून आंकवार जीण जगतालें. रुपयायेदो कुकूम लायतालें, माथ्याक फुलां माळून भोंवतालें. लोकांच्या शेतांत काम करून आपलें पोट भरतालें. आवयगेर सद्दां वचनासतना तें येशागेरच रावलें. मात येशाक कोणेंय कितेंय म्हटल्यार ताका राग येतालो. येसो आपलो देव आनी ताच्यांत नांवान आपूण ऐटीन भोंवता अशें तें म्हणटालें.

तर येसो कमळ्यागेर आशिल्लो. कमळ्याक एक चली आनी दोन चले आशिल्ले. कमळ्यान येशाचे जोडीर तांकां बरें शिकोवन, चलयेचें लग्नकरून ताका बऱ्या घरांत दिल्लें. तर दोगूय चले बरे नोकरेक लागून तांची लग्नांय जाल्ली.

फुडें तांकां येशाक बापूय म्हणपाक लज दिसपाक लागली. ते येशाक पावला पावलाक उलयताली, येसो रातचो सोरो पिवन तांकां गाळी मारून तांचे बरोबर झगडटालो.

आनी अशांतच तो एक दीस दुयेंत पडलो. दोतोरान सांगलें, ताका कॅन्सर जाला म्हूण. ताचेकडेन आतां पयलींसारकें काम जायना जालें. तेन्ना कमळ्यान आनी ताच्या पुतांनी जाण्टेपणांत मारून ताका धांवडायलो. तेन्ना तो घरा आयलो आनी रडत ओग्गी पडवेर येवन बसलो. हिरें कामाक गेल्लें ते आयलें आनी इतल्या वर्सांनी येशाक पळोवन तें अजापलें. तो खूब जाण्टो जाला हें ताका पळयतकच दिसतालें. तशेंच तेंय आता तरणें उरूंक नाशिल्लें. येशान रडत चूक मागली, तेन्ना हिऱ्याक दिसलें, हें देवानच घडोवन हाडलां म्हूण तेन्ना ताचो आनंद मळबाक तेंकलो. ताणें येशाक भितर व्हरून पाटार बसोवन जेवंक वाडलो आनी तें देवाची पूजा करपाक लागलें, मन लावन. कारण, इतल्या वर्सांनी देवान ताची प्रार्थना आयकल्ली.

येसो घरा आयलो आनी हिऱ्यान ताका घरांत दवरून घेतलो म्हूण लोक हिऱ्याक हांसपाक लागले. पूण ताचें ताका कितेंच पडूंक नाशिल्लें. लोकांगेर काम करून तें येशाक पोसतालें. केन्नाय रातचें ताका पिवपाक लेगीत पयशे दितालें.

पकान आनी विठून म्हाका येशाची खबर सांगून सोंपली तेन्ना हांव येशाक तिरस्कारान पळयत रावलों. ताणी सांगिल्ले खबरेंतली थोडी पयलींची खबर म्हाका खबर आशिल्ली. पूण हांवें गांवांत केन्ना येशाक पळोवंक ना. पळयतलों तरी कसो? तो केन्नाच गांवांत येवंक ना. तेन्ना म्हाका येशाचो खूब राग आयलो. इतलेच खातीर कीं मायेस्त बायलेक सोडून तो भावणीगेर रावलोच कसो?

ही खबर घडून थोड्या दिसांनी हिरेमावशी म्हाका रस्त्यार मेळ्ळी. म्हाका पळोवन

ोंडभर हांसली. हांवें म्हळें,

'मावशे, विचारतां म्हूण राग धरूं नाका. पूण सांग, भाऊन अशें तुका कितें केलां म्हूण या जाण्टेपणांत तूं ताचेखातीर इतले त्रास काडटा?

तिणें हांसून म्हळें,

'पुता, ना करूं म्हाका कितेंय! ना पळोवं म्हाका. देव तो म्हजो ! ताचेखातीर तर हांव कपलाक लावन झेतान भोंवता!'

तेन्ना तिणें म्हाका कितें म्हळें तें कळूंक ना. पूण थोड्या दिसांनी येसो भायर पडलो. तेन्ना हिरेमावशेन केल्लो आक्रोश सगल्यांचीं काळजां हालोवन गेलो. मागीर खूब दीस म्हाका ती मेळुंकच ना.

एक दीस हांव सांजेचो एकलोच देवळाकडल्यान घरा येतालों. श्रावणांतले दीस ते. वाटेर हिरेमावशी ताळखुळ्याची भाजी काडटाली. तिका पळोवन हांव पयलीं वळखुंकूच ना. कपल धवें, फटफटीत, गळ्यांतय कितेंच ना! धवें पातळ न्हेसून तिणें तें तकलेवेल्यान घेतिल्लें. म्हाका ती तेन्ना खूब जाण्टी दिसली. म्हाका पळोवन तकली सकयल करून केली.

आनी हांव थंयच उबो रावन तिका पळयतां- पळयतां त्या दिसा हिरेमावशेक कितें म्हटलेलें ते चितपाक लागलों.

# चूक

हांव स्कुलांत णववेक आसतना आमच्या वर्गांत तृप्ती नांवाची चली आशिल्ली. हांव वर्गांत बसलों की अभ्यास सोडून ताकाच पळयतालों. तेंवूय म्हाका चोरून पळयतालें. एक दीस पिरेड फ्री आशिल्लो म्हूण सावंत सर आमकां जोक्स सांगतालो आनी आमी हांसताले. तो म्हणपाक लागलो, 'जे चले चड उलयतात ते खूब फास्ट आसतात. कारण भुंकता तो सुणो चाबना, तर हुंगो सुणो आसता तो हळू फाटल्यान येवन चाबता. जे चले खूब उलयतात ते उलोवपाकूच उरतात. 'हो डायलॉग ताणें तृप्तीक पळोवन मारिल्लां. कारण, तृप्ती तेन्ना म्हाका पळयतालें. हें ताचे नदरेक आयिल्लें. तृप्ती लजेवन सकयल पळोवपाक लागलें.

तेन्नाच्यान आमी लागीं आयलीं. सावंतसराच्या डायलॉगान आमच्यो भावना जाग्यो जाल्यो. तें एक दीस म्हाका दिसूंक ना तर हांव अस्वस्थ जातालों. आतां तर आमी सदांच, दोगांय वांगडाच फिरतालीं. सद्दां वाचपघरांत ना जाल्यार गार्डनांत मेळटालीं.

एके दिवाळेचे सुटयेंत हांव सायकल घेवन तांचे घरावाटेन गेलों तर तें म्हाका म्हणपाक लागलें,

'संतोष, म्हाका सायकल चलोवपाक शिकय.'

हांव खोशयेन ताका घेवन सायकलीर बसोवन मैदानार आयलों आनी ताका सायकल शिकोवंक लागलो. ताका सायकलीर बसोवन हांव मुद्दाम हात सोडटालों, आनी ताका घट्ट धरतालों. तेन्ना तें म्हजे हात घट्ट धरतालें. निमाणें, हांवें ताका सायकल शिकयली.

आमी दोगांय वांगडाच पिक्चराक वचपाक लागलीं कीं, गांवचे लोक आमकां पळोवन आमचीं फकाणां मारताले. पूण तांचें आमकां कितेंच पडूंक नाशिल्लें.

एक दीस आमी स्कुलाच्या गार्डनांत उलयत आशिल्लीं.

तितल्यांत तें म्हणपाक लागलें,

'संतोष, हावें तुका एक सोयरीक हाडल्या'.

हें आयकून म्हाका धक्को बसलो. हांव तृप्तीचेर मनापासून मोग करतालों. हांव गप्प रावलों तें पळोवन तें मुखार उलोवपाक लागलें,

'कोण चली तें विचारूंक ना?'

हांव गप्प.

'म्हजी इश्टीण, वंदना घराण्यान बरें आसा पूण ल्हानपणारच आवय भायर पडिल्ल्यान बापूय दुसरें लग्न जाल्लो, तेन्ना ताका सावत्र आवय खूब त्रास करता.

वंदना शिकपाक बरें हुशार आशिल्लें. तशेंच दिसतालेंय बरें. आमच्या वर्गांत तें मोनिटर आशिल्लें. पूण म्हाका मनांतल्यान  तृप्ती जाय आशिल्लें, म्हूण हांवें म्हळें,

'म्हाका इंटरेस्ट ना.'

'कित्याक?' ताचो प्रस्न.

हांव तृप्तीक सांगपाक सोदतालों,

'म्हजो ताचेर मोग आसा. तृप्ती, आय लव्ह यूं!' पूण म्हाका धीर जावंक ना.

'आई उलयतली,' हांवें बेश्टेच म्हळें.

'आईक हांव सांगतां. आनी लग्न आतां जावपाचें न्हय रे. तुजें शिकप पुराय जावन, तूं शिर्विशेक लागतकच रे।'

तेन्ना हांव ताचेर तापलों. तेन्ना तें किटकिटत म्हज्या दोळ्यांत पळयत बशिल्लें. हेरशीं हांव तापलों कीं तें रडटालें.

मागीर हांवें ही खबर म्हज्या इश्टाक प्रसादाक सांगली. तो असल्या गजालींनी खूब मुखार आशिल्लो. सगले आयकून  घेवन तो म्हणपाक लागलो, ' तूं पिसो; तें तुजेर मोग करता. तुज्या मनांतलें पळोवपाक ताणें तो विशय मुद्दाम काडिल्लो. आनी एक याद धर, चलयो केन्नाच फुडाकार घेनात. तुकाच घेवचो पडटलों.

प्रसादान आपल्या अणभवी उतरांनी म्हाका सांगलें,

ताका कशें विचारचें हें हांव चिततालों. पूण देवादयेन म्हाका ती संद रोखडीच मेळ्ळी. एक दीस  हांव आनी तृप्ती गार्डनांत बसून उलयतालीं.  तितल्यांत तृप्तीचो शेजारी विश्वनाथ थंय आयलो. आमकां दोगांक थंय उलयतात तें पळोवन तृप्तीक म्हणपाक लागलो,

'जोडें बरें आसा ! केन्ना जमलें तृप्ती.'

तेन्ना तृप्तीन लजेवन सकयल पळयत पांयांनी माती विसकटूंक लागलें. विश्वनाथ हांसत गेलो लेगीत तेन्ना तें म्हाका म्हणपाक लागलें.

'ताणें कितें म्हळें ते आयकलें'.

हांव गप्प रावन तृप्तीक पळयतालों.

मुखार तृप्तीन  म्हळें,

'कितें दिसता तुका?'

'तुका दिसता तें!'

अशें म्हूण हांवें ताच्या दोळ्यांत पळयलें. तेन्ना लजेवन ताणें नदर खाला केली  त्या दिसा हांव खोशयेन घरा गेलो.

मे म्हयन्यांत म्हजे भयणीचो साखरपुडो आशिल्लो   तेन्ना  तें म्हजे सांगण्यावेल्यान आमगेर आयिल्लें.

प्रसाद म्हाका म्हणपाक लागलो,

'धीर कर आनी तृप्तीकडेन कीस माग.'

'पूण ताका कितें दिसतलें?

'कितेंच दिसचें ना! हें पळय कीस घे म्हूण तुका तें सांगचें ना. चलयो आपल्या मनांतलें केन्नाच भायर उलयनात'.

साखरपुड्याक तें खूब बोवाळटालें. ते रातीं तें आमगेर रावलें. घरांत बोवाळ आशिल्लोच. पूण लागीं कोण ना तें पळोवन हांवें धीर करून ताका म्हळें,

'तृप्ती, कीस दिता मुगो?'

तेन्ना तें म्हाका अजापान पळोवपाक लागलें. ताच्या दोळ्यांत तेन्ना दुकां दिसलीं.

ताणें नदर खाला करून म्हळें,

'आमगेर आयलो की दितां.'

आनी सकाळीं उठून तें म्हाका मेळचेपयलींच गेलें.

हांव भयणीच्या लग्नाची पत्रिका घेवन खोशयेन तागेर गेलों तेन्ना म्हज्या मनांत एकच चलतालें तें म्हळ्यार कीस. पूण म्हाका पळोवन तृप्ती भितर गेलें ते परत भायर येवकंच ना. हांव अस्वस्थ जावन तागेरसून कडसरलों.

हांव समजलों, ताका राग आयलो म्हूण. हांवें ताचेकडेन कीस मागपाचो न्हय. पूण प्रसादाचे सांगणेन हांव तो मागपाक पाविल्लों. ही म्हजी चूक जाल्ली. ताचेकडेन भोगशिणी मागपाचो हांव विचार करतालों. पूण मार्केटांत म्हाका तें दोनदां मेळ्ळें. म्हाका पळोवन नदर सकयल करून गेलें. म्हजो स्वाभिमान जागो जालो आनी तेन्नाच्यान हांव ताचेकडेन उलोवपाक वचूंक ना.

थोड्याच दिसांनी हांवें ही खबर प्रसादाक सांगली तर तो म्हणपाक लागलो.

'मागचेबगर, कीस घेवपाक जाय आशिल्लो. चलयो मागून केन्नाच दिनात'. पूण हांव गप्प रावलों.

एक दिसा तृप्तीचो शेजारी आनी आमचो मोग वाडपाक, बरें काम केल्लो विश्वनाथ मेळ्ळो. तो सांगपाक लागलो.

'आपणाक तृप्ती मेळिल्लें, तुजी याद काडल्यार खूब रडलें. म्हणपाक लागलें, संतोषा कडसून हांवें हे चितूक लेगीत नाशिल्लें. हांव ताचो खूब मोग करतालें. पूण आतां तो म्हज्या मनांतल्यान गेलो!'

हें आयकून हांव अस्वस्थ जालों. हांवें तृप्तीकडेन कीस मागपाचो न्हय. कीस मागलो ती म्हजी खूब मोठी चूक जाल्ली. हें म्हाका पटिल्लें.

एक दीस हांवें आनी विद्याधिरान पैज मारिल्ली. म्हाका आमच्या वाड्यावेल्या नाटकांत पार्ट आशिल्लो. नाटकाक तृप्ती आयिल्लें.

नाटकाच्या दुसऱ्या दिसाची खबर.

'तृप्तीक आज तुमगेर रावोवन दाखय.'

ही पैज. आमी तेन्ना दोन भाजी-पाव दिवपावेल्यान लायिल्ली.

हांवें तृप्तीक म्हळें,

'आयज वचूं नाका, फाल्या वच.'

'बाबा उलयतलो' ताची जाप.

तेन्ना हांवें ताका सोपूत घालो. तेन्ना तें मुकाट्यान नाटकाच्या दुसऱ्या दिसा आमगेर रावलें. तें म्हजे कितेंच उतर भायर घालीना. हांव मात ताचेकडेन चुकीन वागलों, हें चितून हांव अस्वस्थ जालों.

आतां वर्गांत तृप्ती पयलींसारकें म्हजेकडेन चोरून पळयना, हांवें मुद्दाम हडकिल्यारच जाप करता. पूण म्हाका ताचो राग ना. हांवें आतां म्हजें सगलें लक्ष अभ्यासाचेर दिवपाचें थारायला. बऱ्या मार्कांनी पास जावन, बरी सिर्वीस घेवन मागीर आईकडल्यान तृप्तीक लग्नाची मागणी घालप, हीच म्हजे चुकीची म्हाका ख्यास्त आसा.



## पैज

राजश्री पाश्या आपल्या बापोलयागेर आशिल्लें. अंदूं ताणें बी. ए.ची परिक्षा दिल्ली. ताच्या बापायचें मूळ घर पार्से. पूण तो पयलींपसून सांग्यार स्थायीक जाल्लो. वेवसायान गवंडी. परिस्थितीन गरीब म्हणून सरकाराचो १०० मिटर जागो घेवन ताणें थंय घर बांदिल्लें.

राजश्रीक आनीक एक धाकली भयण आशिल्ली. तिचें नांव उज्वला. तशेंच धाकलो भाव राम. तो पांचवेक आशिल्लो. तर उज्वलान अंदू धावेची परिक्षा दिली.

मे म्हयन्याचे सुटयेंत राजश्री आपल्या बापायसरीं सांग्यार रावपाक गेल्लें. तेन्ना उज्वला पाश्यां आयिल्लें. तें शिकपाक सामकें ढ आशिल्लें. पूण ताणें राजश्रीक सांगलेलें. पेपर बरे गेल्यात, पास जातलेंच.

राजश्री केन्नाच नापास जाय नाशिल्लें. बी. एड्. करून शाळेंत शिक्षिका म्हूण कांम करपाची ताची इत्सा आशिल्ली. सभावान तें तशें खूब बरें आसलें. मात ताका एक वायट खोड आशिल्ली. ती पैज मारपाची!

सांग्यार ताच्या घरालागींच आनंद नांवाचो चलो रावतालो. तो मिलीटरींत कामाक आशिल्लो. रजेर घरा आयिल्लो. तो केन्नाय तांगेर येवन बसतालो. राजश्री थंय गेल्ल्याक तो सदांच तांगेर येवन बसतालो आनी तांचेलागीं उलोवपाक निमित्त सोदतालो. राजश्री आवयच्या मनांत उज्वलाकडेन ताचें लग्न करपाचो विचार आशिल्लो. हे बाबतींत उज्वलाचीय पसंती आशिल्ली.

एक दीस आनंद आनी राजश्री सालांत बसून टी. व्ही. पळयतालीं. टी. व्ही. चेर कोंकणी गितांची कार्यावळ चलताली. इतल्यात आनंदान उज्वलाची खबर काडली.

'तू शिकपाक इतलें हुशार, पूण तुजी भयण मात एका एका वर्गांत दोन – दोन वर्सां काडटां.

'आमचें उज्वला अंदू पास जातलें!'

'ना. उज्वला पास जाल्यार तुका हाव तू मागता तें दितां.'

राजश्रीन चितून म्हळें,

'हे ! आमी पंज मारूया?'

'मारुया! ' आनंदान म्हळें,

'हांव मागतां तें तुवें म्हाका दिवचें पडटलें!'

तेन्ना राजश्रीच्या मनांत आनंदाकडेन आपली भयण उज्वलासबदान उतर घालचें. अशें

आशिल्लें.

मागीर आनंदान म्हळें,

'उज्वला पास जाल्यार तूं मागतां तें हाव तुका दितलों. पूण तें नापास जाल्यार हांव मागतां तें तुवें म्हाका दिवचें पडटलें.

जालें. दोगांयनी पैज मारली.

आनंदाक खात्री आशिल्ली, उज्वला नापास जातलेंच . तशें उज्वलान आनंदाक सांगलेलें.

राजश्रीन पार्श्या उज्वलाक पत्र बरोवन कळयलें कीं आपणें आनंदालागीं पैज मारल्या. उपरांत राजश्रीचो निकाल आयलो, तेप्रमाण तें बी. ए. क पयल्या वर्गांत आयलें. तें घरा आयलें आनी ताणें निर्मला इन्स्टिटयूट, आल्तीन – पणजी हांगासर बी. एड्‌ाक ॲडमिशन घेतलें.

हेवटेन धावेचो निकाल लागलो आनी उज्वला नापास जालें. धावेचो निकाल पळोवन राजश्री अस्वस्थ जालें. आतां आनंद आपलेलागीं कितें मागतलो हें तें चितूंक लागलें. थोड्याच दिसांनी आनंदाचें पत्र आयलें तरी तें सांग्यार वचूंक ना. मागीर थोड्याच दिसांनी रेकॉर्ड केल्ली कॅसेट पोस्टान आयली, तेन्ना नायलाजान राजश्री सांग्यार वचपाक भायर सरलें.

सांजेचो बेगीनच हांसत हांसत आनंद राजश्रीगेर आयलो. आपूण पैज जिखलां म्हणपाची खोस ताच्या तोंडार दिसताली. तेन्ना उज्वला पार्श्या आशिल्लें. राजश्री गप्प बसून चितताले.

'हांव पैज जिखलों राजश्री, आतां म्हाका जाय तें मागतां.'

आनंदान खोशयेन म्हळें,

तरीय तें मोनें आशिल्लें.

मागीर आनंदान म्हळें,

'म्हाका तूं जाय राजश्री! हांव तुजेर मोग करतां. तूं म्हजेकडेन लग्न जा.'

राजश्री अस्वस्थ जालें. आपल्या सपनांचो गोबोर जाता अशें ताका दिसलें.

तें गप्प बसलां तें पळोवन आनंद म्हणपाक लागलो,

'तुजो निर्णय फाल्यां सांग. पूण याद धर. तुजी म्हजेबरोबर लग्न जावपाची खोस ना तरी म्हाका वायट दिसचें ना.'

आनंद वचपाक गेलो.

राजश्री चितताले, आनंद आठवी नापास, आपूण बी. ए. पास. घरचीं कितें म्हणटलीं? ती सगली रात राजश्री न्हिदलें ना. ताणें संबंद रात हाथरूणार तळमळून काडली. ताका दिसतालें, ही रात सोंपचीच न्हय. दुसरो दीस येवचोच न्हीं. पूण तो दीस सोंपून सदचेभशेन दुसरो दीस उजवाडलो.

सांजेचो आनंद आयलो.

तेन्ना राजश्रीन म्हळें,

'आनंद, हांव तुजेबरोबर लग्नाक तयार आसां. पूण म्हजी एक अट आसा.'

'कसली?'

तुका मिलीटरींतली नोकरी सोडची पडटली.'

आनंद चिंतूक पडलों, आपूण कामाक आसां, म्हूण आपलें घर सुखांत आसा. नोकरी सोडीत तर घरचीं बेजार जातलीं. मागीर ताणें म्हळें,

'म्हजे नोकरेक आठ वर्सां सोंपलीं आनीक सात वर्सां सोंपलीं की बसून पेन्शन मेळटलें. मागीर कितेंय धंदो करूं येता.

पूण राजश्री आपल्या मताचेर ठाम आशिल्लें.

निमाणें आनंद नोकरी सोडपाक तयार जालो. आतां तो मेकळो जाल्लो . तसो तो खोशीय आशिल्लोच. हे खोशेंत ताणें राजश्रीचो हात लेगीत हातांत धरिल्लो. उपरांत तेच खोशेंत तो घरा वचून न्हिदलो. पूण चिंतून – चिंतून राजश्रीची न्हीद गेली.

जेन्ना ही खबर घरा कळ्ळी तेन्ना खूब बोवाळ जालो. ताच्या इश्टिणींकुय खूब वायट दिसलें. एक हुशार चली एका साद्या चल्याबरोबर लग्न जाता हे गजालीचे तांकां वायट दिशिल्लें. उज्वलाक तर ही खबर कळटकूच खूब वायट दिसलें. आपलेखातीर व्हडले भयणीच्या सपनांचो चुरो जाता अशें ताका दिसलें. घरांतल्यान राजश्रीचेर खूब दडपण आयलें. पूण तें आपल्या मताकडेन ठाम आशिल्लें. ताणें देवीचें उदेपण केलें.

थोड्याच दिसांनी आनंदान आपले नोकरेचो राजिनामो धाडून दिलो. ताका लागून ताका घरांत खूब मनस्ताप सोंसचो पडलो. पूण तो राजश्रीखातीर कितेंय करपाक तयार आशिल्लो. निमाणें राजश्रीच्या घरच्यांनी मारतें घेवन तांच्या लग्नाक परवानगी दिली. तशेंच आनंद बेकार आसले कारणान राजश्रीच्या बापायन आपलो पेदीद वापरून वांगडाच धा हजार रुपया मेजून ताका एका प्रायवेट स्कुलांत शिपाय म्हूण कामाक लायलो.

आनंद गरीब घरांत जल्मल्लो. ताका खूब भावंडां आशिल्लीं. आवय–बापूय मानायपण करून ताका पोसतालीं. अशा वेळार, खरें तर हो व्हडलो चलो कामाक आसलो म्हूण तांचे दीस बरे वताले. पूण आतां दुसरें म्हळ्यार तांकां ही शिकिल्ली सून पसंत नासली. आवयन तर पयलींच सांगिल्लें,

'राजश्रीबरोबर लग्न जाल्यार घरांत पांय दवरूं नाका!'

उपरांत राजश्रीक सगल्या तरांचें भांगर घालून गडगडायत लग्न केलें पूण लग्न जावनूय ताका आवयगेरूच रावचें पडलें. बी एड. परिक्षेक तर तें बसूंकच ना आपल्याक वचपाचें आशिल्लें खय आनी आपूण पावलें खय हें चिंतूनच तें खिणाखिणाक अस्वस्थ जातालें जितेपणींच मर्ण भोगतालें




# *पिसो शशी*

तो दीस मंगळार आसलो. कसली तरी सुटी आसली. आनी अशी सुटी आसली कीं हांव धा साडे धा पयलीं उठच ना. पूण त्या दिसा सांताक्रूज आमच्या घरांत बोवाळ जालो म्हूण हांवें हांथरूणार कूस परतिली. तर आई सांगपाक लागली,

'पिसो शशी मेलो'.

'कसो ?' म्हजो अजापाचो प्रस्न.

'सकाळीं रस्त्यार पडलेलो. बरोच मार बसला. रस्त्यार रगताचे दाग पडलेले. कोण तरी रातीं गाडी मारून पळून गेलों.

'आई सांगपाक लागली.आनी मागीर सगल्यो बायलो त्याच विशयाचेर उलोवपाक लागल्यो.

तितल्यांत आमचो बापोलभाव राजेश येवन म्हाका म्हणपाक लागलो, ' आमी सरपंचाक मेळोवन घेंवया आनी ताका हें कळोवया.'

हांवें विचारलें, 'आतां ताची कूड खंय आसा?'

' घरा व्हरून आंगणांत दवरल्या.' राजेशान म्हळें.

मागीर आई म्हणपाक लागली, 'घर सगले मोडून काबार जालां.'

हांव तसोच उठलो, डेंटोबेक घेतली आनी संडासाक गेलो. सकाळचो उठलों की डेंटोबेक घेवन पाट्यार वचप हो म्हजो सदचोच व्यवसाय. मागीर तोंड धुवन, च्या पिवन शशी म्हाल्यागेर गेलो. तर थंय जळींमळीं लोक आसले. रडपाचो आवाज येवपाक ताचो ह्या संवसारात कोणूच नासलो. बायल कुळारा आसली. ती केन्नाच येनासली. लोक कितें कितें अर्थ नाशिल्लें उलयताले. पूण चुरचुरे कोणाकूच नासले. ताचे चुरचुरे तरी कशे येतलें. तो सगल्याकूच नसाय जाल्लो. ताचो इलो करपाचे कोणाकूच पडूंक नासलें. हांव राजेशाक घेवन स्कूटर स्टार्ट मारून पंचायतींत गेलो आनी सगली गजाल सरपंचाक सांगली. सरपंचान आपल्याच आंब्याची लाकडां करपाक सांगलें.

शशीकांताक व्हडले दोन भाव आनी दोन भयणी आसल्यो बायल–भुरगीं आसलीं. पूण ताका'बेवारशी' म्हणून ताचे कुडीक अग्नी दिलो. हांव शशीच्या चिंतनात घुस्पून गेलों म्हाका फाटलो इतिहास येवजवपाक लागलो.

शशीचें पुराय नांव शशीकांत सखाराम मांद्रेकार. तो जातीन म्हालो. ताच्या बापायचो वेवसाय केस कापपाचो गांवांत मध्यभागांत ताका देवस्थानाचो थोडो जागो मेळिल्लो. थंय

ताचें घर आनी दुकान आसलें. ताका आनीक दोन व्हडले भाव आसले. तशेंच दोन भयणी आनी आवय आसली. केंस कापून कितें मेळटा तें बापायच्या व्यसनांकूच पावनासलें. ताका सगलें लागतालें. विडी, सोरो, जुगार! 'बायल'लेगीत! शशीची आवय 'ईमल्याआई' बाबडी. ताचे धाकले चलयेचें नांव विमल(इमल) म्हूण आमी तिका 'इमल्याआई' म्हण्टाले. ती लोकाच्या शेतांत मानायपण करून, कालवां विकून, सुमां विकून भुरग्यांक पोसताली.

व्हडली चली वीस वर्सांची आसतना एका ख्रिश्चन तरणाट्याच्या मोगांत पडून पळून वचून लग्न जाली. ती परत कुळारा येवंकूच ना. दुसऱ्यानूच ताचोच धडो गिरलो. बामणागेर काम करतना वाटेवयल्या चेड्याच्या मोगांत पडून आंकवार आसतना दीस गेले! मागीर आवयन लोकांच्या पायां पडून लग्न करून दिलें. लग्न जातकूच परत येवन मात्त ताणें एकूय दीस आवयची खबर घेतली ना. मागीर आवय लोकांक सांगताली, 'हांव सुटलें. चेडे कितेंय करूं' व्हडलो चेडो लग्न जावन बापायचो धडो घे नासतना फोटोग्राफर म्हूण म्हापशां कामाक लागलो. बिराड करून थंयच रावंक लागलो. ताणें घरची याद काडूंक ना. दुसरो पणजे कदंब स्टॅंडाचेर केस कापपाचें काम करतालो. रायबंदरावयले एके चलयेच्या मोगांत पडून लग्न जालो. ती आवयची एकूच चली आसले कारणान तो घरजांवय जावन थंयच रावपाक लागलो. दोगूय चलयो जश्यो पयसावल्यो तशेच दोगूय चले पयसावले निमाणें उरलो अपुरबायेचो शशीकांत. ईमल्याआई ताका मोगान शशी म्हण्टाली.

शशी तेन्ना पंदरा वर्सांचो आनी तो धावेक शिकतालो. बरो शिकतालो. आवय बापूय फाटल्यान होच आमकां आदार म्हूण ताचेर बरें लक्ष दितालीं. गांवांतली मूळ देवता मोरजाई देवीची पालखी दर सोमारा भायर सरता. पालखी घेवपाक देवळी, मडवळ, गुरव आनी म्हालो हांकां मान. दर पालखेक तांचो कोण ना कोण जायूच. पालखेक शशीच वतालो. ताका देवस्थानाचो थोडो जागो मेळिल्लो. भितर आंबे, पणस, माड आशिल्ले.

धावी पास जावन शशीन कामाक वचूंक खूप खटपट केली. पूण काम मेळूंक ना निमाणें ताणें भुरग्यांक ट्यूशन दिवपाक सुरवात केली. हांवेंसुद्धां शशीकडेन ट्यूशन घेतलें. पूण शशीची आवय मात्त शशी कामाक लागलो कीं आपल्याक त्रास काडचे पडचे ना म्हूण सपनां पळयताली पूण दैवांत दुसरेंच आसलें.

एकदा पालखेनसून येतना वाटेर भिलो म्हूण निमीत्त. बरो ना म्हूण जालो तो पिसो जालो. डॉक्टर सांगतालो कीं चिंतून-चिंतून ताची तकली पेड्डयार जाल्या. देखून मागीर मेंटलांत घालो. तेन्ना हांव आल्तिनार सर्कीट हावसांत कामाक आसलों. हांव मेंटलांत खबरीक गेल्लों. तेन्ना तो बरो जाल्लो. म्हाका पळोवन खूब रडला हांवे ताका थातारलो आनी खावपाक बिस्कीट. ती दिवन हांव येवपाक भायर सरलो. तेन्ना आपूण येता म्हणूंक लागलो. हांवें मागीर सगलें जाग्यार घालून मेंटलांतसून ताका घरा हाडलो.

मात्त घरांत वोग्गी एका जाग्यार बसून तो चिंतीत रावतालो. ह्याच दिसांनी बापूय दुयेंत

पडलो. एक दीस भायर पडलो!

मागीर शशी बापायच्या जाग्यार केंस कापपाक लागलो. आमच्या वाड्यावयल्या बेकार भुरग्यांक थंय बसपाक आयतीच सुवात मेळ्ळी थंय बसून ते गांवांत कितें घडटा ताचेर चकाटां मारताले. चलयांचीं फकाणां करताले. शशीक हें आवडनासलें. पूण ताणें केन्नाच कोणाक परतें उतर दिवंक नासलें. कोणेंय ताचेकडेन वचून कितेंय मागलें जाल्यार तो ना म्हणिनासलो. ह्याच दिसांनी ताच्या शेजराक भायल्या गांवच्या म्हाल्यान दुकान घालें. तो म्हालो नव्यो फॅशनी जाणा जाल्ल्यान ताका लागून तरणाटे चले शशीकडेन येना जाले. शशीचें गिरायक कमी जालें. कोणूय जाण्टे येताले.

पूण उधारी वाडली. मागीर शशीन दुकान बंद केलें. म्हजेकडसून केन्नाय तो कोंकणीचीं पुस्तकां वाचपाक व्हरतालो. एक दीस ताचो इश्ट ताका पणजे टुरीस्ट हॉटेलांत वेटर म्हूण कामाक घेवन गेलो. थंय तांच्या स्टाफाचो कार्यक्रम आशिल्लो. ताणें 'चान्न्याचे राती' हें गीत म्हटले. तेन्ना सगल्यांनी ताची तुस्त केली. हें मागीर ताणें म्हाका येवन सांगलें. थंय काम करतनां एक दीस.... मंत्र्याची चली थंय आयिल्ली. शशीक पळोवन हांसली . जालें! ताका दिसलें, ती आपल्याचेर मोग करता ! ती कोण, आपूण कोण हें चिंतीनासतना दुसऱ्या दिसा काम सोडून तो गांवांत येवन आमकां हें सांगपाक लागलो. जालें, आमकांय नवो विशय मेळ्ळो. शशीचीं फकाणां मारपाक. उपरांत हें सगलें चिंतून शशी पर्थून पिसो जालो.

आवयक लोकांनी सांगलें कीं लग्न केल्यार तो सुदारतलो म्हूण. उपरांत तिणें एक गरीबशी चली पळोवन लग्नाची तयारी केली. लोकांनी बऱ्या मनान मदत करून लग्न जालें. शशीची बायल काळीच आसली. पूण करासवाड्या फॅक्टरींत कामाक वताली. थंय ती 'फिक्स' आसली, अशें लोक सांगताले. आतां शशीन परत केंस कापाक सुरवात केली. मजगतीं ताका एक सुंदर चलो जालो. आतां शशी परत पिसो जालो. तेन्ना बायल चल्याक घेवन कुळारा गेली, ती परत घरा येवकूंच ना. हरशीं म्हूण तिका शशीची गरजच नासली. ती स्वता जोडटाली. उपरांत आमी शशीक हॉस्पिटलांत घालो. हेवटेन सोमारा दिसा पालखी धरपाक कोण म्हालो ना म्हूण देवस्थानच्या अध्यक्षांनी ताचो जागो दुसऱ्या म्हाल्याक दिलो.

मागीर तर शशीक सगल्याच सोयऱ्यांनी सोडलो. पावस लागलो आनी गिमांत शिवूंक नाशिल्ल्यान तें मातयेंचें घर पावसासरशीं पडलें! आवयक भायर काडून आमी शेजारधर्म पाळ्ळो.

थोड्या दिसांनी शशी सारको जावन घरा आयलो आनी आवयन पंचायतीचे,.आमदाराचे पांय धरून थोडी मदत घेवन अर्दे घर सारकें केलें. पूण शशी परत पिसो जाल्लो! आतां डॉक्टरानूय आशा सोडली..शशी सारको जायना हें पळोवन आवय हातरूणार पडली. आनी निमाणी मेली सुद्दां. आवय मेली तेन्ना शशीक कितेंच खबर नासलें. आतां कोणय शशीक पेजे-निवळ दितालो. पूण लोक सदांच दिवंक पडल्यात?

आतां तो सकाळाचो उठून ताट घेवन शेजाऱ्यागेर वतालो गांवांत हेडटालो. कोण कितें ताटांत घालता तें खातालो. पूण नूस्ते खाय नासलो. मेळता थंय न्हिदतालो न्हाय नासलो. एकदां आमच्या इश्टान ताका पावान घालून चिकन दिलें. पूंण ताणें ते खावंक ना. आतां तर लोक ताकां धांवडायतालें. वासय मारतालो. हॉटेलार बसल्यार लोक ताचे फाटल्यान उदक घेवन धांवताले. एक दीस ताच्या शेजाराक  एक मनीस मेल्लो. थंय लोक सोरो पिवन इस्पिकांनी  खेळून रात जागयताले.  शशी थंय गेल्लो तेन्ना एका ग्लासांत घालून सोरो दिलो. तो सोरो पिलो ना.

रातीं कोण तरी ताचेर गाडी मारून पळून गेल्लो. शशीची निर्जीव्ह कूड जशी जळटाली तसो हांव चिंततालो, हो साईबाबाचो भक्त, हाका देवस्पण खूब लागतालें. भविष्य सांगतालो, पुराय आयुष्यांत ताणें कोणाचें वायट चिंतूक ना. पूण देवान हाका ही ख्यास्त कित्याक दिली!

आतां गांवांत केन्नाय  फिरतना तांच्या मोडंक्या घराचेर लक्ष गेलें की शशीची याद येता.



## अजय नामदेव सावळ

जल्म
२० डिसेंबर १९७१, मोरजी, पेडणें, गोंय

शिक्षण : धावी पास

- ऑगश्ट १९९१ वर्सासावन गोंय सरकारच्या गोवा कोंकणी अकादेमींत कामाक आसा.
- साबार कथा सुनापरान्त, राष्ट्रमत दिसाळ्यांनी आनी उर्बा, जैत दिवाळी अंकानी प्रसिद्ध जाल्यात.
- 'शेतकाराचें सपन' हें भुरग्यांखातीर बरयिल्ल्या काणयांचें पुस्तक उजवाडायपाच्या मार्गार आसा.
- श्री सरस्वती मंदिर, पणजी हांचे १९९७-९८ चे कथास्पर्धेंत 'कीड' कथेक तिसरें इनाम मेळ्ळां.
- साबार सांस्कृतिक कार्यावळींनी सहभाग

**ॐ श्री दत्त पद्मजा प्रकाशन,**
श्रीस्थळ, काणकोण, गोंय ४०३ ७०२